Price ₹ 20/- (₹ 25/- Outside Goa)




ऑगस्ट २०११

गोंय मुक्तीच्या सुवर्ण महोत्सवी वर्साक सलाम!

(१९ डिसेंबर २०१०- १९ डिसेंबर २०११)

# म.रा.प्र.स.

मराठी राज्य भाशा झालीच पाहिजे

# गोंयची राजभास फकत कोंकणीच न्हय मराठीय केले बगर आतां पर्याय ना..!

English Why? जायमास जाया!!



# गोंय सरकाराचें क्रिडा संचालनालय

## खेळ म्हळ्यार बरी भलायकी आनी मनोरंजन

गोंय सरकार खेळ उदरगती पासत कसल्यो येवजण्यो राबयता हें तुमी जाणांत?

१. प्राथमिक, माध्यमिक तशेंच उच्च माध्यमिक शालेय स्तरार शाररीक शिक्षणाची उदरगत
२. प्राथमिक, माध्यमिक तशेंच उच्च माध्यमिक शालेय स्तरार खेळ आनी खेळां सर्त राबयता.
३. शाळा, ग्रामपंचायत आनी तालुका पातळीचेर खेळा मैदानाची उदरगत.
४. गोंय राज्यांत शास्त्र शुध्द प्रशिक्षण दिवपाक प्रशिक्षण येवजण.
५. सरकारी आनी निमसरकारी शाळांक खेळां सामान पुरवंठो.
६. उत्कृश्ठ खेळाकेंद्रांची स्थापनां.
७. भारतीयम् प्रशिक्षण कर्यावळ.
८. योगशिक्षणाची उदरगत.
९. व्यायामशाळांची स्थापनां तशेंच सांबाळ करप.
१०. राज्य आनी राष्ट्रीय म्हत्वाचे दीस मनोवप.
११. गोंय प्राधिकरणा खातीर नागरीसेवा खेळां सर्तिचें आयोजन.
१२. दुर्बळ अवतिकार्येंत खेळगड्यांक अनुदान भेटोवप.
१३. राज्य खेळां पुरस्कार भेटोवप.
१४. जलक्रिडा आयोजन.
१५. निमसरकारी माध्यमिक शाळा आनी महाविद्यालयीन खेळां मैदान उदरगतीपासत अनुदान.
१६. खेळ आनी शाररीक शिक्षणावेल्या साहित्य निर्मितीक उत्तेजन.
१७. खेळ वसती गृह उबारणी.




**क्रिडा संचालनालय**
कांपाल, पणजी–गोंय
हांचे वतीन प्रसारीत

गोंय मुक्तीच्या सुवर्ण महोत्सवी वर्सांक सलाम

वर्स : १० अंक ८

ऑगस्ट २०११

मोल २० रुपया

मुखेल संपादक
**दिलीप बोरकार**

मुद्रक आनी प्रकाशक
**दिलीप बोरकार**

छापणावळ
इम्प्रेशन्स, बेळगांव.

व्यवस्थापक
**कामिनी किणी**

अक्षर जुळवणी आनी मांडावळ
**श्वेता नाईक**

वर्गणीचे दर
वर्सुकी २५० रु. / तीन वर्सां ६०० रु.

खंयच्याय म्हयन्या सावन
वर्गणीदार जांव येता. वर्गणीचो चेक
'बिम्ब' ह्या नांवान धाडचो

**संपादकीय पत्रवेव्हाराचो पत्तो**
'धर्म-लक्ष्मी', सांत लॉरेन्स,
आगशी - गोंय ४०३ २०४
दूरध्वनी : (०८३२) २४३८३५५
E-mail : bimbkonkani@yahoo.co.in

ह्या अंकांत उक्तायल्ले विचार
त्या त्या बरोवप्याचे आसात.
संपादक मंडळ तांचेकडेन
सहमत आसतच अशें ना.

कोंकणी मासिक
# बिम्ब
१० वें वर्स

५
## गोंयची राजभास फकत कोंकणीच न्हय मराठीय केले बगर आतां पर्याय ना..!
– दिलीप बोरकार



**रेखाचित्रां**
गिरिश नंदा बोरकार


गोंय मुक्तीच्या सुवर्ण महोत्सवाक आमच्योय भांगरा शुभेच्छा
मंगळुरांत पावल्यार मुजरत भेट दियात
S. L. SHET
JEWELLERS & DIAMOND HOUSE
K. S. Rao Road, Mangalore. Ph. : 0824 - 2440242, 2440085, 2440271
E - mail : slshet@sify.com



HINDU
PHARMACY
Caring Your Faith...Since 1911
हिन्दु फार्मासी
पणजी
फोन : २२२३११७३

गोंय मुक्तीच्या सुवर्ण महोत्सवी वर्साक सलाम

Discover **Goa** through GTDC




## River Cruises

Enjoy Sunset, Sundown and Dinner Cruises down the picturesque Mandovi River. Organized daily by GTDC on the 'Santa Monica' to showcase the best of Goan culture and dance. Be enchanted by the rhythmic steps of modern and traditional dances: the Cotti Fugdi and Corridinho, the Goff, Mexican Shuffle and Jive…and more.

## Sightseeing Tours

Well organized daily North Goa and South Goa tours covering popular tourism spots. GTDC also operates Dudhsagar special tour (seasonal)

## Halls

Celebrate your birthdays, weddings, host a business meet or exhibitions at our uniquely styled halls with seating capacity for 40 to 300 people equipped with all modern facilities at Miramar, Mapusa, Vasco, Margao & Old Goa Residencies. You can also book open air garden venues at Farmagudi, Calangute, Colva & Miramar Residencies.





*for online bookings log on*
**www.goa-tourism.com**

Goa Tourism Development Corporation Ltd.
(A Govt. of Goa Undertaking)

TEL:0832-2224132, 2226728, 2226515 Fax: 0832-2423926, 2430133
E-mail: reservations@goa-tourism.com




Incredible !ndia

# आतां फुडलें सगळें खरेंच खरें...!

ह्या दिसांनी गोंयचे युवाशक्तीन आस शी दाखयली! कोंकणी भाशेचेर वा देशी भासांचेर गोंय सरकारच्या माध्यम धोरणांक लागून जावपी अन्यायाआड गोंयची युवा शक्त रस्त्यार देंवल्या ती पळोवन मन निराशेच्या कुपांआड वतालें तें आषाढ म्हयन्यांतल्या पुनवेच्या चंद्रावरीं काळ्या किट्ट कुपांतल्यान भायर सरून आशेचें चान्नें जावन गेलें. आतां कांयच खरें न्हय ह्या गोंयचें अशें दिसतां दिसतां गोंयच्या युवा शक्तीच्या घोशणांनी, आतां फुडचें खरेंच खरें अशें आश्वासन दिवन उडयलें. हेच खातीर आमकांय नवो जोम सो आयला. आशावादी प्रेरणे पासत गोंयचे जागृत जाल्ले युवा शक्तीक सलाम!

खंयच्याय राज्यांतली युवा शक्त म्हळ्यार त्या राज्याचें चैतन्य. युवाशक्त म्हळ्यार त्या राज्याच्या शिरंतरांतल्यान व्हावपी सळसळटें रक्त. हें रक्त शुध्द आनी गरम आसलें जाल्यारूच त्या राज्याचो फुडार हो परजळीत आसा अशें म्हणूं येता. रक्त फक्त शुध्द आनी गरम आसा इतल्यारूच भागना तर तें सळसळत उरूंक जाय, व्हावूंक जाय हेंय तितलेंच खरें. जें रक्त तापना, जें रक्त सळसळना तें चैतन्य हाडिना. फाटलीं तीन दसकां गोंयचें युवारक्त थंड जावन, नेबळट जावन बाटल्यांनी भरिल्लें फ्रिजांत पडून आसा अशें कितें तरी दिसूंक लागिल्लें. हें रक्त रक्त न्हय तर एक तांबडो द्रव इतलेंच ताका मुल्य आशिल्लें. पूण सरकारच्या इंग्लीश माध्यम धोरणाआड आयज युवाशक्त रस्त्यार देवून, सत्ताधाऱ्यांची भीड मुर्वत बाळगिनासतना, आपल्या फुडाराची काळजी करिनासतना ज्या नेटान आनी आत्मविश्वासान सरकाराक आव्हान दितना दिसता तेन्ना भांगराळ्या गोंयचें जें सपन आमी पळयल्लें तें सपन पुराय जावंक गोंय मुक्तीच्या सुवर्ण महोत्सवी वर्सांत आरंभ करतलें हाची सुलूस शी लागूंक लागल्या.

आमच्या दोळ्यां सामकार आदर्श गोंयचें एक सपन आशिल्लें. आमचे आदले पिळगेन गोंय पुर्तुगेजांच्या शेकातळा आशिल्लें तें मुक्त करून आमच्या हातांत दिलें. आमचे आदले पिळगेन आनी त्याय आदल्या पिळग्यांनी, साडे-चारशीं वर्सांच्या ज्ञात इतिहासांत गोंयांत पुर्तुगेजांच्या शेकातळा कितें आनी कशें जीवित काडलां हाचो आमकां अदमास आसा. गोंय मुक्ती पासत आमचे आदले पिळगेन ज्यो हालअपेश्टा काडल्यात आनी पिडापीड सोसल्या ती पळयत जाल्यार आंगार कांटो उबो रावता. इतलेंय आसून ह्या लोकांनी आमच्या हातांत गोंय मुक्त करून दिलें. पूण त्या गोंयचें आमी कितें केलें?

आमी केन्ना केन्नाय आमच्या सुटके झुजाऱ्यांक शीणटात, म्हणटात तुमी गोंय मुक्त केलें खरें, पूण तें मुक्त जाल्या उपरांत कोणाच्या हातांत दिवपाचें हाचो विचार, ती नदर तुमचे लागीं नाशिल्ली. आयज आमी इतिहास चाळटात तेन्ना ह्या गजालींचेर विचार करपाची संद लेगीत हातार मरण घेवन चलपी स्वातंत्र्यसेनानीक मेळना आशिल्ली म्हणपाचें कळटा. देखून तांका शिणप लेगीत म्हळ्यार आमचीं पडमूरपणाच म्हणचीं पडटलीं. पूण आमचो शीण आशिल्लो मुक्त गोंयचे मुक्त तरनाटे पिळगेचेर.

गोंय मुक्त जाल्या उपरांत गोंयचेर परत एक अरिश्ट आयलें तें गोंयचें नांव भारताच्या नकशावेल्यान ना नपयत जावपाचें. पूण त्या काळच्या तरनाट्यांनी गोंयचें अस्तित्व तिगोवन दवरपा पासत जीवाचें रान केलें. गोंय मुक्त करूंक आमच्या सुटके झुजाऱ्यांनी सोसलें तें परकी सत्तेकडल्यान. ते आमचे कोणूच नाशिल्ले. तांका गोंयच्या सुटके झुंजाऱ्यांक दिल्ले पिडापिडीचें कांयच पडून गेल्लें नाशिल्लें.

पूण गोंय मुक्त जाल्या उपरांत गोंय महाराष्ट्रांत घालपाचो प्रयत्न जालो तेन्ना तें अरिश्ट पयसावपा खातीर स्वाभिमानी युवाशक्त आपल्या व्यक्तीगत फुडाराची मात्तूय चिंता करिनासतना ह्या रणखेवांत देंवलें. तांच्या दोळ्यां मुखार एकूच ध्येय आशिल्लें तें म्हळ्यार गोंयच्या अस्तित्वाची राखण आनी फुडार. ह्या रणखेवांत ह्या तरनाट्यांनी खूब सोसलें. त्या वेळार तांच्या वाट्याक आयिल्लो विरोध आनी बकच्छायो तांच्याच तोंडांतल्यान आयकत जाल्यार तिडकीन तकली सणसणटा. हें सगळें कोणें केलें तर आमच्याच लोकांनी. आयज तेच लोक गोंय राज्यांत ताठ मानेन मिरयतात. तांका खंयच आपल्या कर्माची लज दिसना.

उप्रांतची आमची तरनाटी पिळगी आयली तीय एक निश्चित ध्येय आनी प्रेरणा घेवन आयली. विद्यार्थी चळवळी पासून राजभास आंदोलना मेरेनच्यो खूबश्यो चळवळी हे तरनाटे पिळगेन समर्थपणान चलयल्यो. त्या उप्रांत मात युवावर्ग मरगळून गेल्लेवरी दिसूंक लागलो. फाटल्या दोन दशकांत खंयच आवाज जाल्लो आमकां पळोवंक गावलोना.

खरें म्हळ्यार दोन-तीन दसकां आदी दर पावसाक आरंभ जातालो तो विद्यार्थ्यांच्या मोर्चान. निकतींच महाविद्यालयां सुरू जाल्लीं आसतालीं. अभ्यासक्रमांक आरंभ जावंक नाशिल्ल्यान विद्यार्थी शक्तीकडेन भरपूर वेळ आसतालो. हो वेळ विद्यार्थी शक्त एकवटीत करून खंयच्या ना खंयच्या अन्याया आड लढपा खातीर ही विद्यार्थीशक्त वापरताले. पूण उपरांतच्या काळांत मात ह्या मळार इतली मसण शांतताय पातळ्ळी की गोंयांत विद्यार्थीशक्त आसा काय ना असो दुबावूच मारचो. नाय म्हळ्यार राजकी ध्येयान प्रेरीत जाल्ले कांय विद्यार्थी आपल्या पक्षाची बुन्याद घट करूंक महाविद्यालयांनी वेंचणुकेच्या नांवान थोडो बोवाळ घालताले. पूण तीं शिरावणांतलीं अळमीच आसतालीं!

पूण आज परत एकदां तीन दसकां आदलो नजारो परतून दिसूंक लागला. आषाढ म्हयन्याचीं पावसी कुपां मळबांत दाटून येतात. धर्तरमांयच्या कुसव्यांत किल्लल्लीं बिजां वाडोवपाचीं, फुलोवपाचीं आनी फळोवपाचीं आस्वासक उतरां गडगडाच्या आवाजांत घेवन येवपी ही मळबांतलीं कुपां आयज गोंयच्या आश्वासक तरनाट्यांकूय भिजोवन, तांचेकडल्यान गोंय राज्य फुलोवपाचें फळोवपाचें उतर घेतात असो देखाव दिसता. शाळांतल्या माध्यम प्रश्नावेल्यान जायना, गोंयचे संस्कृतायेची राखण करूंक हें युवकांचें वादळ आयज गोंयच्या शारानीच न्हय तर गांवांगांवांतल्या रस्त्यार घोगेता. हें वादळ फक्त पानां हालोवन वावझड झडोवपी न्हय तर नवें गोंय घडोवपा खातीर नश्टें जितलें आसा तें व्हावोवन व्हरपाचें आश्वासक उतर घेवन येवपी तुफानाची सुलूस दिवपी वारें म्हणपाचें भावता.

आमकां एक हुस्को आशिल्लो, गोंयचें अस्तित्व राखून दवरूंक आपले संवसार उध्वस्त केल्ल्या त्या काळच्या तरनाट्यांचीं भुरगीं आयज रासवळ मळार खंयच दिसनात, खंयचेच चळवळींत तांचो वांटो ना होच तो हुसको. हुसको आशिल्लो, गोंयचो राखणदार आतां कोण काय म्हूण! कित्याक तर राजकारणाचो धंदो केल्ल्या राजकारण्यांनी आयची तरनाटी शक्त आपल्या गोठ्यांत बांदिल्ली. वेंचणुके वेळार ती वापरप इतलेंच घडटालें. पूण ज्या नेटान आयज युगांक नायक, राजदीप नायक हांचे सारकी तरणी पिळगी मुखार सरता ती पळयल्यार आमचो हुसको लटको आशिल्लो म्हणपाचें कळटा. कळावान जायना वादळाक नेट सुटला, तुफान घोगेवंक लागलां. ह्या वादळांत, तुफानांत पोल आसा तें हुबतलें आनी उरतलें तें रूप धरतलें, तुफानाचें बळगें घेवन आयिल्ले हे युवाशक्तीक सलाम!

(सही)

# मानवता आनी धर्म !

**आ**मी देवळांत वतात. देवाक पायां पडटात. किर्तन, भजन आयकतात, प्रसाद घेतात, तो खातात आनी घरा येवन आवयक बापायक मारतात. कोण भयणीक गाळी मारतात. आतां तुमींच सांगात हातूंत देव कसलो जालो?

देव आमकां सगळ्यांक सांगता झगडीं करूं नाकात. जीब आसा म्हणून कायच्याकाय उलोवं नाकात.

येसू क्रिस्त सांगता सोसून घेयात.

संत कबीर सांगता निंदकाचे घर असावे शेजारी. ताका लागून आपणे एकामेकांक आपल्याक समजप.

येसू क्रिस्ताक फासार लटकियलो. पूण ताणें सांगलें, म्हजे देवा तांकां क्षमा कर. ते कितें करतात तें तांकां खबर ना.

कोण सोमार करता, कोण बेरेस्तार करता. देवान आमकां सांगुना की जायरत करची म्हणून. देव चराचरांत आसा.

जेन्ना आमचेमदीं भावां भावांक पटना तेन्ना आमच्या देशांत इतले तरेतरेचे जातीचे लोक आसात ते कशे सुदारतले? म्हणून म्हाका दिसता की सगळ्यांनी समजीकाय दाखयली जाल्यार सगळें बरें जातलें.

पद्मनाभस्वामी मंदिराची संपत्ती १लाख कोटी परस चड आसा अशें आयकलां. ही संपत्ती बरेतरेन वापरची. इगर्जी, मुसलमानांच्यो मशीदी हांचे पयशे बरे भशेन गरिबांक वयर काडूंक वापरचे अशें म्हाका दिसता.

जांचेकडेन इतलो पयसो आसा ते कितले गरीबां खातीर मोडटात?

हांवें कॉलेजींत बी. ए. मेरेन शिक्षण घेतलां. तेन्ना हांव राज्यशास्त्र आनी इतिहास बी विशय शिकिल्लें. इतिहासांत एका काळार आमचो भारत देश म्हळ्यार भांगराचो देश आशिल्लो. असो उल्लेख मेळटा. जर आमी सगळेच जाण गरिबां खातीर वावुरले जाल्यार परतून आमचो देश सुवर्णकाळ जातलो अशें म्हाका दिसता.

जेन्ना भयण, नणंद, सून आनी चली हातूंत फरक नासतलो तेन्नाच हीं कुटुंबां सावरतलीं आनी अशें घडटकच आमचो देश सावरतलो.

म्हजो बापूय सदांच म्हणटालो की आपली ही चली खूब समजीकायेची. ताणें चली आनी चलो असो भेद केलो ना. म्हाका ल्हानपणावेली एक याद जाता, आमी जुवळीं भावंडां. म्हज्या भावाक (अजिताक) याद उरताली. म्हाका याद उरनाशिल्ली. सांगपाचें तात्पर्य म्हळ्यार आमच्या भितर समजीकाय आशिल्ल्यान म्हाका कोणेंच त्या वेळार कमी लेखलें ना. अशी समजीकाय सगळ्या कुटुंबाक आयली तर आमचो देश बरोच सुदारतलो.

सदगुरू वामनराव पै प्रवचन दिता तशेंच महायोगी रामदेव बाबा व्याख्यान दिता. पूण तांकां गरिबां बद्दल कळवळो ना तर ते सदगुरू कसले? तशेंच आपल्याकडेन जें कितें धन आसा वो तूं कितलें जोडटा ताचो तिसरो वांटो देवा करतां, एक वांटो समाजसेवेक, एक आपल्या पासत आनी एक गरिबांक दिवचें अशें म्हाका दिसता.

शेतांतले काम करून सांजवेळाचेर घरा येवन देवाक पांय पडटा हे सुध्दां देवाक पावता.

भगवद् गीता सांगता काम करीत रावात, फळाची अपेक्षा करूं नाकात. कर्मण्ये वाधिका रस्ये माँफलेषू तदाम्यहं:

संत तुकाराम सांगतात, जेका रंजले गांजले त्यासी म्हणे जो आपुले तोची साधु ओळखावा, देव तेथेसी जाणावा.



**– अलका राऊत देसाय**
असोळणे, चांदर, गोंय.




## दिवाळी अंकाक जायराती जाय

**बिम्ब मासिकाच्या बरें मागप्यांक आवाहन**

बिम्ब मासिक सुरू करूंक ह्या वर्सा धा वर्सां पुराय जातात. आनी चार म्हयन्यांनी बिम्ब धा वर्सां पुराय करून ११व्या वर्सांत पावल घालतलें. तशें पळोवंक वचत जाल्यार बिम्ब दिवाळी अंक २५ वर्सांचो जावन गेला. पूण मासिक म्हणून विचार केल्यार ह्या वर्साचो बिम्ब दशकपुर्ती विशेशांक म्हणूं येता. हो दिवाळी अंक पुरायेन रंगीत काडचो असो हावेस आसा. तातूंत हें वर्स गोंय मुक्तीचें भांगरा उत्सवी वर्स. ह्या वर्साचें यादस्तीक म्हूण बिम्ब दिवाळी अंक २०११ हो पुरायेन रंगीत काडल्यार ती एक कोंकणींत क्रांतिकारी आनी इतिहासीक गजाल थारतली. हें सहज शक्य आसा जर तुमी प्रत्येक वाचकान फक्त एकूच जायरात आपली लागणूक म्हणून दिली जाल्यार. तुमच्या वाठारांतल्या एखाद्रया धनिकाकडेन वा उद्योजकाकडेन बिम्बाखातीर जायरात मागली जाल्यार ते ना म्हणचे नांत. मागून तरी पळयात. दिवपी खूब आसात मागपीच जाय. आमी सगळेकडेन पावनांत. तुमी तर तांच्या लागींच आसतात. जायरात १० ऑक्टोबर मेरेन बिम्ब कचेरेंत पावल्यारच अंकांत आस्पाव करूं येतलो.

धन्यवाद...

**– व्यवस्थापक**

# गोंयची राजभास फक्त कोंकणीच न्हय मराठीय केल्ले बगर आतां पर्याय ना..?

- दिलीप बोरकार



*कोंकणी राजभास चळवळ म्हणात वो कोंकणी-मराठी भाशावाद चळवळ म्हणात, हे चळवळीक लागून गोंयांत भौजन समाजांतल्या तरनाट्यांचें एक नेतृत्व तयार जावंक पावलें. ख्यंयचेय माचयेर वयर चडत जाल्यार मराठीतूच उलोवंक जाय अशे तरेचो समज आशिल्ल्यान, उलोवंक येता आसुनय हे लोक उलोवंक फाटीं रावताले.*

चर्चिल आलेमाव आनी ताचेच विचार सरणीच्या कांय राजकारण्यांक देशी संस्कृताय नाका. देशी भाशांतल्यान शिक्षण घेवन गोंयचे लोक, चड करून जांचो देशी संस्कृतायेकडलो संबंद कांय इतिहासीक कारणाक लागून तुटलो त्या ख्रिश्चन समाजाक पर्थून देशी संस्कृतायेकडेन आयिल्ले तांका नाका. तांका जाय, आयचो हो ख्रिश्चन समाज आसा तो तसोच बंदीस्त विचारांचो उरचो. ताणीं विचार करिनासतना रावचें आनी चर्चिला सारके जे कोण राजकारणी आसात तांकाच आपलो फुडारी मानून तांच्या फाटल्यान वचत रावचें. सासणाचे तांचे मतदार जावचे. तेच पासत त्याच समाजांतलो कोण वेगळे तरेन विचार करता तो तांका नाका. तांका महाराष्ट्रांतलो फा. ब्रिटो नाका. तांका आमचो गोंयचो फा. आताईद नाका आनी मार्टीन मिनिन फेर्नांडीसासारके शिक्षकूय नाकात. कित्याक हे लोक विचार करतात. दुसऱ्यांच्या विचारान चलनांत. तांचेवरींच जर हेर सगळो ख्रिश्चन समाज विचार करूंक लागलो जाल्यार आयज जांच्या फाटल्यान मतदार म्हूण हे लोक रावल्यात ते रावचेनांत. देखुनूच तांका आसा तशेच दवरपाचें राजकारण इंग्लीश ही पोटाची भास अशें सांगून तांका इंग्लीश माध्यमाखातीर खुबळावन खेळटात. हेच राजकारणी गोंयच्या राजकारणांत दबावतंत्र वापरतात जाका दिगंबर कामतां सारको मुखेलमंत्री बळी थारलो. अशे वेळार ह्या षडयंत्राआड झुजून, फकत ख्रिश्चन समाजाकूच न्हय तर इंग्लीश शिकल्यारूच मनीस मुखार पावता असो पिशेपणाचो विचार तकलेंत घेतिल्ल्या हिंदूकय शाबुद्दीर हाडपा खातीर गोंयचे कोंकणीवादी आनी मराठीवादी हातांत हात घालून मुखार सरल्यात..

कोंकणी-मराठीचो वाद घेवन बशिल्ल्यान कोणाचोच फायदो जालोना तर गोंयचें खूब व्हडलें लुकसाण जालां अशें सगळेच मानतात. अशें मानप्यांक हे पारंपारीक विरोधक आयज एकठांय जावन इंग्लीशी आड झगडूंक लागल्यात तें पळोवन खूब खोस भोगल्या. जाहीरपणान अभिनंदन करून ते आपली खोस उक्तायतात. कोंकणी-मराठी भाई भाई म्हणत एकमेकांक वेंग मारतात. आयज हें भाई भाई म्हणून नाचप फुडाराक कितलें परवडटलें हें मात कोणाक खबर ना. १९६२ त जशे हिंदी-चिनी भाई-भाई करून भारतीय नाचताले आनी भाई भाई म्हणत चिनान भारतीयांचे फाटींत खंजीर खुपसलो तीच गत ह्या कोंकणी-मराठी भाई भाई प्रकरणात जातली म्हणपाची सुलूस लागूंक लागल्या.

## कोंकणी-मराठीवादान लुकसाण जालें?

कोंकणी-मराठीवादान गोंयचें खूब लुकसाण केलें अशें ह्या वादाकडेन पळोवपी जण एकलो म्हणटा. कांय कोंकणी लेखक तर अजून रडगाणें गायतात, ह्या नाका जाल्ल्या वादान आमची शक्त वगडायली. बरोवपाचो जो काळ आशिल्लो तो कोंकणी ही गोंयकारांची भास अशें सांगून, मराठी मराठी म्हणत न्हिदेचें सवंग घेतिल्ल्या गोंयकारांक जागे करपाखातीर दिवचो पडलो. ह्या मराठीवाद्यानी कारण नासतना आमचो वेळ खालो. ह्या भाशावादाक लागून कोंकणीचें जैत जालेंच. पूण ताचो फायदो मात चड जालो तो मराठी मराठी करप्यांक!

तांच्या ह्या आरोपांत तथ्य आसतय. आसाच म्हळ्यार जाता. गोंय महाराष्ट्रा पासून वेगळें उरूंक पावलें तें फक्त कोंकणीक लागून. आमची भास कोंकणी देखून आमची संस्कृताय कोंकणी. तेच पासत गोंय हो महाराष्ट्राचो कुडको आसुंकच शकना ह्याच तत्वाचेर गोंयकार जनमत कौल जिखूंक पावले. गोंय महाराष्ट्रांत विलीन जालें ना. गोंयकार हो गोंयकारूच उरलो. तो महाराष्ट्रीय जालोना. हो कोंकणीचो सगळ्यांत व्हडलो फायदो. हेच कोंकणीक लागून वामन रघुनाथ वर्दे वालावलीकारा सारको एक येंप्रेगाद शणै गोंयबाब जावंक पावलो. इतिहासांत तांची सुवात सुगूर जावंक पावली. तांचें नांव भारतांतूच न्हय तर कोंकणी भाशेचो प्रवर्तक म्हूण देशाची शीम हुपून भायर गेलें. ह्या यशा मुखार गोंय कोंकणीच्या नाड्यार वेगळें उरलें देखूनच मराठी मराठी म्हणपी बांदोडकार मुखेलमंत्री जावंक पावलो, शशिकला काकोडकार मुखेलमंत्री जावंक पावली, रमाकांत खलप, गोपाळराव मयेकार मंत्री-आमदार जावंक पावले अशें जें आमी म्हणटात तो तांका जाल्लो लाब खूब उणो. कुसकूटभर म्हणपा इतलो.

जर कोंकणी-मराठी हो भाशावाद नाशिल्लो जाल्यार गोंय मुक्त जाल्या बराबर केंद्र सरकार गोंय महाराष्ट्राक जोडून मेकळें जावपाचें. खंयच्याय राज्यांतल्या एका जिल्ह्या परसूय आंवाठान ल्हान आशिल्ल्या गोंयांक वेगळो संघप्रदेशाचो वो राज्याचो दर्जो दिवप वेव्हारीक नदरेन पिशेपणाचेंच थारतालें. तातूंत गोंयचे भोवसंख्य हिंदू तर आपली भास मराठी, आपली संस्कृताय महाराष्ट्रीय अशें सांगताले. कारण कितें तर आपणें आपली भास कोंकणी म्हूण सांगली, आपूण गोंयकार म्हूण सांगलें जाल्यार आपल्याक कोणूय फिरंगी समजत, किरिस्तांव समजत म्हूण. ह्या भोवसंख्य हिंदूनी जर आमकां मराठी आनी महाराष्ट्र जाय म्हणिल्लें आनी विरोध करपी कोण हिंदू नाशिल्लो जाल्यार गोंय महाराष्ट्रांतूच वचपाचें आनी हांगच्या किरिस्तांव समाजाक खाशेलो दर्जो मेळपाचो.

पूण अशें जाल्लें काळाक नाका आशिल्लें. काळाक गोंयचे भुयेंतूच कर्तृत्वी मनीस घडोवपाचे आशिल्ले. गोंयकार गोंयाभायर वचून व्हडले जाले म्हणटात तें सगळें बरें आसा. पूण गोंयच्या गोंयांतूच रावून गोंयकार मोठो जावं येता, आपली भास, आपली संस्कृताय तिगोवन गोंयचो मनीस संवसारार नामना जोडूंक शकता म्हणपाचें काळाक दाखोवपाचें आशिल्लें आनी ह्या भाशावादाक लागून तें गोंयकारांक पळोवंक मेळ्ळें.

बाकीबाब बोरकार हो नीजाचो गोंयकार. तो महाराष्ट्रांत गेलो देखून बा. भ. बोरकर जावंक पावलो. मराठी साहित्य जगत बा. भ. बोरकर हें नांव वगळावंक शकच ना. महाराष्ट्रान बा. भ. बोरकरांक आपलो मानलो. कित्याक ताचे कडल्यान मराठी काव्यशारदेची सेवा घडटाली. पूण जेन्ना बा. भ. बोरकरांक तांच्या वावराची परतफेढ करपाचो प्रसंग आयलो तेन्ना मात महाराष्ट्राचे हात आखुडले. बाकीबाबाक साहित्य संमेलनाचें अध्यक्षपद फावता आसुनय मेळ्ळें ना. साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार दिलो ना. लक्ष्मणराव सरदेसाय हे मराठींतले ज्येश्ठ कथाकार. मराठी कथेंत ताणीं आपलेपरीन भर घाली. शंकर रामाणी हे गोंयकार मराठी कवी. ताणीं आपले कवितेंत मराठी काव्यांत खाशेलो ठसो उठयलो. पूण तांचोय विचार साहित्य अकादेमी पुरस्कारा पासत जालो ना. धरून चलुया हे तिगूय गोंयकार आपली आवयभास कोंकणी म्हणटाले. पूण हालींच भायर पडल्यात ते सुभाष भेंडे तर आपल्याक पुरायेन मराठी मानताले. तांचोय साहित्य अकादेमीच्या पुरस्काराखातीर केन्ना विचार जालोना. हाचें कारण एकूच, मराठी आसलो तरी हो महाराष्ट्रीय न्हय हो विचार महाराष्ट्रान सदांच याद दवरलो. जर गोंय महाराष्ट्रांत विलीन जाल्लें जाल्यार अधिकृत महाराष्ट्रीय जावनय गोंयकार मूळ मराठी मनशा मुखार तग धरूंक पावचोच नाशिल्लो. महाराष्टांतलो गोंयकार मराठीमनीस सुण्यापास्ट वागणूक मेळिल्ल्यान आपलो स्वाभिमान, सत्व शेणोवन बसतलो आशिल्लो.

कोंकणी चळवळीन गोंयकारांचो स्वाभिमान जागयलो. गोंयच्या भौजनसमाजाक आत्मसन्मानाचो आक्षात्कार घडयलो. आपुणय

आपले भाशेंतल्यान साहित्य निर्मिती करून हेर भासांचे पंगतीक वचून बसूंक शकतात म्हणपाचें ह्या कोंकणी मनशान सिध्द करून दाखयलें. ती संद तांका हे चळवळीन दिली. अशे तरेची कतृत्व गाजोवपाची संद फक्त एकदांच मेळटा. ती जो कोण घेता ताचें भांगर जाता. जांचे सामकार संद येवनूय जाणी ती घेतलीना ते कर्मकट्टे!

कोंकणी राजभास चळवळ म्हणात वो कोंकणी-मराठी भाशावाद चळवळ म्हणात, हे चळवळीक लागून गोंयांत भौजन समाजांतल्या तरनाट्यांचें एक नेतृत्व तयार जावंक पावलें. खंयचेय माचयेर वयर चडत जाल्यार मराठीतूच उलोवंक जाय अशे तरेचो समज आशिल्ल्यान, उलोवंक येता आसुनय हे लोक उलोवंक फाटीं रावताले. तेच पासत गोंया भायले मराठी वक्ते येताले. कोंकणी चळवळीक लागून कोंकणींतल्यानूय उलोवं येता म्हणपाचो विचार वक्त्यांमदीं पातळ्ळो आनी ते भाशेंतल्यान सुस्पश्टपणान उलोवपी वक्तृत्व गोंयांत तयार जालें. आयज फकत कोंकणीवादीच न्हय तर एकवेळार मराठी उलोवंक येना वो आपली तांबडी मराठी अशें मानून उलोवपाक फाटीं फुडें सरताले ते मराठीवादी लेगीत आता कोणाचीच भीड मुर्वत बाळगिनासतना मराठी उलयतना दिसतात. कोंकणी चळवळीक लागून तांच्या मनांतलो न्यूनगंड ना जावन गेला. राजकीय, सांस्कृतीक, धार्मीक अशे खंयचेय माचयेर वचून पळयात, आयज सुत्रसंचालना पासून भाशणां-प्रवचना मेरेन कोंकणींतल्यानूच जातात. तातूंत उलोवप्याक आत्मविश्वास आयिल्लो दिसता. हेंच हे चळवळीचें व्हडलें जैत म्हणूंक जाय.



गोंयच्या कोंकणी साहित्यिकांक कांय मराठीवादी हिणसायतात. तांका दरवर्सा मेळपी साहित्य अकादेमी पुरस्कार पळोवन मत्सरान ते जळटात. साहित्य अकादेमी पुरस्कारांत व्हडलें कितें आसा, तो कोणाकूय मेळटा अशें म्हणत हे मराठीवादी बकच्छायो करतना दिसतात. पूण ह्यो बकत्सायो फकत मत्सरांतल्यान जातात हें मतींत दवरूंक जाय.

महाराष्ट्र आनी हेर राज्यां हीं आवाठान आनी लोकसंख्येन व्हड आशिल्ल्यान ह्या राज्यांतल्या साहित्यिकांचो आंकडो चड आसा. आंकडो चड आशिल्ल्यान तातुंतल्यान पुरस्काराखातीर पुस्तक वेंचून काडूंक बरीच कडक सर्त जाता. पुरस्कारा पासत एकूच पुस्तक वेंचून काडपाचें आशिल्ल्यान बाकीचे लेखक आपशींच भायर पडटात. बऱ्यांतल्या बऱ्या साहित्यिकाक ते पासत केन्नाच पुरस्कार मेळप शक्य नासता. पूण कोंकणीच्या मळार तशें घडना. कोंकणी भाशीक वाठार हो लोकसंख्येन ल्हान. तातुंतले बरोवपीय संख्येन उणे जाल्ल्यान हेर भासांत जशी पुस्तक वेंचून काडपाक सर्त जाता तशी कोंकणींत जायना. पूण प्रक्रिया तीच आसता. पूण फरक इतलोच आसता, जांका हे पुरस्कार फावो जातात ते गोंयचो आंवाठ ल्हान आशिल्ल्यान एकमेकांच्या संवकळीचे आनी परिचयाचे आसतात. ताचीं धोंगांपोंगा सगळ्यांक खबर आसतात. हाका लागून पुरस्कार लाभिल्लो व्हड आसूंक शकता हें मानपाकूच ही मनोवृत्ती तयार नासता. पूण कोंकणीक साहित्य अकादेमीची मान्यताय मेळिल्ल्यानूच, ती आठवे वळेरेंत गेल्ल्यानूच हे पुरस्कार गोंयकारांक मेळूंक पावले. गोंयकार साहित्यिक राष्ट्रीय पावंड्यार पावंक शकलो. हेंय कोंकणी चळवळीचें जैत. नातर बाकीबाब, लक्ष्मणराव, रामाणी हांका ही संद मेळपाची नाशिल्ली. आताचे पिळगेंतले विष्णु वाघा सारक्या प्रतिभावंताकूय तो कोंकणींतल्यानूच मेळटलो. मराठींतल्यान न्हय.

## भाशावादाक लागून इंग्लीशीचें फावलें.

गोंयांत कोंकणी-मराठी भाशावाद सुरू जालो आनी इंग्लीश भाशेचें फावलें अशें जें म्हणटात ताका रजांव आसा. गोंयांत जो भाशावाद आसा तसो हेर राज्यांत ना. हेर राज्यांतलो खंयचोच नागरीक आपली भास ही आपली भास न्हय अशें म्हणना. उरफाटे आपले भाशे आड कुस्कूटभर लेगीत अन्याय जाल्यार ते पेटून उठ्ठात. जे कोण पर्यटक दक्षिणेकडेन वतात ते थंयच्या राज्यांतले, तांचे भाशेंतले रासवळ फलक पळोवन तिडकतात. कित्याक तिडकतात तर त्या भासांची लिपी तांका कळना. ह्यो जिलेब्यो कोणे खावपाच्यो काय म्हणटात. पूण त्या राज्यांतलें हें सगळें थंयची संस्कृताय दाखयतात. ह्या राज्यानी आपली संस्कृताय तिगोवन दवरल्या. तांका आपले भाशेचो आनी

संस्कृतायेचो अभिमान आसा. आमी जे कोण पर्यटक म्हूण त्या राज्यांत वतात ते थंय रावपाक वचनांत, एक आठ दिसांक वतात वो म्हामार्गावेल्यान पासार जातात. म्हणटकच तितले त्रास सोसूंक जायच. लोकांकडेन संपर्क दवरून वाठाराचो परिचय करून घेवपाक जाय. त्या लोकांक समजून घेवप हाका लागून शक्य जाता. हे फलक जर आमकां समजता ते भाशेंत आशिल्ले जाल्यार त्या लोकांच्या राज्यांत वचूनय आमी तांका केन्ना समजूंक पावपाचे?

तर आपली संस्कृताय तिगोवन दवरपी ह्या राज्यांतल्या लोकांची तोखणाय करूंक जाय. भायल्यान येवपी हे खिणयाळे आसतात. तांका त्या राज्याच्या सुखदुख्खाचें पडून गेल्लें नासता. जें कितें भोगपाचें आसता तें त्या राज्यांतल्या लोकांकूच भोगपाचें आसता. आता जर कोणाक त्या राज्यानी वचून राबितो करपाचो आसा ताणीं थंय वचून ती भास शिकून घेवंकूच जाय. ती शिकतच मनीस त्या समाजांत भरसता. तांचोच जावन वता. हाकाच आमी राष्ट्रीय एकचार म्हणटात.

पूण गोंयांत अशें ना. गोंयचो मनीसूच आपले कोंकणी भाशेचो सगळ्यांत व्हडलो दुस्मान. तोच आपले भाशेक जीव तोडून विरोध करता. एक गट आपल्याक मराठी जाय म्हणटा. रासवळ फलकांचेर मराठीच जाय म्हणटा. हें तो कोंकणींतल्यान सांगता. गोंय मुक्त जावन पन्नास वर्सां सरलीं तरी हांगचो क्रिस्तांव देवनागरी शिकना. तांका रोमी जाय. इंग्लीश जाय. आपली कोंकणी सोडून तांका हेर भासो जाय. असले आपलें सोडून परा फाटल्यान धांवपी, आपलें तें आपलें न्हय म्हणत परक्या फाटल्यान धावपी, ते खातीर झगडपी हे धर्तरीवयलो गोंय हो एकूच वाठार!

गोंयकारांच्या ह्या आत्मभश्टेपणाक लागून इंग्लीशीचें फावलां. गोंय मुक्त जाले बराबर गोंयचें भाशीक धोरण थारायल्लें, देशांतल्या हेर राज्यांत जशी भाशावार प्रांतरचना हें तत्व वापरलां, त्याच तत्वाचेर गोंय हो कोंकणी प्रदेश देखून गोंयची भास ही कोंकणीच अशें धोरण मानून घेवन जर राज्याची उबारणी केल्ली जाल्यार आयज गोंयांत हो भाशीक वाद आसा तो उरचो नाशिल्लो. आमकां गोंय, धार्मीक वेगळोचार आसुनय एक संघ आशिल्लें दिसपाचें. आयज जो इंग्लीशीचो म्हारू गोंयच्या जिवीतांत खुबता तो खुबचो नाशिल्लो. पूण गोंयच्या कांय लोकांच्या मनांत मराठीचो देंवचार रिगलो. मराठीचे दुश्परिणाम फुडाराक कितें जातले हाची सुलूस लागिल्ल्यान कोंकणी भाशेचें म्हत्व कळिल्ले लोक ह्या पिशेपणाआड झगडत रावले. तरी गोंयची आदर्श राज्य म्हूण एक घडी बसूंक जाय आशिल्ली ती बसूंक पावली ना. आयज गोंयची 'आव जाव घर तुम्हारा' अशी जी परिस्थिती जाल्या ताचें मूळ कारण हो भाशावादूच. त्या काळार एक भाशासूत्र आपणावन जर गोंयचो विचार जाल्लो जाल्यार गोंय आयज आसा तशें केन्नाच जावंक पावचेनाशिल्लें. गोंयकार धनीपणान ह्या गोंयचेर राज्य करपाचो! पूण भाशावादाक लागून म्हणात वो गोंयकारांचे परधार्जिणे वृत्तीक लागून म्हणात आयज गोंयकारूच गोंयांत परकी जावन पडला. गोंयांतं उखलापो जायत चल्ला.

## कोंकणी-मराठीवाद्यांचो एकवट - पूण उसरां

आयज कितल्यातरी काळान गोंयच्या भाशावादांतले एकमेकाचे विरोधक एके माचयेर आयल्यात. ते तशे येवपाचें कारण गोंयचेर जावपी इंग्लीशीचें आक्रमण थारलां. इंग्लीश भाशेचो वापर मुळाव्या शिक्षणाचें माध्यम म्हूण जाल्यार गोंयची मराठी आनी कोंकणी भास नानपयत जातली. गोंयची संस्कृताय ना जातली. गोंयकारांच्या येवपी पिळगेच्या मनांत राष्ट्रवादाचीं बियां किल्लवपाचीं नांत अशीं खूबशीं कारणां दिसूंक लागिल्ल्यान गोंयच्या ह्या दोन भाशाअभिमान्यांक एकठांय येवपाची गरज दिसली. ते तशे एकठांय आयल्यात अशें दिसलें तरी ते एकठांय नांत. गोंयच्या कोंकणी चळवळींतल्या मनशांकडेन पळयत जाल्यार तांचे भितर कसलेच छक्केपंजे नांत. गोंयचे लोक जी कितें भास उलयत आयल्यात ती कोंकणी भास, ती दर एका गोंयकाराक कोणे शिकयले बगर आपसूक येता. म्हणटकच तीच गोंयच्या लोकांची भास हें कोंकणीवादी प्रांजळपणान मानतात आनी जे कोण सत्य मानतात तांका हें सत्य पटपाक जाय. कित्याक जे कोण मराठी म्हणटात तेय हेच भाशेंतल्यान मराठी जाय म्हणटात. जर ह्या इतल्या वर्सांच्या वादाचेर तोडगो काडूंक जाय जाल्यार गोंयचे जे कोण मराठीवादी आसात वो उरल्यात ताणी खरें म्हळ्यार मान्य करूंक जाय आशिल्लें की आपूण चुकतात म्हूण! आमी कोंकणी उलयतात. पयलीं ती भास नाशिल्ली तर बोली आशिल्ली अशें आमकां दिसतालें ती आता भास जाल्या. आमकां मराठीची सेवा करपाची गरज ना. ती करपाखातीर धा-बारा कोटी मराठी लोक महाराष्ट्रांत आसात. आमकां करूंक जाय ती कोंकणीची सेवा. ती करूंक महाराष्ट्रांतल्यान कोण येवपाचो ना. आमी जे कोण गोंयांत आयज गोंयकार म्हूण सात-आठ लाख आसात तांकाच ती सेवा करूंक जाय. गोंयांत आयिल्ले भायले लोक ती करपाचे नांत आनी किरिस्तांव समाज तर करचोच ना. कित्याक तांचीं मुळां हे भुंयेंत दवरूंक ते सोदीच नांत. म्हणटकच हो मराठीवाद सोडून कोंकणी आमची भास म्हणतूच आमकां इंग्लीशी आड लढूंक जाय अशें ह्या मराठीवाद्यांनी खरें म्हळ्यार म्हणूंक जाय आशिल्लें.

पूण एका मंचार आयिल्ले हे मराठीवादी निर्णय घेवपाचे बसकेंत कोंकणी उलयतात, शशिकला काकोडकारूच न्हय तर मराठी अकादमीचो अध्यक्ष लेगीत कोंकणी उलयता. रासवळ जाहीर सभेंतूय कोंकणी उलयतात आनी लोक ते उलयतात तें मोन्यानी आयकून प्रतिसाद दितात. हांगा उलयतल्याकूय आडखळ जायना आनी

आयकतल्याकूय. एक मराठी वक्तो अनिल सामंत तितलो मराठी उलयता. तेंय जाहीर सभेंत, हेरांकडेन कोंकणी उलयता. ताची आवयभास मराठी. ताका उलोवं मराठींत. पूण ह्या मराठीवादी गोंयकारांचो कोंकणीतल्यान मराठी मराठी करपा फाटलो उद्देश्य कितें? हे आपल्याक फटयनात?



मराठी शाळा चलोवपांत, मराठी शिक्षण घेवपांत, वृतपत्रां-मासिकां चलोवंक, साहित्यिक, सांस्कृतिक चळवळ चलोवंक कोणाची हरकत ना. पूण हरकत आसा ती मराठी गोंयची राजभास करपाक. गोंयांत मराठी राजभास केल्यार ती कायदेशीर बाब जाली. मराठी ही गोंयची राजभास म्हूण हक्कान जर खंयचोय मराठी मनीस आयलो

ताणीं गोंयच्या बऱ्या खातीर आता तरी हें सोडपाक जाय आशिल्लें. पूण हे लोक अजून सत्या पासून पयस वचत आसात. अशें मनांत एक आनी जनांत एक अशें दवरून गोंयचो विकास जावपाचो ना. इतलो काळ विरोधात रावन आयिल्ले एकठांय जावपाचे नांत. हातूंत फसतले ते सादेभावार्थी कोंकणीवादी. ते फटवत आयल्यात आपल्या सादेपणान. ते सट्ट करून कोणाचेरूय विस्वास दवरतात आनी फटवतात.

गोंयचो कोंकणीवादी हो मराठी भाशेचेर वयर सरला ही खरी गजाल. ती काळाची गरज. ते काळार गुजराती, हिन्दी लागीं आशिल्ली आनी मराठीचो जसो आदार मेळिल्लो तसो मेळूंक नाशिल्लो जाल्यार गोंयकार गुजराती, हिन्दीक लागीं वचपाचे. हे वटेन कर्नाटक लागीं आसुनय कन्नडाकडे वचपाचे नाशिल्ले. ती द्रविडीयन संस्कृताय. मराठी आर्य संस्कृती जाल्ल्यान मराठी लागीं आशिल्ली. तातूंत गोंय केन्ना तरी मुक्त जातलें आनी तो महाराष्ट्राचोच भाग जातलो अशीं सपनां महाराष्ट्रांतले राजकारणी पळयत आशिल्ल्यान मराठी गोंयांत वाडची म्हूण तांचोय प्रयत्न चलतालोच. जर ताणीं दुस्वास केल्लो जाल्यार गोंयकार हिन्दीक लागीं वचपाचो. गोंयांत हिन्दी प्रचार सभा आशिल्लीच. खूबशे लोक तेच खातीर हिन्दी शिकले. पूण लागीं रावले ते मराठीक. पूण ताणीं मराठीचें रीण फारीकूय केलां. बाकीबाब बोरकार, लक्ष्मणराव सरदेसाय, शंकर रामाणी असले लोक मराठीक दिले. आयज कितले तरी कोंकणी मनीस मराठीची सेवा करतात. ती सेवा करपांत कांयच गैर ना. गोंयांत मराठी शाळा चलतात, वृतपत्रां येतात, पुस्तकां येतात. मोठी बाजारपेठ हे मराठीक लागून महाराष्ट्राक मेळ्ळ्या. कोट्यानी रूपया महाराष्ट्रांत वतात पूण मराठी राज्यभाशा करपाक मात गोंयकारांची हरकत आसा.

जाल्यार ताका कायद्यान कोणूच आडावंक शकना. कित्याक ती मराठी राजभास आसा. म्हणटकच एका राज्यांत दोन भासो राजभासो म्हूण खंयच नासतना गोंयांत गरज नासतनाय मराठीकय राजभास करप हाची इतलीं पिशेपणां दुसरीं नांत. हीं पिशेपणां कोण करतात तर जे लोक घरांत, भायर सगळेकडेन कोंकणी उलयतात तेच. तांचे आवयक कोंकणी सोडून दुसरी भास कळना तेच. जर कोणूय गोंयांत मराठी मातृभाशीक आसा आनी तांचो प्रदेश आसा आनी ताणी मागणी केली जाल्यार एकवेळ समजूं येतालें. पूण राजभाशेची मागणी करतात ते कांय गोंयकारूच. आपले हातानी आपल्या पांयार फातर मारप्याक तशें करूंक दिवप गोंयच्या हिताचें काय कितें होय प्रस्न गोंयच्या लोकांमुखार आशिल्लो.

## आतां मराठीय राजभाशा जातलीच!

इंग्लीश माध्यमाच्यो मुळाव्यो शाळा जातात तेन्ना गोंयची संस्कृताय भ्रश्ट जातली, देशी भाशांचेर हावळ येतली अशें म्हणत इतलो काळ एकमेकांचे पारंपारीक विरोधी आशिल्ले कोंकणी मराठीवादी एकठांय येवन इंग्लीश माध्यम धोरणाआड झुंजतात तरी मराठीवाद्यांचो एक कट्टरपंथ आतां सक्रीय जाला. मराठी राज्यभाषा प्रस्थापन समितीच्या नांवान हे कट्टरपंथी मराठी राजभाशेची मागणी घेवन मुखार सरल्यात. शशिकला काकोडकारांच्या फुडारपणा खाल जो कितें भारतीय भाशा सुरक्षा मंच तयार जाला त्या मंचांतल्या निमंत्रकानी आपल्याक विस्वासांत घेवंक ना वो मंचाचे समितींत घेवंक ना म्हणपाचो आक्रोश ताणीं सुरू केला आनी मराठी राजभाशेच्या मागणेचे घोडें म्हणा वो गाढव म्हणात मुखार धांवडावंक आरंब केला. भारतीय भाशा सुरक्षा

मंचाचे निमंत्रक ही मागणी करपाची ही वेळ न्हय अशें जरी सांगतात तरी तांचें आयकुपाचे तयारेंत हो कट्टरवादी पंथ ना. ह्या मराठीवाद्यांनी आपली मागणी मुखार रेटपाक आरंभ केलाच. विष्णु वाघां सारखे लोक तांका ओगी रावात, मागीर पळोवया, पयलीं हो विशय सोडोवया अशें आवाहन करतात. म्हणटकच ह्या लोकांक असत्याचे बुन्यादीर आशिल्लो हो वाद सोपोवपाचो नाच. कोंकणी-मराठी वाद्यांनी एकठांय येवन इंग्लीशीचें आक्रमण भायर मारलें म्हणटकच परतून मराठीवादी आपली राजभाशेची मागणी करूंक मेकळे. म्हणटकच आयज जे कोंकणीवादी ह्या मराठीवाद्यांचे मांडयेक मांडी लावन बसतात, मराठीवाद्यांनी कोंकणी-मराठी भाई भाई अशी आरड मारतकच मुमुरख्यानी हांसतात ते कोंकणीवादी फाल्यां वो आतांय ही चळवळ चलतना मराठी राज्यभाशेची मागणी जाली आनी सरकारान ती मान्य करपाची थारायली जाल्यार तो निर्णय खंयच्या तोंडान मान्य करतले? आयज भारतीय भाशा सुरक्षा मंचाच्या छत्राखाला कोंकणी फुडारी एक जाल्यात ताणीं जर म्हळें आतां कोंकणी ही एकमेव भास राजभास आसतली जाल्यार ज्या लोकानी आयचे चळवळी वेळार हांचीं भाशणां आयकल्यांत ते ह्या कोंकणीवाद्यांक कितें म्हणटले?




म्हणटकच आयज कोंकणीवादी मराठीवाद्यांच्या हातांत सापडला. ताणी मराठीक समर्थन दिलां. एक वेळार मराठी भास कोंकणी संस्कृतायेचेर हांवळ हाडटा अशें हे फुडारी म्हणटाले तें लटकें म्हणपाचें लोक मानूंक लागल्यात. म्हणटकच मराठी राजभास जावंक हरकत ना असोच विचार समाजांत रूजूंक लागला. आयज इंग्लीश माध्यम नाका अशें जें हमीपत्र पालक वो विद्यार्थी दितात तातुंतले ९० टक्के आपल्याक मराठी शिक्षणाचें माध्यम जाय म्हूण दितात. तांच्या ह्या कृत्याक आयचो कोंकणीवादी हरकत घेवंक शकना. इंग्लीश मागप्यांच्या मनांत जसो न्यूनगंड आसा तसो मराठी मागप्यांमदींय आसा. इंग्लीश मागप्यांक जशें दिसता की इंग्लीश शिकल्यार आपल्याक फुडार आसा तसो मराठी शिकल्यार आपल्याक फुडार आसा असोय न्यूनगंड गोंयांत आसा. तो पयस जावंक ना. फक्त मराठीवाद्यांचो न्यूनगंड सोसून घेवपाचो, कित्याक तर मराठी ही देशी भास. हेच देशी भाशांचे सुरक्षे पासत भाशा सुरक्षा मंच तयार जाला आनी तिची सुरक्षा करपाक कोंकणीवादीय कटीबद्द आसात.

ही अशी परिस्थिती निर्माण जाल्ली आसतना आज वो फुडाराक एकूच गजाल करची पडटली. जर गोंयचो मराठी-कोंकणी मनीस एक उरतलो जाल्यार मराठीकूय राजभाशेचो दर्जो दिवचो पडटलो. आता राजभास करून कितें भाग्य फळफळटा अशांतली गजाल न्हय. कोंकणी राजभास जावन फाटल्या पंचवीस वर्सांत कितें घडलां तें सगळ्यांक खबर आसा. राजभास जाले बराबर सगळे कोंकणीवादी थंड पडले. ते वेगवेगळीं पदां घेवन फक्त साहित्यिक आनी सांस्कृतीक कार्यावळी घडोवन हाडूंक लागले. पुरस्कार भेटोवंक लागले. गांवांगांवांनी वचून लोकां भितर जागृताय हाडपाचें काम चलतालें तें बंद जालें. 'सुनापरान्त' हें दिसाळें अजून एक हजारांचो आकडो हुपना. उरफाटें काल पयर आयिल्लें लोकमता सारकें दिसाळें सत्तर हजारांचो आंकडो सांगता. हाचें कारण म्हळ्यार कोंकणीवाद्यांची मोख कोंकणी राजभास करपा पुरतीच आशिल्ली. गांवांगांवांनी वचून कोंकणीची गरज उक्तावन तांका कोंकणीचो वापर करूंक जागृत करपाकडेन नाशिल्ली. पूण मराठीच्या वांट्याक परंपरेचो आशिर्वाद मेळ्ळो. पुर्तुगेज काळा सावन ही परंपरा आसा. तेच परंपरेच्या प्रभावाखाल मराठी लोकांकडेन पावल्या. मराठीवाद्यांक विशेश प्रयत्न करचो पडूंक ना. म्हणटकच मराठी राजभाशा करूनय कितें फरक पडटलो असो ना. फक्त तांका मानसीक समाधान, आमी मराठी राजभाशा करून दाखयली. ह्या समाधाना मुखार गोंयचें पाड पडल्यार उपकारता.

मराठी राजभाशा करपाची मागणी आता तरी मराठी कट्टर पंथवादी सोडल्यार कोण करचोना असो आशावाद बाळगुया. तरी पूण मेळिल्ले संदीचो लाब घेवन ही मांगणी मुखार येतलीच. तेन्ना कोंकणीवादी कितें रणनिती आपणायतलो तें पळोवया. तांचो विरोध जातलो काय ते मराठी राजभाशा करूंक तेंको दितले?.

आयची तरी परिस्थिती पळयत जाल्यार मराठीय राजभास केले बगर पर्याय ना अशेंच दिसता. कारण काळाचीं पावलां तेच दिकेन वतात. ह्या वेळार कसोटी लागपाची आसा ती भारतीय भाशा सुरक्षा मंचाचेर बशिल्ल्या कोंकणी नेतृत्वाची!

■ ■ ■



# विकास खंयचे दिकेन?



चोरी, दरवडे, खून ही विकृताय म्हणपाचें सगळे मानताले. आयज गोंयांत चोरयो दिसपट्ट्यो जातात. दरवडेय मदीं मदीं पडटात आनी हालिंसाराक तर खुनूय आऱ्या-पयऱ्यान जावपाक लागल्यात. फिरंग्यां मुस्तींत गोंय 'सभ्य' आशिल्लें, आतां 'रानटी' जालां अशें म्हणूं येत व्हय? रानटी जालां जाल्यार तें कित्याक लागून जालां? 'विकासा'क लागून अशी जाप दिवं येत व्हय? जाल्यार मागीर 'विकास' करूंक दिवपाचो व्हय?

एका इश्टाक घेवन बांदोड्या वचपाक भायर सरिल्लों. ताका देवळां दाखोवपाचीं आशिल्लीं. कोनेचें तळें काडून जातकूच फर्मागुडी सुरू जाली. तेन्ना थंय आशिल्ली पोलीस चौकी पळोवन इश्टान विचारलें, ''हें कितें?''

''पोलीस चौकी.'' हांवें जाप दिली.

''पोलीस चौकी? ती हांगाशी? हांगा जितो मूस दिश्टी पडना. असले निर्जन सुवातेर पोलीस चौकी बांदपाची बुद्द तुमच्या सरकाराक कित्याक जाली?''

जिबेर जाप आयिल्ली, ''हालिंसाराक हे सुवातेर पर्यटक येवन रावपाक लागल्यात. सरकारान तांचे खातीर हांगा कांय कॉटेजीस बांदल्यात... हे पर्यटक सोरो पियेतात आनी केन्ना केन्ना एकामेकांच्या आंगार धांवन वतात. तांच्या आधाराक सरकाराक ही पोलीस चौकी हांगा बांदची पडल्या.'' पुणून ही जाप जिबेर येवन थंयच थांबली. भायर फुटली ना, फुटूंक दिल्ली जाल्यार इश्ट घडये दुखावतलो आशिल्लो. कित्याक, तोय गोंयांत पर्यटक म्हूण आयिल्लो. म्हळें, बेश्टो दुखय कित्याक? आनी हांवें जाप दिली, ''खरेपणानशीं हांगा पोलीस चौकेची निखालूस गरज नाशिल्ली. सरकाराक ती कित्याक बांदचीशी दिसली, म्हाका खबर ना.''

मन कांय वर्सां फाटल्यान गेलें.

गोंयची सुटका जायनाफुडें बाकीबाब पुण्यांत सावन पणजे आयले. पणजेचे आकाशवाणीर प्रोड्यूसर म्हूण काम करपाक लागले. रावपाक तांकां आकाशवाणीन एक फ्लॅट दिल्लो. हांव ह्या फ्लॅटार तांकां मेळूंक मदीं मदीं वतालों. एक दीस असोच सकाळचो मेळूंक गेल्लों. वरभर बसून भायर सरलों तेन्ना बाकीबाबूय भायर सरले. तांगेलो ऑफिसाक वचपाचो वेळ जाल्लो. आमी सपणां देंवन सकल गेल्ले. अवचीत बाकीबाब म्हणपाक लागले, ''मात्सो राव आं... रोखडो वयर वचून येतां.'' हांव थंयच थांबलों. बाकीबाब वयर गेले आनी एक-दोन मिनटांत परतले. ''कितें हाडपाक विसरिल्ले काय कितें?'' हांवें विचारलें.

''ना रे. दार ओडून घेतिल्लें. तें परतें उकतें करून आयलों.... पंदरा वर्सां पुण्यांत उरलों. थंय म्हाका ही दार ओडून घेवपाची संवंय जाल्ली. पुण्यांतली ही संवंय हांगा मोडूंक जाय म्हणपाचें पयर आमचे शेजान्नीन म्हज्या लक्षांत हाडलें. ती आपणाल्या फ्लॅटाच्या दारांत उबी राविल्ली. हांवें आमच्या फ्लॅटाचें दार ओडून घेनाफुडें मुखार आयली आनी म्हाका म्हणपाक लागली, ''सिन्योर बोरकार, आमी तुज्या शेजरा रावतात तीं चोरां अशें तुका दिसता काय कितें?... कित्याक दार ओडून घेता?...'' तेन्ना पसून दार ओडून घेवचों ना अशें थारायलें. पुणून पंदरा वर्सांची संवंय सपसप खंय मोडटा? हांव सदचे वरी दार ओडून घेतां. सपणां देंवना फुडें चूक लक्षांत येता... रोखडो वयर वतां. दार उकतें करून परततां...''

हांवें म्हळें, हिमालयांतल्या उत्तराखंड वाटारांत हांव दोन म्हयने पांयांनी भोंवलों. खंयचेच कडेन म्हाका कुलूप पळोवंक मेळूंक ना. कोणूय येतलो, घरांतलें सामान चोरून व्हरतलो हो भंयूच थंयच्या लोकांक ना. थंय लोकांक भंय एकूच. तो सावजांचो. तीं चुकून केन्नाय भितर सरतात. तांच्या भंयान लोक रातचे घराक भितरल्यान आडामो घालतात. चोरांचो कोणाक भंय ना. थंय चोरयोच जायनात. कोण दरवडे घालिनात. कोण कोणाचो खुनूय करिना. केन्नाय झगडीं-झुजां जातात. पुणून तीं गांवचे जाणटेले भितरले भितर पालयतात... थंय न्यायालयां नात. सबंद उत्तराखंडांत हांवें पोलीस चौकीय खंयच पळोवंक ना...''

''पोलीस चौक्यो, बंदखणी, न्यायालयां बी सगळीं आयच्या 'सभ्य' समाजाचीं आंगां...'' बाकीबाबान म्हळें. तांगेल्या सुरांत सूर जुळोवन हांवेंय म्हळें, ''चोरी, दरवडे, खून मारामाऱ्यो हिंवूय 'सभ्य' समाजाचींच लक्षणां...''

**अमको एक समाज सभ्य आनी अमको रानवटी हें कित्या वयल्यान थारावपाचें? ज्या समाजांत चोरयो जातात, दरवडे पडटात, खून जातात त्या समाजाक सभ्य समाज म्हणूं येत व्हय? फिरंग्यांचे मुस्तींत गोंयांत चोरयो चडश्यो जायनाशिल्ल्यो. दरवडे केन्ना पडनाशिल्ले. खुनूय जायनाशिल्ले. चुकून केन्नाय असल्यो गजाली घडल्यो जाल्यार कितले-शे म्हयने मेरेन लोक ह्या गजालिंचेर उलयताले. चोरी,**



फाटल्या पस्तीस वर्सां सावन म्हगेलो एक इश्ट नागालँडांत एक आश्रम चलयता. ताका मेळपाक आनी तागेलो वावर पळोवपाक नागालँडांत गेल्लों. नागालँडांत आयजूय 'हेड हंटींग' जाता म्हूण आयकल्लें. विदेशी लोकांनी बरयल्ल्या पुस्तकांनी वाचिल्लें. थंय वेगळे वेगळे जातिचे 'नागा' रावतात. रगतानूय ते वेगळे वेगळे. ते एकामेकांक एकामेकांचे दुस्मान लेखतात. दुस्मानाच्यो तकल्यो मारप हो खंय ह्या लोकांचो एक 'स्पोर्ट' (खेळ). चलयेची सोयरीक व्हरतात तेन्ना चली खंय विचारता, चल्या-भुरग्यान दुस्मानाच्यो कितल्यो गोमट्यो कातरल्यात? चड गोमट्यो कातरपी भुरगो आसत जाल्यार भुरगो हुशार मानून ताका ती पसंत करता. थंय एकल्यागेर जेवंक गेल्लों. तो थंयचो आमदार आशिल्लो. ताका हांवें विचारलें, ''नागालँडांत हेड हंटींग चलता म्हणटात तें कितलेंशें खरें लेखपाचें?''

ताणें जाप दिली, ''म्हज्या आयुश्यांत जाल्लें हांवें पळोवंक ना. म्हज्या बापायनूय पळेल्लें आसत अशें दिसना. आज्याचे मुस्तींत घडये जातालें जावंक जाय. सारकें खबर ना.'' इतली जाप दिवन ताणें म्हाका विचारलें, ''तुमी हिन्दू, चली जायनाफुडें बुडोवन मारतात म्हूण वाचिल्लें. तें कितलेंशें खरें मानपाचें?''

हांव समजलों. 'सॉरी' म्हळें आनी हांवें ताका दुसरो एक प्रस्न विचारलो, ''हांगा तुमच्या समाजांत चलयांचेर बलात्कार जातात काय नात?''

म्हऱ्यांत तागेली धूव बशिल्ली. ती बँगलूराक एका कॉन्वेन्टांत शिकताली. सुटयेंत घरा आयिल्ली. तिणें जाप दिली, 'रेप इझ अ सिविलायझड बार्बेरिटी. ही तुमच्या सभ्य समाजांतली एक रानवटी

चाल. हांगा बलात्कार जायनात. कोणें आयकूंक लेगीत नात.''

अमको एक समाज सभ्य आनी अमको रानवटी हें कित्या वयल्यान थारावपाचें? ज्या समाजांत चोरयो जातात, दरवडे पडटात, खून जातात त्या समाजाक सभ्य समाज म्हणूं येत व्हय? फिरंग्यांचे मुस्तींत गोंयांत चोरयो चडश्यो जायनाशिल्ल्यो. दरवडे केन्ना पडनाशिल्ले. खुनूय जायनाशिल्ले. चुकून केन्नाय असल्यो गजाली घडल्यो जाल्यार कितले-शे म्हयने मेरेन लोक ह्या गजालिंचेर उलयताले. चोरी, दरवडे, खून ही विकृताय म्हणपाचें सगळे मानताले. आयज गोंयांत चोरयो दिसपट्ट्यो जातात. दरवडेय मदीं मदीं पडटात आनी हालिंसाराक तर खुनूय आत्र्या-पयऱ्यान जावपाक लागल्यात. फिरंग्यां मुस्तींत गोंय 'सभ्य' आशिल्लें, आतां 'रानवटी' जालां अशें म्हणूं येत व्हय? रानवटी जालां जाल्यार तें कित्याक लागून जालां? 'विकासा'क लागून अशी जाप दिवं येत व्हय? जाल्यार मागीर 'विकास' करूंक दिवपाचो व्हय?

एक खरें : फिरंग्यां मुस्तींतलें गोंय आयज उरचेंच नाशिल्लें. फिरंगी उरिल्ले जाल्यारूय उरचें नाशिल्लें. गोंय फिरंग्यांचे मुस्तींतूय बदलत रावलां. पुणून ते मुस्तींत हो बदल घडोवन हाडप आमच्या हातांत नाशिल्लें. तें फिरंग्यांच्या हातांत आशिल्लें. आनी बरेंचशें ते मुस्तींतले 'परिस्थिती'च्या हातांत आशिल्लें. गोंय बदलचें, नवें गोंय घडोवचें, आमकां जाय तें रूप ताका दिवंक मेळचें, म्हूण आमी गोंय मेकळें केल्लें. 'आमच्या' हातांत घेतिल्लें. आयजूय आमी 'परिस्थिती'चे अधीन उरचे मू? आमचे मुखार गोंयच्या 'विकासा'ची दिका आतां स्पश्ट आसूंक जाय आशिल्ली. आमकां खंय वचपाचें आसा तें आमीच आतां थारावंक जाय आशिल्लें. एक गजाल विसरूंक फावना: आधुनिकीकरण म्हळ्यार शहरीकरण न्हय. शहरीकरण ही एके तरेची 'वाड' पुणून 'कॅन्सरा' सारकी, 'मॅलिग्नंट'. शहरीकरणान मनीस मनशा पसून तुट्टा. सगळे एकामेकां पसून पयस वतात. शहरीकरण मनशा मनशां मजगतच्या संबंदांक 'बाजारी' रूप दिता. हें सगळें मतींत धरून आमी आधुनिकीकरणाची दिका थारावंक जाय आशिल्ली. आनी विकास हे बुन्यादीर बांदून काडूंक जाय आशिल्लो. आमचे मुखार विकासाची ही दिका स्पस्ट आशिल्ली जाल्यार फर्मागुडयेर पोलीस चौकी येवची नाशिल्ली. उरफाटें, जंय जंय फिरंग्यांनी पोलीस चौक्यो उब्यो केल्ल्यो त्यो आतां काडून उडयात; गोंयांत आतां पोलिस चौक्यांची गरज ना; कित्याक, गोंयांत आतां कोण चोरयो करचे नात, कोण दरवडे घालचे नात, कोण कोणाचो खून करचे नात, हे तरेचो आवाज उठ्ठलो आशिल्लो. जेन्ना पोलीस चौक्यो उण्यो जातात, बंदखणी उण्यो जातात, तेन्नाच समाज विकास करपाक लागला अशें म्हणूं येता. विकास सदां संस्कारितायेचे दिकेन चलत रावंक जाय. तो लोकांचो 'स्टँडर्ड ऑफ लिवींग' वाडोवन न्हय, तर 'क्वॉलिटी ऑफ लायफ' बदलून करूंक जाय. 'सभ्य' समाज म्हळ्यार संस्कारी समाज, सुसंस्कृत समाज, आंतरीक नेमांनी बांदिल्लो समाज, कांय मुल्यांक धरून चलपी समाज. 'लॉ ॲण्ड ऑर्डरी' खातीर जो पोलिसांचेर, बंदखणिंचेर, शासन संस्थेचेर निंबून आसता ताका सभ्य समाज म्हणूं येना तो मागीर केद्याय व्हडल्या पालासिंनी रावपी, आनी केद्याय व्हड ॲर कंडिशन्ड गाडयांनी भोंवपी आसूं.

आमकां खंय वचपाचें आसा तें आमीच आतां थारावंक जाय आशिल्लें. एक गजाल विसरूंक फावना: आधुनिकीकरण म्हळ्यार शहरीकरण न्हय. शहरीकरण ही एके तरेची 'वाड' पुणून 'कॅन्सरा' सारकी, 'मॅलिग्नंट'. शहरीकरणान मनीस मनशा पसून तुट्टा. सगळे एकामेकां पसून पयस वतात. शहरीकरण मनशा मनशां मजगतच्या संबंदांक 'बाजारी' रूप दिता. हें सगळें मतींत धरून आमी आधुनिकीकरणाची दिका थारावंक जाय आशिल्ली. आनी विकास हे बुन्यादीर बांदून काडूंक जाय आशिल्लो.

जे मेरेन आमी 'क्वॉलिटी ऑफ लायफ' वाडोवपाचे दिकेन चलचेनात ते मेरेन आमी असभ्य आनी रानवटी अवस्थेंतूच आसात अशें म्हणचें पडटलें.

ही 'युटोपिया' आसत. पुणून आदर्श म्हूण दोळ्यां मुखार सदां एक युटोपियाच दवरूंक जाय. आमकां मुखार काडपी खंयचीं तरी सपनां आमकां पडूंक जाय. ना जाल्यार-

आमी स्वतंत्र जावनूय परसुवादीन उरतले. कोण तरी आमकां आपणाक जाय ते दिकेन घेवन वतलो. नवें गोंय जल्माक येतलें. पुणून ताका खंयचेच नदरेन 'गोंय' म्हणूंक यवचें ना.

अजून कळाव जावंक ना. ■ ■ ■

**– रवीन्द्र केळेकार**

(***घुस्पल्लें जानवें*** ह्या पुस्तकांतल्यान...)

# निरामय कामजिवन

डॉ. विठ्ठल प्रभू

जुवानपणांत प्रवेश, लग्ना पयलींचें मार्गदर्शन, लग्न, काम-क्रिया, लग्नाची अपुर्तताय, लिंगीक आगळीक, गुरवार जावप, संततनियमन, एड्स, गुप्तरोग, जननिवृत्ती ......




थोडेभितर- कुमारावस्थे पसून जाणटेपणा मेरेन कामजिवनाची सगली माहिती सोंपे, सरळ, सुबोध भाशेंत विवेचन करपी अशें 'निरामय कामजिवन' हें एकमेव संग्राह्य पुस्तक.

1/8 डेमी H/B
कागद 80 GSM
419 पानां

लेखक : डॉ. विठ्ठल प्रभू
अणकार : डॉ. नारायणराव प्रभू कोरगांवकार

स्वयंअनुदानीत मोल : ₹ 100/-




Publisher :
**RAJHAUNS VITARAN**
1-Meenakshi Bldg., Dr. Wolfango da Silva Marg, Panaji 403 001
Ph. : 2220320 / 2232177, Fax : +91832 245 5205
E-mail: rajhaunsvitaran@dataone.in www.rajhauns.com

# सतीचे वाण






''गोंय मुक्ती संग्रामांत जो ल्हानसो वांटो घेवपाचें भाग्य म्हाका फाव जालें, जो अणभव म्हाका आयलो ताका लिखित रूप दिवप इतिहासाचे नदरेन गरजेचें आशिल्लें. हांवें विशेश त्याग करूंक नाशिल्लो, पूण हेरांनी तो निश्चितपणान केल्लो आनी तांचेकडेन म्हजो लागशिल्लो संबंद आयिल्लो. तांचीं नांवां तांच्या आंगावेल्या लक्तरांक लागून खबरापत्रांतल्यान झळकूंक नाशिल्लीं. अश्या सामान्य लोकांच्या असामान्य त्यागाचें दर्शन हांवें गोंयांत प्रवेश केल्ल्या खिणासावन, १९४९ सावन, म्हाका घडिल्लें. तांची नोंद खंयतरी जावप गरजेची आशिल्ली. तें कृतज्ञतायेचें द्योतक आशिल्लें. गोंय मुक्तीसंग्राम ज्या वसाहतवादी झुजाचो एक वांटो आशिल्लो त्या झुजाचे आनीक कांय पैलू पळोवपाची जी संद म्हाका पुर्तुगालाक मेळ्ळी तीय कथन करप गरजेचें आशिल्लें. पुर्तुगेज जनता आनी साम्राज्यवादी पुर्तुगेज सरकार हीं एकरूप नांत, भिन्न आसात, परस्परविरूध्द आसात. तांच्यात संघर्श चालू आसा. ह्या संघर्शाचो जो थोडोभोव परिचय म्हाका थंय जालो तो हेरांक करून दिवप म्हाका गरजेचें दिसलें. गोंय मुक्ती उप्रांत कैद्यांचे अदलाबदली विशींच्या निर्लज्ज इतिहासाची पुनरावृत्ती जावन आनीक कोणा भारतीयांचेर फुडाराक 'आपलो देश मुक्त जाल्लो आसतनाय' विजनवास काडपाची पाळी येवं नये हे पासत त्या इतिहासाविशीं हांवें बरोवप गरजेचें आशिल्लें.''

**- मोहन रानडे**

साडेतेरा वर्सांची पुर्तुगालच्या कश्टांच्या बंदखणींत रगडत भोगून क्रांतिवीर मोहन रानडे गोंयांत आयले तेन्ना हांव अकरा वर्सांचो. तेन्ना रानडे आमगेर येताले. ते भाईचे (बंधू) मित्र. आमच्या घरांतले शेणान सारयिल्ले जमनीर पाट दवरून त्या पाटार आसरमांडी घालून बसून, पेत्रोलाच्या दिव्याच्या उजवाडांत वाचन करताले. तांचे मुखार बसून हांवूय किर्तें तरी वाचतालों. ताणीं म्हाका खूब मजाली सांगल्यो. वेगवेगळ्या चळवळींत वांटेकार जावपाची मागीर जी खुमखुमी आयली ताचें फाटलें कारण हेंच आसूं येता.

आयज गोंय मुक्तीच्या भांगरा उत्सवी वर्सा हांव तांचें 'सतीचे वाण' अणकारीत करूंक बसतां तेन्ना म्हाका मोहनकाका म्हजेमुखार आसरमांडी घालून बसला आनी म्हजेकडेन उलयता असो भास जाता.

**- दिलीप बोरकार**

## १०. खून का बदला लेना है

१५ ऑगस्ट १९५५चो गोंयचे मुक्तीपासत जाल्लो सत्याग्रह हो जायत्यांच्या बलिदानान जसो पावन जालो तसो तो भारतीय जनतेच्या एकवटाचें प्रतीक म्हणूनय इतिआसांत सासणाचो नोंद जालो. सावंतवाडीचें त्या दिसाचें दृश्यूच व्हड अपूर्व आशिल्लें. हजारांनी सत्याग्रही भारताच्या खाचीगोंयड्यांतल्यान थंय जमा जाल्ले. सगळेजाण आपलो पक्षभेद विसरिल्ले. भाशीक भेद विसरिल्ले. गोंयची स्वतंत्रताय ही एकली एकसुरी धगधगीत भावना तांचे भितर उफाळून आयिल्ली आनी गोंयची मुक्तताय ह्या एकाच ध्येया भायर दुसरो खंयचोच विचार तांच्या मनांत नाशिल्लो. ह्या लढ्याचें दुसरें म्हत्व अशें तें म्हळ्यार थंय जे जायते फुडारी जमिल्ले तांचेय परस तांच्या अनुयायांमदली जाज्वल्य निश्ठा सगळ्यांकूच होलमताली. फुडारी भाशणां करूंक आयिल्ले तर अनुयायी स्वतंत्रतायेपासत आत्मबलिदान करपा खातीर आयिल्ले हें भावतालें. ह्या सत्याग्रहा बाबतींत आमच्या भारत सरकारान आनी पोरण्या मुंबय राज्याचे मुखेलमंत्री ह्या नात्यान श्री. मोरारजी देसाय हाणी जी भूमिका घेतिल्ली ती सामकी तिरस्करणीय आशिल्ली. निदान हो सत्याग्रह तरी नि:शस्त्र आशिल्लो. आमच्या सारक्या हिंसक 'पातक्यांक'; 'वाट

चुकिल्ल्यांक' मजत करपाचो हांगा प्रस्नूच नाशिल्लो. गांधीजींचे अहिंसेत बसपी हो सत्याग्रह आशिल्लो. आनी पोर्तुगेज साम्राज्यशायेक आव्हान दिवपाखातीर, नैतीक बळान आव्हान दिवपा खातीर हे सगळे सत्याग्रही एकठांय जमिल्ले. तांका सगळे तरेचो आदार दिवप हीच खरें म्हळ्यार भारत सरकाराची आनी मुंबय सरकाराची जापसालदारी आशिल्ली. पूण ताणीं नेमकी उरफाटी भुमिका घेतली. पुर्तुगेज सरकारचे शिपाय सत्याग्रहींचेर बंदुको जोखून उबे आशिल्ले. शीम हुपपाखातीर तयार आशिल्ले सत्याग्रही एकठांय जमिल्ले पळोवन खंयच्याय स्वातंत्र्यप्रेमी सरकाराक तांका मदत करची अशीच इत्सा जावपाची. पूण 'अद्वितीय' जावपांत अभिमान बाळगुपी आमच्या सरकाराचें सगळेंच किते आगळें आसता. गोंय हद्दी मेरेन सत्याग्रहींक आपल्या खर्चान व्हरपाचो निर्णय ट्रकवाल्यांनी घेतिल्लो. देशाचे मुक्ती खातीर आपलोय कितें तरी हातभार लागचो ही तांची इत्सा. पूण खंयच्यातरी कायद्यांतल्या खंयच्या तरी कलमाचेर बोट दवरून सरकारान तांची इत्सा मारून उडवपाचें पुण्य मेळयलें. 'राष्ट्रीय दिना' वेळार आपली व्हडव्हीक गाजोवंक आनी वेंचणूकसभांक गर्दी जावंची हे पासत लोकांक ट्रकांतल्यान येवंक वचूंक दिवपी सरकाराक हे वेळार मात कायदो येवजलो. राष्ट्रीय स्वातंत्र्य संग्रामाचे फाटींत असो ऐन वेळार खंजीर तोपून सत्याग्रहींक नाउमेद करपाचो प्रयत्न जालो, पूण तो फसलो. हजारांनी लोक आयले. पुराय सावंतवाडी गांव सत्याग्रहींनी फुलून गेलो. जल्लोशाचें, खोशयेचें, सामकें एखाद्रया लग्नाच्या उत्साहाचें वातावरण आशिल्लें. कर्नालसिंग हांच्या फुडारपणा खाल पंजाबांतल्यान आयिल्ल्या सत्याग्रहींचो जथो भांगडा नाचपात बेहोश जाल्लो. जणकाय दुसरे दिसा तांका एखाद्रे वरातींतूच वांटेकार जावपाचें आशिल्लें.


माधव कोरडे
मोहन रानडे हांचो त्या काळचो सहकारी

१५ ऑगस्ट उजवाडलो. भारतमातेचो जयजयकार करीत, गोंय मुक्तीचो जयजयकार करीत सत्याग्रहींनी शीम हुपली. गोंयांत पावल दवरलें मात, पुर्तुगेज सैनिकानी तांचेर गुळयांचो पावस घालो. कितलेतरी जाणांक जिवे मारिल्ल्याची बातमी सावंतवाडीक येवन पावली आनी बातमे वांगडाच हुतात्म्यांचे पवित्र देहय. आदल्या दिसाच्या जल्लोशाची सुवात आयज मसण शांततायेन घेतली. पूण ही जीव घेवपी मसणशांतताय चड वेळ तिगलीना. सहस्त्र कंठांतल्यान एक धीरगंभीर, निच्शयी गर्जनेन अचानक मळबाचो थाव घेतलो. 'शहिदोंने खून बहाया है, खून का बदला लेना है!'

भारतीय जनतेची ती स्वातंत्र्याची उर्मी, हुतात्म्यांचीं तीं कलेवरां आनी ती धीरगंभीर गर्जना म्हज्या काळजार कायमचो ठसो दवरून गेली.

हजारांनी कंठांतल्यान भायर पडपी ते गर्जनेन मळबाचो थाव घेतलो, कारण तें विस्तिर्ण आशिल्लें. आमच्या राजकारण्यांच्या 'काळजा'चो थाव मात ती घेवंक शकलीना. मुखार १९६१त गोंय मुक्त जातांच पणजेंतले बदमाश आफोंसु द आल्बुकेर्कचो पुतळो आनी मार्मागोवा हांगच्या व्हाश्कु द गामाचो पुतळो जनतेन मातयेभरवण केलो. साम्राज्यवाद्यांच्या हेर पुतळ्यांकूय जनता तीच वाट दाखोवंक सोदताली. ज्या पुर्तुगेजांनी आमच्या स्वातंत्र्यसैनिकांचेर अमानुश अत्यचार केल्ले, जिवे मारिल्ले, तांका कंठस्नान घालून हुतात्म्यांच्या पवित्र रक्ताचो बदलो घेवपाक जनता आसुसलेली. पूण जनतेचें म्हणोवन घेवपी सरकारान तांचे हात करकचून बांदून उडयले. आफोंसु द आल्बुकेर्कचो, व्हाश्कु द गामाचो पुतळो धुळीन मेळोवपाचें 'पाप' करप्यांक सरकारान बंदखणीत उडयले, हेर पुतळ्यांक संरक्षण दिलें आनी खुनी पुर्तुगेज अधिकाऱ्यांक सन्मानान पुर्तुगालाक परत धाडले.

'खून का बदला लेना है।' ही गर्जना पर्थून एकखेप वातावरण भेदून गेली. हुतात्म्यांचीं प्रेतां सावंतवाडीच्यान मुंबयच्या मार्गाक लागलीं. हांवूय तांच्या फाटोफाट वचूंक गेलों. हांव तांकां शेवट मेरेन वांगड दिवंक शकना आशिल्लों. हुतात्म्यांच्या पवित्र रक्ताचो बदलो घेवपाची जापसालदारी आजून फाटीं उरिल्ल्या आमचेर आसा ही जाणविकाय मात मनांत घर करून रावली.

१६ ऑगस्टाक सावंतवाडीच्यान बेळगांव वतना वाटेर जो देखाव दिसलो ताचें वर्णन 'दिव्य दर्शन' अशेंच करचें पडटलें. गोंयचे शीमेर पुर्तुगेजांनी भीशण गोळीबार केला, शेकड्यांनी लोक मेल्यात अशी बातमी कळून लेगीत सत्याग्रहींचो एक जथो मुखार मुखार चलतालो. बेळगांवच्यान वाहनां नांत म्हूण सगळे त्रेसश्ठ मैलांचें अंतर भर पावसांत पायांनी माड्डयत तो जथो मधु दंडवते हांच्या फुडारपणाखाल सावंतवाडीचे दिकेन चलतालो. दीर्घ वाटचालीन कित्येकांचे पाय सुजिल्ले. पुराय आंग थकून गेल्लें. पूण तरीय

फुडचे दिकेनूच पावलां उखलतालीं. ह्या सत्याग्रहींच्या जथ्यांत एक पंदरा-सोळा वर्सांचो भुरगो आशिल्लो. आमी बस थांबयली आनी सत्याग्रहीं वांगडा उलोवपा पासत सगळेजाण देंवले. दोनशे-अडेचशे सत्याग्रही मारून उडयल्ल्याची अफवा लेगीत ते वेळार खऱ्यो दिसपी बातम्यो तांचे मेरेन येवन पाविल्ल्यो. आमकां जायते जाणांनी जायते प्रस्न विचारले. त्या भुरग्यान मात एकूच प्रस्न विचारलो, 'आत जाऊ देतात ना हो?' सत्याग्रहींचेर गुळयो घालतात हाची ताका मात्तूय पर्वा नाशिल्ली. पूण आमकां 'आमचें' सरकार शीम हुपूंक दितलें काय ना ह्या एकाच हुसक्यान तो उबगल्लो. स्वतंत्रतायेची अस्मितायूच ताच्या तोंडांतल्यान उलयताली. निर्धार, निर्भयता ताच्या दोळ्यांत निशेताली. आमी बसीन मुखार गेले. सत्याग्रहींचो जथो रणांगणाचे दिकेन गेलो. त्या भुरग्याचें मुखार कितें जालें तें म्हाका खबर ना. पूण तो पंदरा वर्सांचो कंवळो चेरो आनी 'आत जाऊ देतात ना हो?' हो ताचो प्रस्न मात केन्नाच म्हज्या मनांच्या दोळ्यांमुखाल्ल्यान हालल्लो ना. कारावासात तर त्या प्रस्नान म्हजी चडूच प्रकर्शान सांगात केलो.

सावंतवाडीच्या राबित्यांत श्री. राजाभाऊ वाकणकरांची गांठ पडली. रझाकारांच्या काळावेलीं कांय शस्त्रां काळ्या बाजारांत उपलब्ध आसात, पांचशें रुपयां मेरेन एक बऱ्यापयकी स्टेनगन पुण्यांत मेळूं येता अशी म्हायती ताणीं म्हाका दिली. 'आझाद गोमन्तक दला'चे मुखेली श्री. विश्वनाथ लवंदे हांका हांवें ही गजाल सांगली आनी तांचेकडल्यान पयशे घेवन बेळगांवच्यान पुण्याक गेलों. राजाभाऊन रोखडीच स्टेनगनची वेवस्ता केली. पूण तिचीं काडतुसां उपलब्ध नाशिल्लीं. ताका लागून राबितो वाडलो. ताचो लाब घेवन आनी शस्त्रां मेळोवप शक्य जावंचें हे अपेक्षेन श्री. राजाभाऊ वाकणकर म्हाका एका नामनेच्या संपादकांकडेन घेवन गेले. 'मी पैसे देतो, शस्त्रे घ्या' अशें आस्वासन मागनासतना मेळ्ळें. अजाप दिसलें, खोस भोगली, तांचे विशींचो आदर वाडलो, थारिल्ल्या वेळार राजाभाऊं वांगडा गेलों. 'उद्या या. कारकुना कडेच देऊन ठेवतो' अशी जाप मेळ्ळी. पर्थून गेलों. 'सर्व काही तयार आहे. फक्त चेकवर मालकांची स्वाक्षरी होण्याचाच अवकाश आहे.' अशें कारकुनान सांगलें. तिसरे खेपेक - 'निकतोच श्री. केशवराव जेध्यांकडल्यान तातडीचो निरोप आयलो देखून एका मिणटां आदीं भायर सरला.' अशें घरगड्यान सांगलें. आमी भायर येतांच, 'थांब हं, एक मजा दाखवतो तुला' अशें राजा वाकणकरान म्हळें आनी म्हाका परत घेवन त्या संपादक महाशयांच्या घरा गेलो. पळयत जाल्यार ते खुर्चीत बसल्यात.

> **१६ ऑगस्टाक सावंतवाडीच्यान बेळगांव वतना वाटेर जो देखाव दिसलो ताचें वर्णन 'दिव्य दर्शन' अशेंच करचें पडटलें. गोंयचे शीमेर पुर्तुगेजांनी भीशण गोळीबार केला, शेकड्यांनी लोक मेल्यात अशी बातमी कळून लेगीत सत्याग्रहींचो एक जथो मुखार मुखार चलतालो. बेळगांवच्यान वाहनां नांत म्हूण सगळे त्रेसश्ठ मैलांचें अंतर भर पावसांत पायांनी माड्डयत तो जथो मधु दंडवते हांच्या फुडारपणाखाल सावंतवाडीचे दिकेन चलतालो.**

एखाद्रयाक असो झुलयत दवरून शेवटाक ताची निराशा हे लोक कित्याक करतात हें कळना. ह्या आनी अशेच प्रकारच्या उप्रांत आयिल्ल्या जायत्या अणभवांक लागून काय कोणाक खबर, पूण व्हड मनशांविशीं म्हज्या मनांत एक प्रकारची अढी आसा. कित्याक तर तांचीं आश्वासना सहसा पुराय जायनांत अशें म्हाका अणभवाक आयलां. म्हजे लागशिल्ले पयशे केन्नाच सोंपिल्ले. एका इश्टाच्या दुडवांचेर कितले दीस रावपाचें हो प्रस्न आशिल्लो. इतल्यांत ज्या काडतुसां पासत आता मेरेन राविल्लों तीं य मेळ्ळीं आनी म्हजो गोंयांत परतुवपाचो मार्ग मेकळो जालो. तीं मेळिल्लीं ४० काडतुसां आनी स्टेनगन जाणवायेन धोपटेंत लिपोवन हांव बेळगांवां पावलों. श्री. लवंदे हांची अशी कल्पना जाल्ली की, पुणेरी मित्रांनी म्हाका फसयलो जावंये देखून हांव परतून येवंचोच ना. काडतुसां सयत स्टेनगन घेवन आयिल्ल्यान ताचो गैरसमज पयस जालो. तीं शस्त्रां घेवन सावंतवाडी आयलों. दलाचे एके बसके पासत जायते कार्यकर्ते थंय जमिल्ले. अनंत थळी, सुखा, येशी आनी म्हजे वांगडा काम केल्ले जायते कार्यकर्ते थंय आशिल्ले. जमिल्ल्या सगळ्यां भितर एक प्रकारची निराशा पसरिल्ली. मजगती एका म्हयन्याच्या काळांत तीन सुवातेर हल्लो करपाचो प्रयत्न जालो. पूण जणेकल्याक कसल्या ना कसल्या कारणान अपेश आयिल्लें आनी ताका लागून आपूण कांयच करूंक शकनांत अशी पराभूत वृत्ती आंगांत येवंक लागिल्ली. खंयच्याय कार्यांत चिकाटी तिगोवपाची एक गुरूकिल्ली आसता. आनी ती म्हळ्यार हातांत घेतिल्ल्या दरेक कामांत यश मेळोवप. जर फाटोफाट अपेश आयलें तर आत्मविश्वास खचत वता. सशस्त्र चळवळींत यश मेळोवपाखातीर होच नेम पाळचो पडटा. एखाद्रे ल्हानशे चौकेर हल्लो केलो तरी हरकत ना. पूण तो यशस्वी जावंक जाय. आमच्या कार्यकर्त्यांत फाफसल्ली

निरशेवणी पयस जावंक यशाच्या एका डोसाची गरज आशिल्ली. सप्टेंबर सावन प्रभाकर सिनारी हे गोंयांत पोम्बुर्प्याच्या जंगलांत कांय हल्ल्यांत वांटो घेवंक आयिल्ले. ते परत येतकच तांकाय हें जाणवलें आनी कार्याक पोशक पूण जातूंत यश मेळपाक चडशी अडचण पडचीना असो कार्यक्रम हातांत घेवपाचें थारायलें.

ह्या म्हज्या पुण्याच्या मुक्कामांत चड करून ऑगस्टचो अखेर आसत, हांव डेक्कन जिमखान्यावयल्या पोस्ट ऑफिसांत कार्डा-पाकिटां विकत घेवंक गेलों. थंय एक विद्यार्थी गोंयांत पत्र धाडूं येता काय हाची चवकशी करतालो. पूण ताका 'ना' अशी जाप मेळ्ळी. शिकपा खातीर तो भुरगो पुण्याक राविल्लो. थंयच्यान तो आवय-बापायक पत्र बरोवंक-शकनाशिल्लो आनी तांचेकडल्यान ताका जाप येवंक शकनाशिल्ली. १५ ऑगस्ट १९५५क पुर्तुगेजान सत्याग्रहींची भीशण कत्तल केल्या उप्रांत भारत सरकारान ह्या सगळ्या लढ्यांत तटस्थतायेचें निंद्य धोरण आपणायल्ल्यान देशभर सरकाराची नाचक्की जाताली. व्हडल्यो व्हडल्यो सभा जाताल्यो. भारत सरकाराचेर टिका जाताली. हुतात्म्यांच्या अंत्ययात्रांनी जाल्ल्या भाशणांचो परिणाम चडूच जातालो आनी म्हण्णूच हुतात्म्यांचे देह शीमेचेरूच लासून उडोवपाची सक्ती जावंक लागली. ह्या सरकारी फर्मानाक चुकोवन कांय प्रेतां खूब मुखार वचूंक शकलीं, बेळगांव, पुण्यामेरेन पावंक शकलीं ही गजाल वेगळी. हे टिकेच्या उज्यांत आपले प्रतिशठेचो गोबोर जातलो हें पळोवन आपूण खऱ्यानीच कितेंतरी करतात हें दाखोवपाची गरज भारत सरकाराक दिसूंक लागली. १५ ऑगस्ट उप्रांतच्या चारपांच दिसांतूच मुंबयतल्या पुर्तुगेज कौन्सुलाक २४ वरांभितर भारत सोडून वचपाची आज्ञा केली आनी पणजेंतल्या आपल्या कौन्सुलाक भारतसरकारान परत आपयलो. पुराय राजनैतीक संबंध तोडून उडयले. भारत सरकार निश्चितूच आनीक जायतें कितें करतलें असो भ्रम लोकांमदीं निर्माण जालो आनी होच सरकारचो खरो हेत आशिल्लो. भारत-गोवा टपाल येरादारी बंद करपाचो निर्णय फाटोफाट जाहीर करून जनतेच्या दोळ्यांत आनीकूय धूळ उडयली. भारतीयांक भारताच्या एका वाठारांत चलतल्या परकियांच्या जुलमी राजवटीआड निशेध उक्तावपाचो भारतियांचो अधिकार झोंबून घेवपाची सुचोवणी काँग्रेसच्या ह्याच दिसांनी भरिल्ल्या वर्कींग कमिटीन भारत सरकाराकडेन केली आनी ती भारत सरकारान बेगोबेग मान्य केली. ही कृती वयल्या दोन निर्णयांचे आतशबाजी मुखार फिकी पडून तिचें निंद्य स्वरूप लोकांचे नदरेक आयलें ना. पुर्तुगेजान केल्ले कृतीविशीं भारत सरकारान निशेध नोंदयलो, कांय वल्गनाय केल्यो. सुनेच्या रागान घरांत आदळ आपट करपी खाश्ट सासू सारकी भारत सरकारची ही निश्प्रभ करणी आशिल्ली. पुर्तुगेज सरकारचें कांयच लुकसाण जावपाचें नाशिल्लें. गोंय मुक्त जावपाचें नाशिल्लें आनी तो उद्देश्यूय भारत सरकाराचो नाशिल्लो. कांय दीस सरतकच टपालखातें पर्थून सुरू जालें. तें सुरू करचे वेळार मात जाहीर घोशणा न करपाची काळजी घेतिल्ल्यान सरकारचो दुतोंडेपणा जनतेच्या लक्षांत येवंक शकलो ना.

गोंयची आर्थिक नाकेबंदी ही अशीच एक आतशबाजी आशिल्ली. १९५४च्या एप्रिलसावन हे आर्थिक नाकेबंदीचे दिकेन भारत सरकार पावलां उडयतालो. नाक्यावेल्या थाण्यांक कडक तपासणेचे आदेश दिल्ले. ताचो विपर्यास फकत चलतालो. सावयतलीं कांय भुरगीं सावंतवाडी शिकपाक आशिल्लीं. थंयच्यान परततना पाव आनी भाजी हांची भुती ताणी वाटेर उपेगाक पडची म्हूण घेतिल्ली. पूण भारतीय शीम हुपतना पोलिसांनी तांका आडयले आनी ती तयार भाजी गोंयांत व्हरपाक आडयली. ती भाजी व्हेल्ल्यान गोंयच्या आर्थिक जिविताचेर प्रचंड परिणाम जातलो अशी त्या पोलिसाची कल्पना आसुंये! ती भुती थंय फस्त केल्या उप्रांतूच भारतीय पोलिसांनी तांका गोंयांत वचूंक दिलें.

गोंयच्यान भारतांत जावपी निर्यातूय हे भारतीय आर्थिक नाकेबंदीक लागून बंद जाली. पूण ताचो परिणाम कोणाचेर जालो? भारतांत येवपाखातीर उत्सूक आशिल्ले गोंयकारूच हे आर्थिक कोंडींत सापडले. सुपारेचे भाव एकदम घसरले. कित्याक तर भारतूच गोंयचे सुपारेची बाजारपेठ आशिल्ली. आर्थिक नाकेबंदी सुरू जावचे आदीं सुपारेचो दर १८ ते २० रुपया मण (१५ कील) आशिल्लो. हो दर ४ ते ५ रुपया मणाचेर पावलो. गोंय मुक्तीक अनुकूल आशिल्ले मध्यमवर्गीय गोंयकार बागायतदारूच हातूंत लुकसाणेंत आयले आनी ताचें पर्यवसान कुळागरां ओस पडपांत जालें. कुळागरांचेर निंबून आशिल्लीं कुळां देशोधडीक लागलीं. हांव एकदां सावंतवाडीक आसतना ही परिस्थिती समजावन सांगपाचो प्रयत्न केलो. तेन्ना थंय हाजीर आशिल्ले एक काँग्रेस वावुरपी उलयले, "अहो, आम्हाला अगदी हेच हवे होते. अधिकाधीक दारिद्रय गोव्यात माजल्यावर ती जनता पोर्तुगीज सरकारा विरूध्द बंड उभारील!" हे राजकारणी सज्जन कांय काळ विरोधी पक्षातूय आशिल्ले. लोकांनी बंड करचें म्हूण तांका मुद्दम दळिद्री करप हें विधानूच सामकें अजापाचें आशिल्लें. उरफाटें "भारत सरकारान तुमची सुपारी घेवपाचें बंद केल्लें आसा. तुमच्या दळिद्राचें कारण तें सरकारूच आसा आमी न्हय" असो युक्तीवाद पुर्तुगेज सरकार गोंयांत करतालें. शालेय पुस्तकां लेगीत गोंयांत वचूंक शकनाशिल्लीं. शालेय पुस्तकांच्यो किंमती गोंयांत पांच पांच पट अदीक वाडल्यो. भारतांतल्या विद्यापीठांकडेन गोंयच्यो सगळ्यो इंग्रजी शाळा जोडिल्ल्यो आशिल्ल्यो. मराठी शाळांचीय स्थिती तीच आशिल्ली. पुर्तुगेज

शाळांनी सामकी थोडीं भुरगीं वतालीं. भारत सरकारान पासपोर्ट आनी व्हिसा पध्दत सुरू केल्ल्यान विद्यार्थ्यांच्या वचपा येवपांत अडचणी निर्माण जावंक लागल्यो. आनी शेवटाक हाचो परिणाम म्हूण बरेचशे विद्यार्थी पुर्तुगेज शाळेक वचूंक लागले. पुर्तुगेज शाळांचो आकडो वाडलो. पणजेच्या लिसेव हे पुर्तुगेज दुय्यम शाळेंत एक हजार विद्यार्थ्यांची सोय आशिल्ली. पूण थंय आदीं फकत दोनशेंच विद्यार्थी वताले. आर्थिक नियंत्रणाच्या काळार हो आंकडो दुपेटीन-तिपेटीन वाडलो. अशे स्थितींत गोंयचें आर्थिक नियंत्रण यशस्वी जावपाची अपेक्षा भारत सरकारान कशी केल्ली समजनाशिल्ली. दादरा-नगरहवेली प्रमाण गोंय चारूय वटया रेवडावल्लें नाशिल्लें. शेकानशेक दर्यादिग, भरपूर खणी आनी पुर्तुगेज सरकार आपल्याक जाय तो माल भायल्यान हाडूंक शकतालें. हांव अटकेंत आसतना मोन्तेरोन फकाणांनी एकदां म्हाका म्हळें, ''तुमचे आर्थिक नाकेबंदीक लागून गोंयांत गोड येवंचें बंद जालें. पूण आमी पुर्तुगेज गोड खावन जियेताले अशी भारत सरकाराची कल्पना आशिल्ली की कितें? गोड जाय आशिल्लें तें तुमकां गोंयकारांक. आमकां लागपी साकर आमी युरोपांतल्यान मोठ्या प्रमाणांत हाडूंक शकतात आनी हाडटाय बी.'' आनी तें खरेंय आशिल्लें.

आर्थिक नियंत्रण पुरायेन फसता आसतनाय तिचे प्रवर्तक फटीचो प्रचार करून लोकांची कशी दिशाभूल करताले हाचें एक मोस्त्र मुंबय नभोवाणी केंद्रावेल्यान जावपी कोंकणी कार्यावळींत आयकूंक मेळ्ळें. गोंयचे सद्याचे परिस्थितीविशीं म्हायती करून दिवप, गोंयकारांक राष्ट्रीय चळवळीक प्रवृत्त करप हो उद्देश्य हे कार्यावळीचो आशिल्लो. 'वसऱ्यार' बसून चार-पांच गोंयकार गजाली मारतात आनी तातुंतल्यान सद्याचे राजकीय स्थितीचेर भासाभास करतात अशें हे कार्यावळीचें स्वरूप आसतालें. एके कार्यावळींत च्या हाडटात. जाच्या वसऱ्यार ह्यो गजाली चलतात तो भारतांतल्यान साकर येना आशिल्ल्यान गोडाचो च्या केला देखून दिलगीरी उक्तायता. वजरीच्या शिबिरांत आसतना ही कार्यावळ आयकली आनी आमी पोट धरधरून हांसले. मोझंबीकच्यान भरपूर साकर गोंयांत येताली आनी गोडूच मेळनाशिल्ल्यान दरेक पदार्थांत साकरूच गोंयांत वापरची पडटाली.



विदेशांतल्यान आयात जावपी म्हाल बंद जावंचो हे खातीर भारत सरकारान कसलींच पावलां उखलूंक नांत. हे बाबतींत कितें करप सरकाराक शक्यूय नाशिल्लें. आपणे तसो प्रयत्न करचो असो विचार मुंबयतल्या गोदी कामगारांचे संघटनेन मात केलो. ज्या ज्या विदेशी कंपनीच्यो बोटी गोंयांत म्हाल घेवन वतात वो थंयच्यान दुसरेकडेन म्हाल व्हरतात ते कंपनींच्या बोटीवयलो म्हाल भारतांतल्या बंदरांतल्यान देवोवचो न्हय असो निर्णय ताणीं अमलांत हाडलो. लुकसाण सोसून कामगारांनी हो बहिश्कार कांय दीस चालू दवरलो. पूण शेवटाक तो तांका, बंद करचो पडलो. तांच्या अंतस्कर्णात देशभक्ती उणी आशिल्ली म्हूण न्हय तर भारत सरकारान तांका तो उठोवपाक सक्ती केल्ली देखून. ह्योच बोटी भारताची आयात-निर्यात करपांत वांटो घेताल्यो. कामगारांनी बहिश्कार चालू दवरलो जाल्यार भारताचो म्हाल आमी हाडचेनांत वो व्हरचेनांत अशी धमकी विदेशी कंपन्यानी भारत सरकाराक दिली. देखून भारत सरकारान कामगारांक माघार घेवंक सांगलें. गोंयची नाकेबंदी जावंक शकना, उरफाटी आपली मात जावं येता हाचो धडो हे अवेव्हारी भुमिकेन भारत सरकाराक मेळ्ळो. भारतीय कामगार हे राष्ट्रीय वृत्तीचे आसतात ही गजाल मात आनीक एक खेप ह्या निमतान सिध्द जाली. लो. टिळकांक १९०८त जेन्ना ख्यास्त जाल्ली ते वेळार मुंबयच्या कामगारांनी स दीस संप करून लो. टिळकांचेर म्हळयार पुराय भारताचेर जाल्ल्या अन्यायाचो निशेध केल्लो. तो पयलो राजकीय संप आशिल्लो. १९५५त गोदी कामगारांनी ताचीच पुनरावृत्ती केल्ली.

गोंयची आर्थिक नाकेबंदी प्रभावीपणान करपाचें काम जर कोणे केलें आसत तर गोंयचे सशस्त्र चळवळीनूच. गोंयची आर्थिक नाडी जाचेर अवलंबून आशिल्लो तो खनीज उद्योग बंद उडोवपाकडेन भूमिगत चळवळीन लक्ष दिलें. १९५५ हें सशस्त्र लढ्याचे मुळावे तयारीचें वर्स आशिल्लें. हे वर्सा आमी जें सामर्थ्य संपादन केलें ताचो उपेग ५६, ५७, ५८ ह्या सालांत जालो. शिरगांवचे चौगुले हांचे खणीवयली यंत्र सामुग्री भूमिगतांनी उध्वस्त करून उडयिल्ल्यान हे खणींतलें उत्पादन कितले तरी दीस मंदावल्लें. हेर खणीवेलेंय उत्पादन बंद पडपाचें. पूण ते खातीर आमच्या मार्गार अडसर घालपा बदला आमकां मजत करप गरजेचें आशिल्लें. ती आस्त आमकां नाशिल्ली. देखून गोंयां परतलों आनी वावुरप्यांतली निराशा पयसावतली असो एक दणको पुर्तुगेज राज्यसत्तेक दिवपाचे तयारेक आमी लागले.

(चलता...)

# भारतीय भाषांमधील कोशविश्वातील एक अपूर्व निर्मिती

अस्तित्वाचा लढा देत श्रीमंत शब्दसामर्थ्यातून समृध्दीकडे वाटचाल करणाऱ्या आपल्या भाषाभगिनीची उत्तुंग भरारी...

राजहंस
## कोंकणी सचित्र अश्टांगी अभ्यासकोश




**वैशिष्ट्ये :**

- आवश्यक तिथे उच्चार
- उलट अर्थाचे शब्द
- व्याख्या आणि वापर
- पोर्तुगीज आणि इंग्रजी शब्दांची मूळ रूपे
- क्रियापदांचे धातू
- नकारार्थी क्रियापदांची मूळ रूपे
- नामांची सामान्य रूपे
- बहुवचने

- *पन्नास हजारांहून अधिक शब्द*
- *सातशे पन्नासांपेक्षा जास्त रेखाटने*

रचनाकार
दामोदर केशव घाणेकर

तांत्रिक भार
सुरेश जयवंत बोरकर

आकार : A5 पृष्ठे : 2200
कागद: पांढरा 80 gsm
सुबक शिलाई बांधणी
ग्रंथालयांसाठी मूल्य ₹ 3700/-
व्यक्तिगत ग्राहकांसाठी
स्वयंअनुदानित मूल्य ₹ 1200/-
(ट ख नि.)




राजहंस वितरण
१ - मीनाक्षी बिल्डिंग, डॉ. व्होल्फांगु द सिल्व्ह मार्ग, पणजी, गोवा ४०३००१
Ph.:91 - 0832 2220320 / 2232177 email : rajhaunsvitaran@dataone.in

*राधाक याद आयली, जेन्ना एका दनपाराचेर तिची न्हीद खळ्ळी, तेन्ना तिणें आपल्या घोवाक वावराडे वांगडा रंग करतना पळयलें, तेन्ना तिणें त्या वावराडे सामकारुच आपल्या घोवाक बरी बुद्द शिकयली. वावराडेच्या उलोवपावेल्यान तिका तिची मजबुरी समजली. वावराडेची आवय सीक आसली. तिका पयशांची खर गरज आसली. मनून हे गजालीचो फायदो घेवचें थारायलें. बाबडेचें नशीब बरें म्हूण राधा दिस्त वेळार पावून मनूचीं कारस्थानां थंयच्या थंय थंड जालीं.*

# भूक



अनुश्का अग्रवालाच्या घरांत किटी पार्टी व्हडा नेटार चालू आसली. तिचो घोव कंपनीच्या कामाक लागून कलकत्ता गेल्लो. पार्टीमर्दीं मिसेस अनुश्काच्यो इश्टीणी आप-आपलीं व्हडपणां सांगतालीं.

मिसेस मधू शर्मा, मिसेस माया गुप्ता, मिसेस राधा भाटीया आनी मिसेस बेला मेहता एका-मेकांचीं फकणां करताल्यो. त्यो बियरीचो घोट घेतां घेतां, इस्पिकांनी खेळटां खेळटां बढायो मारताल्यो.

तेन्नाच मिसेस अनुश्का अग्रवालचो मोबायल वाजलो. तेवटेनच्यान कोणाचो तरी आवाज आयलो. ''नमस्कार अनू भाभी, कितें चल्लां? जर रिकामी आसा जाल्यार म्हजे झोपडेंत...''

''आरे वरूण ना ना, रिकामी खंय आसां हांव, तुजो भाऊ सांजवेळार कलकत्ता गेला. किटी पार्टी नाशिल्ली जाल्यार रिकामीच आसलीं. पूण तुजे झोपडेंत कितें खास आसा म्हूण आमंत्रण करता?'' अनुश्कान फकाणांनी विचारलें.

''हय मॅडम म्हजो एक फायनान्सर आयला. ताका पटोवप गरजेचें जावन आसा. तुका मेळून घडये खूश जायत.'' वरूणान आपली अडचण सांगली.

''कित्याक तुजी मॅडम खंय भायर चरपाक गेल्या काय कितें?'' अनुश्कान थोमणो मारलो.

''ना भाभी, म्हजी मॅडम सद्या सुटयेर आसा, ना जाल्यार तुका कित्याक त्रास दिवपाचो?'' वरूणाच्या आवाजांत मजबुरी स्पश्ट जाताली.

''म्हाका लायक अशी कसली सेवा आसा? आयच्या किटी पार्टीचो खर्च तर...''

''तो हांव दितां'' वरूणान मदींच थांबोवन सांगलें.

''आरे आरे बाबा, पयलींच सांगतां, पुराय पंदरा हजार जावन आसात.'' अनुश्कान मिश्कील हांसत सांगलें, ''मान्य आसा न्हय?''

''अनू भाभी त्या फायनॅन्सराचेरूय खर्च करपाचो आसा, तरीय पूण तुजे धा शेर्त जाले. सांग, केन्ना पावता?''

''जालें, पार्टी सोपयतां धा वरां मेरेन आनी आयक वरूण, सुधाक सांग की म्हजी स्पेशल डीश तयार दवर म्हणून.'' अनुश्कान फकाणानी म्हटलें.

''ओके भाभी'' म्हणीत वरूणान मोबायल बंद केलो. अनुश्कान मोबायल बॅगेंत दवरतना माया गुप्ताकडेन पळयलें. ती मधू शर्मा कडेन तिणें इस्पीकांनी खेळटना फटींगपणा केली म्हूण वाद घालताली.

''मिसेस गुप्ता फटींगपणा करप म्हज्या रक्तांत ना. ही तुजी संवय जावं येत. हांवें आयकलां की तुवें तुज्या मांयच्या बँक अकाऊंटांत फटींगपणां करून हिऱ्याचो हार करून घेतला म्हूण.'' मधूच्या तीखट थोमण्यांतूय बी फकाणां दिसतालीं.

हें आयकून मिसेस गुप्ताचो हात अचकीत गळ्यांत आशिल्ल्या हिऱ्याच्या हाराचेर गेलो. तिच्या वठांचेर मिश्कील हांसो आसलो.

तिणें हार नाचयत मधूक जाप दिली. ''मधू... हांव तुजे बशेन ड्रायवराचेर पयशे होगडायना. मिसेस राधा सांगताली की तुजो आवडतो ड्रायव्हर राजेश तुज्या सदांच जावपी अतिरेकाक भियेवन नवो जागो सोदता खंय?''

''कितें म्हणटा माया दिदी, घडये राधा म्हज्या ड्रायव्हराक लागीं करिना मू? तिचेकडेन तर नोकर साप तिगनात. वर्स भरान चवथोय ड्रायव्हर पळून गेलो.'' मधू अशें सांगतां सांगतां नेटान हांसपाक लागली. सगळ्यांच्यो नदरो मधूचेर वचून थिरावल्यो. मिसेस गुप्तान नीट नदरेन राधा भाटीयाकडेन पळयलें. पूण राधा भाटीया तर आइशा खान



वांगडा चेस खेळपांत गूल्ल आसली. घडये खेळांत तिचो बादशाह संकटांत आसलो. राधान नेटान हांसपी मधूक तिरशे नदरेन पळयलें आनी परतून खेळांत गुल्ल जाली. तिची तिरस्काराची नदर सांगताली की दोगांचेंय बरें जमना म्हूण.

''आईशा आतां खेळ सोपय, णव वाजत आयलीं. डिनर तयार आसा. म्हाका गरजेच्या कामा खातीर भायर वचपाचें आसा.'' अनुश्कान वण्टीवेलें घडयाळ पळोवन बोवाळ केलो.

''जालें दिदी'' आईशान आपलो वजीर हालयत म्हणलें आनी मागीर राधाकडेन उलयली, ''पळय तुजो बादशाह तर गेलो.'' राधान तिडकीन खेळ उलटायलो. बेजार जावपाची ॲक्टींग करीत राधा आईशाकडेन उलयली, ''म्हज्या बादशाहचें सोड, तुज्या खान सायबाक याद करून दी की आंब्यांची पेटी पावली ना म्हूण.''

''आरे तुज्या खान सायबाक फुरसत आसल्यार मू. तो तर शेजारच्या धोबिणीचेर पुराय आब्यांचें पोरसूं उवाळूंक तयार रावला.'' आईशान आपल्या घोवाची तक्रार आपले इश्टीणीकडेन करून आपलें मन ल्हव केलें. तिचे दोळे ओले जाले.

''आगो पिशा, तुकां दादल्याक कसो आपल्या ताब्यांत दवरचो तेंच खबर ना. ती बायल कसली जिका आपल्या घोवाक मुठींत धरून बोटांचेर नाचोवपाक जमना! हांव आशिल्लीं जाल्यार ते धोबिणीक आनी तुज्या घोवाक दिस्त शिकोवपाचीं!'' राधा भाटीयाचें मुखामळ तिडकल्ल्या भशेन जालें.

राधाक याद आयली, जेन्ना एका दनपाराचेर तिची न्हीद खळ्ळी, तेन्ना तिणें आपल्या घोवाक वावराडे वांगडा रंग करतना पळयलें, तेन्ना तिणें त्या वावराडे सामकारूच आपल्या घोवाक बरी बुद्द शिकयली. वावराडेच्या उलोवपावेल्यान तिका तिची मजबुरी समजली. वावराडेची आवय सीक आसली. तिका पयशांची खर गरज आसली. मनून हे गजालीचो फायदो घेवचें थारायलें. बाबडेचें नशीब बरें म्हूण राधा दिस्त वेळार पावून मनूचीं कारस्थानां थंयच्या थंय थंड जालीं. ल्हान पिरायेचे वावराडेन पयलेच फावट असली चूक आदारलेली. राधान तिका रांदचे कुडींत व्हरून समजायली. ''हे दादले बायलांक पळोवन लाळ घोट्टात. हांकां उश्टींच आयदनां चाटपाची संवंय आसता. हांची शेपडी केन्ना नीट जायना.''

मनून तिका पांचशे रुपया दिल्ले. राधान तिका शिटकावणी दिवन ते पयशे परते दिले आनी फुडाराक पयशांची गरज पडल्यार तिणें तिचेकडेन मागचे म्हूण.

पूण आईशा तितली कडक नासली. ती घरांत आसतना पासून खान सायब कपडे धुवपी चलयेक आपल्या गोपांत घेवपाची संद सापडायतालोच. तिच्या रसाळ वोंठांचो रस पितालो. जेन्ना केन्ना ती धुल्ले, इस्त्री केल्ले कपडे घेवन येताली, फ्रिजांतले चार-पांच आंबे काडून तिका दितालो. बाबडी आईशा सगळें सोंसताली. तिचें कुळारूय तितलें

घटमूट नासलें की काडीमोड घेतल्यार तिका आदार दीत अशें.

डिनरा उपरांत फुडले किटी पार्टी खातीर चिटयेंत मिसेस किरण तिवारीचें नांव आयलें. म्हयन्याच्या पयल्या आनी तिसऱ्या सप्तकांत किटी पार्टी आसताली. पार्टींत राजेशाही खर्च करपाक फामाद मिसेस तिवारी ब्युटीपार्लर चलयताली. शारांत तिचे दोन पार्लर आसले. एकांत तर मसाजचीय वेवस्था आसली.

पयशांचे भुकेक लागून किरणान मसाज पार्लरांचें मौजा मारपाचें सेंटर करून दवरलेलें. अशे तरेची तक्रार थंयचेच एके ट्रेनी चलयेन केल्ल्यान सगळ्याक बोवाळ जाल्लो. वर्तमान पत्रांनी जायते दीस बातमी येत येत कोणाक खबर कशें पूण प्रकरण पालवल्लें.

इश्टीणीक निरोप दिवन अनुश्कान वावराडी गुंजनाक समजावन सांगलें,

''हांव वरुणागेर वतां. तूं सगळें जाग्यार घालून जेवण करून घे आनी ड्रॉइंग रूमांतूच न्हीद. म्हाका रातीं कळाव जातलो. भियेवं नाका, भायर गेटीर वॉचमन सुजन आसा.''

हें आयकून सुजनाक मात्सो नेट आयलो. वरूण अनुश्काची चतरायेन वाट पळयतालो. गेस्टरुमांतल्यान सुधाच्या हांसपाचो आवाज भायर ड्रॉइंग रुमा मेरेन येतालो.

''म्हाका उशीर बी जालो ना मू?'' अनुश्कान वरूणाचो हात आपल्या हातांत घेयत विचारलें. तिची नदर गुलाबी टीशर्ट घातिल्ल्या वरूणाच्या घटमूठ कुडीचेर पडली.

''ना, तूं वेळेचें सामकें पक्कें जावन आसा.'' वरूणान हातीचो उमो घेत अनुश्काची तोखणाय केली. अनुश्काचे कुडींत एके तरेची सळसळ उप्रासली आनी ती वरूणाकडेन लगट करूंक लागली.

''आरे... आरे भाभी हें कितें करता? सुधान पळयलें जाल्यार बोवाळ जातलो.'' वरूण हे घडणुकेक लागून अजापलो.

''तुजी भितर वाट पळयता.'' अनुश्काक सोमतेंच कुशीक काडीत वरूणान गेस्ट रुमा वटेन बोट केलें. ''म्हजे पयशे..'' अनुश्कान मात्शें रागान विचारलें.

वरूणान फुडें केल्ली धा हजारांची गड्डी आपले वेनीटी बॅगेंत दवरीत नखरे करीत अनुश्का गेस्ट रुमा वटेन फुडें सरली.

भितर एक थुलथुलीत कुडीचो मनीस बसून सोऱ्याचे घोट घेतालो. सामकार प्लेटींत फरसाण, काजू बीन दवरिल्लें. ताची फाट दारावटेन आसली. घडये तो फायनॅन्सर जावन आसलो, जाचेकडेन सुधा गजाली मारतालें. अनुश्काक पळोवन सुधा उबें रावलें.

''यो भाभी, हांव तुजी स्पेशल डीश घेवन येतां.'' इतलें म्हणून सुधा गेस्ट रुमांतल्यान भायर गेलें.

''यो मगो, खूब वाट पळोवंक लायली तुवें.'' आडखळत उलोवपी तरणाटो तेन्ना घुंवलो. ताका पळोवन अनुश्का गडबडली. वाट पळोवपी फायनॅन्सर कोण दुसरो न्हय तर तिचोच मावशेभाव राजेंद्र जावन आसलो.

राजेंद्रच्या हातांतल्यान सोऱ्याचें कॉप सुटून जमनीर पडलें. ताणें म्हटलें ''अनू दिदी...तूं''

ताचो सोरो देंवलो. एके वटेन पयशांची भूक लजेक कारण जाली, जाल्यार दुसरे वटेन कुडिची भूक.

**(गंगाशरण शर्मा हांचे हिन्दी कथेचो उदय देशप्रभू हाणी केल्लो कोंकणी अणकार)**


# बिम्ब प्रकाशनाचीं नवीं पुस्तकां

| | | |
|---|---|---|
| तॉलस्तॉय | : रवीन्द्र केळेकार | मोल : १२० रुपया |
| बाकी विशेश | : दिलीप बोरकार | मोल : १०० रुपया |
| जाय काय जूय? (दुसरी आवृत्ती) | : दत्ता दामोदर नायक | मोल : १०० रुपया |
| आत्मभान (कादंबरी) | : सुजाता सिंगबाळ | मोल : २०० रुपया |
| स्वीकार (कथा संग्रह) | : सुजाता सिंगबाळ | मोल : १२० रुपया |
| काणी एका सुण्याची (बाल साहित्य) | : सुधा खरंगटे | मोल : १०० रुपया |
| बोरकारी | : दिलीप बोरकार | मोल : २०० रुपया |
| **Shreyarthee** | **: Dilip Borkar** | **Rs. 200** |
| मेथये पावलां (कविता) | : दिलीप बोरकार | मोल : १०० रुपया |
| कुळागरांतलो सर्गानंद (ललित) | : नं. थ. बोरकार | मोल : १२० रुपया |
| एक आंकवार डायरी (कादंबरी) | : दिलीप बोरकार | मोल : १०० रुपया |
| क्रिशम (प्रवासवर्णन) | : दिलीप बोरकार | मोल : २०० रुपया |
| मेटींग (कथा संग्रह) | : दिलीप बोरकार | मोल : १५० रुपया |

# HELP, PROTECT AND PRESERVE THE CULTURAL HERITAGE

- Goa Archives preserves for posterity the documentary heritage of Goa's past.
- Collections in Portuguese dated back to the 15th century.
- It also has Marathi (Modi) Halekannada and a few Persian documents throwing light on the relations of the Portuguese with Marathas, Hyder Ali, Tipu, Sundas and Bhonsales of Sawantwadi etc.
- The collection also contains a few documents in Chinese and Vietnamese scripts.
- Goa Archives has its own well-equipped Preservation unit for the scientific preservation of documents.
- It also has modern microfilming, photocopying and xeroxing equipment.
- This is your Archives and you can enrich it by donating your valuable collection of Private papers.

**VISIT GOA ARCHIVES ALWAYS**

**ISSUED BY :**
**THE DIRECTORATE OF ARCHIVES AND ARCHAEOLOGY,**
**GOVERNMENT OF GOA,**
**PANAJI - GOA.**

**Phone : 2226692**



– सुधा खरंगटे
अ-८, कुडतरकार क्लासीक,
आकें, मडगांव-गोंय.

# चांदुलो



*प्रेमाहोनीचे भावानच पोस म्हणून हाडून दिल्लें. पूण प्रेमाहोनीन 'आमगेर माजर इतलें नाका' म्हळें. आपान हळूच तें रुपेशाच्या रुमांत जनेलांतल्यान सोडिल्लें. रुपेशाक सुण्यांचो, माजरांचो मोग! दारांतल्या कावळ्याक लेगीत ताच्या मुखार शीता-गोटे उडोवपी रुपेश... जेवतना पांयांकडेन तें इल्लेंशें माजरा पील 'म्यांव-म्यांव' करून रडटा तें पळोवन ताका इल्ले गोटे कसो घालचोना?*

"रुपेशालीं आनी अर्चनालीं परतीं झगडीं सुरू जालीं हां..." आपान बायलेक जाणयलें.

प्रेमाहोनीक कोणाचींय झगडीं आयकुपाची मोठी उमेद हें आपाक खबर आशिल्लें. मुजरत तिका झगडीं आयकूंक भायर आपोवन आपा सत्री घेवन बाजाराक वचपाक भायर सरलो. सत्री अशा खातीर की ताका णव वरांचेर बाजारांत वचूंक भायर सरल्यार घरा परतो पावसर बारा जातालींच! आनी माया-म्हयन्याचें खर वत ताच्या खड्ड्याच्यान कशेंच सोसूंक जायनासलें. प्रेमाहोनीन बेगीबेगीन नुस्त्या-पोती ताच्या हातांत दिली आनी ती अर्चना-रुपेशाचें झगडें आयकूंक तांच्या रूमावटेन गेली.

आठ रुमांचे ते चाळींत रुपेशाले आनी आपाले रूम सात आनी आठ नंबरचे. आठय रुमांक मेळून लांबचे लांब वारांद आसलो. त्या कारणान कोणेय कोणाल्याय रुमावटेन पासय मारल्यार चलतालें. सगल्यांचो कॉमन वारांदो. तातूंत मालकी हक्काचो प्रस्नच उप्रासनासलो. आतां दार उक्तें दवरून झगडतल्यांचें आयकूंक येतलेंच न्ही?

"आतां ह्या माजरा-पिलाक तूं व्हरून सोडटा काय हांव त्या ओंवळाक सांगूं व्हरपाक?" अर्चनान रुपेशाक विचारलें.

"....आगो आसूं गो तें...! काय बरें मायेस्त माजर... कशें पांयांक घश्टता जाणा हांव येनाफुडें!.... कितली माया लायल्या ह्या चारच दिसांक ताणें... तूं लेगीत इतली माया म्हजेर करता काय नकळ हांव...."

"हाड... हाड तुजे पांय मुकार..." अर्चना ताणशेलें आनी रुपेश घुसपलोच.

"आतां पांय मुकार कित्याक?" ताणें विचारलें.

"...ना..! हांवय पांयांक घश्टतां तुज्या... माया दाखोवपाक.." अर्चनान सांगलें.

"शी..सायबा! तुजेकडेन उलोवपाची माणसुकीच ना. आगो, हांव फकाणानी उलयतां ताचो कसोय अर्थ काडनाका."

"आनी त्या माजराचो 'माजरयो' मात काड... अशेंच मू?"

"माजरयो..! म्हणजे!..."

"त्या माजरान किचनात करून दवरल्या ती हळशीक.. गांठ विटली म्हजी..."

आतां मात रुपेश ओग्गी पडलो. मागीर ताणें म्हणलें –''आमी चांदूक रातचें भायर दवरया...''

''तुगेल्या ह्या चांदूक चार वेळां भायर दवरून जालें. 'म्यांव-म्यांव' करीत सगली रात दार बुड्डीत रावता. मागीर रातभर न्हीद ना कोणाक?.. म्हाका...!! तूं सुशेगाद घोरेत पडिल्लो आसता..कोणें पाडापडिल्ल्यान ताका आमगेर हाडून सोडलां ताचें ह्हह्ह! ''

वारांदांतल्यान पासयो मारतना प्रेमाहोनीन दोनय कानाक बोटां घालून कान घट्ट बंद केले आनी ताकतिकेन ती आपल्या रुमांत गेली.

खरेपणी आपानच तें माजर रुपेशाच्या रुमांत सोडिल्लें. आपाक तें ताच्या मेवण्यान – प्रेमाहोनीचे भावानच पोस म्हणून हाडून दिल्लें. पूण प्रेमाहोनीन 'आमगेर माजर इतलें नाका' म्हळें. आपान हळूच तें रुपेशाच्या रुमांत जनेलांतल्यान सोडिल्लें. रुपेशाक सुण्यांचो, माजरांचो मोग! दारांतल्या कावळ्याक लेगीत ताच्या मुखार शीता-गोटे उडोवपी रुपेश... जेवतना पांयांकडेन तें इल्लेंशें माजरा पील 'म्यांव-म्यांव' करून रडटा तें पळोवन ताका इल्ले गोटे कसो घालचोना? आपान सगलें येवजूनच तें पील रुपेशागेर सोडिल्लें. मेवणो केन्नाय घरा आयलो जाल्यार माजर शेजराक गेलां समजतलो आसलो. प्रेमाहोनी आपाली तकली कशी चलता तें पळोवन खूश जाल्ली.

अर्चनाक कपलार इल्लोसो चांदुलो आशिल्ल्या त्या पिंगशा ल्हंवेच्या माजरापीलाची अपुरबाय दिसली. चार गोटे खावन तें पील रुपेशाल्या पांयाचेर लवंडून न्हिदिल्लें.अर्चनान एक पिंजको तुवालो घडी करून कोनशाक दवरलो आनी ताचेर त्या पिलाक न्हिदयलें. ''हांगा न्हीद रे चांदुल्या.'' ताणें म्हळें.

आनी आतां चार दिसां भितर अर्चनाक तें चांदू दोळेमुखार नाका जाल्लें. पयलीं तें तांचे खाटीर वचून न्हिदलें तेन्ना अर्चनान ताका पयलें थापट मारिल्लें. मागीर कोनशाक मुतप... किचनांत हळशीक करप... सगल्या रुमाक विचित्र घाण वास...!!! फिनेल म्हणून कितले वेळां घालपाचें? अर्चना वाजेलें... नाका तें माजरापील अशें ताका जालें..''

''हांव ऑफिसांतल्यान येतकच मागीर पळोवया.'' रुपेश हळूच कूस मारूंक सोदतालो.

''तूं ऑफिसाक वतनाच व्हर न्ही ताका.''

''आगो, म्हाका लेट जातलो. दिसाउजवाडे काय करना न्ही तें हळशीक...!''

''पूण काल दुदाच्या तोपांत तोंड घालें तें..?''

''ल्हान आसा न्ही गो तें! सारकें शिकय ताका... दुदा म्हऱ्यांत गेल्यार दोन थापटां फुलय.. परतें वचचें ना..'' पांयांत बूट चडयत रुपेशान म्हळें आनी तो घरांतल्यान भायर सरलोच. अर्चनान कपलार हात मारून कदेलार बसकण मारली.

सामकें अपुरबायेचें तोंड करून चांदू उडी मारून अर्चनाचे मांडयेर चडलें आनी उदारें पडून आपल्या दोनय दावकुलांनी अर्चनाचो हात धरून ताका फकांडांनी घांस मारिल्लेबशेन करूंक लागलें.

''आतां म्हाकाच खा.'' अर्चनान रागान म्हळें. तशें तें म्यांव करून अर्चनाच्या हातारच तकली तेकोवन न्हिदलें... म्हणसर आपले तांबडे-गुलाबी जिबेचें पोंत भायर काडून हात चाटिल्लेभशेन करूंक लागलें.

''आतां पुरो तुजो खेळ... म्हजेकडेन चड लागोळेपणा करूं नाका. सांजचो रुपेश घरा येतकच तोच व्हरून सोडटलो तुका...! चल पयलीं भायर...'' दाराकडेन बोट दाखोवन अर्चनान ओर्द सोडली. चांदू सामकें शाणेपणान दारांतल्यान भायर सरून वारांदाच्या सोपणांचेर वताक वचून न्हिदलें.

प्रेमाहोनी न्हावन-धुवन व्यंकटेशस्तोत्र म्हणत भायर आयली, आनी सहजशें तिणें म्हळें – ''कितें गो अर्चना, अजून न्हावंक ना?''

''ना गे. ह्या माजराक लागून वेळ कितलो जालो तेंच समजना...'' अर्चनान म्हळें.

''माजर पोसलां तुवें? तूं सांगतालें खरें, तुजे कुळारा घरांत तीन-चार तरी माजरां आसतातच म्हणून.'' प्रेमाहोनीन साळसूदपणान म्हळें.

''आगे प्रेमाहोनी, गांवांतल्या त्या व्हडल्या-व्हडल्या घरांनी माजरां-सुणीं कितलींय चलतात. हांगा एद्देश्या ह्या रुमांत आमकांच जागो ल्हान जाता, तातूंत ह्या माजरांक कोण पोसतलो? कोणे पाडापडिल्ल्यान आमच्या घरांत हें हाडून सोडलां ताचें ह्हह्ह''

अर्चना मुखार उलोवचे पयलींच प्रेमाहोनीन ताच्या तोंडार हात दवरलो आनी ताकतिकेन म्हळें, – ''आगो, आगो, ओगीच खेपनाका. तें पील आपूण जावनच तुमच्या घरांत आयलां जावंये! मोनजातीक न्ही, मनशाच्या मनाचो वास पयसुल्ल्यानच येता खंय...! कोण आपलो मोग करपी, कोण मनान कुसकें... समजता गो तांकां..''

अर्चनाक तिडक मारली. ''खरें काय कितें? माजरांक नुस्त्याचो, हुंदराचो बी वास येता तें आयकल्लें हांवें. पूण मनशाच्या मनाचो वास..? – आनी प्रेमाहोनी, तुज्या दारांतल्यान आमगेर येयसर... तुज्या मनाचो वास... ताका वास आयलो काय घाण आयली कोण जाणा?... पूण तूं काय कुस्के मनाची न्ही..!''

''तुजेकडेन कोणे वाद घालचो? म्हजी भाजी आसा गॅसार.. करपतली..'' प्रेमाहोनीन घरांत कूस मारली.

प्रेमाहोनीक कशें पुर्राद दिलें, अशें मनाक समजावन अर्चना हांसलें. ताणें सोपणार न्हिदिल्ल्या चांदूकडेन पळयलें. त्याच वेळार चांदून एक दोळो उकतो करून अर्चनाक पळयलें आनी दोळे मोडितशें करून परतो धांपलो. अर्चनाक चडच हांसूंक आयलें.





सांजचो रुपेश मनांत कांचवेतसो घरा आयलो. चांदून धांवत वचून रुपेशाकडेन लागोळेपणा करीत म्यांव म्यांव चालू केलें. आतां हाका व्हरून सोड म्हणून अर्चना तापयतलेंच. रुपेशान मनांत गणीत केलें. आनी सामको पुरो जावन.. जाम जाल्लेबशेन ताणें खाटीर घालून घेतलें आनी म्हळें - "अर्चना, उदक इल्लें दी गो! सामकें पुरो जालां आज... पांय मोडून आयले..."

अर्चनान बेगीबेगीन उदकाचो ग्लास हाडून रूपेशा मुखार धरलो. "कितें जालें? बस चुकली?" ताणें विचारलें.

"बस धरली कशी तरी.. पूण सगळो वेळ उबो... पायांक गुळे आयले सामके..." उदक पीत रुपेशान म्हळें, अर्चना च्या करूंक किचनांत गेलें. चांदून रूपेशाच्या पोटार उडी मारली आनी ताच्या हाताच्या बोटांकडेन खेळूंक लागलें.

"चांदू, खंयतरी लिपून बस... अर्चना आज तुका धांवडावन घालपाचें आसा.." रुपेशान चांदूचो कान ओडीत म्हळें. तशें चांदून हॅट् म्हणिल्लेबशेन म्यांव करून मान झटकिली. पूण रुपेशान ताका उबारून सकल दवरतकच आपूण जावन कोनशाक दवरिल्ल्या तुवाल्या-बोंदराचेर वचून तें न्हिदलें.

"आसू दी आयची रात चांदूक. न्हिदचेपयलीं प्रेमाहोनील्या जनेलांतल्यान

**आयज रुपेश ऑफिसाक वतकच चांदू अर्चनाकडेन खेळपाक फुरफुरलें. ताचीं तीं लागोळेपणा, पांयाक दांत लावप ना पूण घास मारिल्लेबशेन करप, थापट मारूंक गेल्यार हातच दावकुलांनी धरप... अर्चनाय ताचेकडेन खेळत रावलें. "जाणां मुगो चांदू, आमगेर एक भुरगें जावं दी, मागीर तुका नाकापुरो करून सोडटलें पळय." अशें म्हणून अर्चना आपूणच लजेलें.**

ताका तांगेर सोडचें." अर्चनान म्हळें आनी तें जेवणाचे तयारेक लागलें.

रुपेशान आपल्याक जाल्लें अजाप तोंडार दाखयलें ना. तो च्या पीत, बिस्कीट खायत बसलो. हळूच बिस्किटेचो कुडको ताणें चांदूवटच्यान शेंवटीलो. चांदूनय तो कुरू-कुरू करीत खाल्लो.

रातचो उजो जाता म्हणून आपा कुडीचें जनेल उकतें घालून न्हिदता. आज जनेलाच्या वारावांतल्यान कितेंतरी तांच्या रुमांत भितर सरलें अशें ताका दिसलें. पूण न्हिदेन जड जाल्ले दोळे...! ताणें दिवो लावन कितें-काय पळयलेंच ना. ह्यो पाली, जल्ले चडच जाल्यात घरांत. तो बडबडलो आनी कूस परतून न्हिदलो.

सकाळीं उठतनाच प्रेमाहोनीलो बोवाळ सुरू. 'कोणेतरी घरांत कोणशाक हळशीक करून दवरल्या म्हणून...!' मागीर तडक वचून ती अर्चना मुखार उबी रावली. "आगो अर्चना, तुज्या चांदून पळय गो आमच्या घरांत येवन हळशीक केल्या..." तिणें व्हडल्यान सांगलें.

"आमचें चांदू? तें पळय. कोणशाक आपल्या जाग्यार न्हिदिल्लें तें आतां दूद पिवपाक किचनांत येवन बसलां." अर्चनान बशयेंत दूद घालून बशी चांदूमुखार दवरली आनी आतां मारून-मारून हांवें ताका शिकयलां - हागप-मुतप हें त्या माडामुळांत वचून करता तें! कोणेंय माजर बी तुमगेर हाडून सोडूंक ना मू! सांबाळ बाये, म्हाका ह्या चांदून सुरवेक नाका-पुरो केल्लें."

प्रेमाहोनी तणतणत आपल्या रूमांत गेली आनी कागदां घेवन माजराची घाण काडूंक लागली. तिचो जीव विटलो सामको!

आनी मागीर ती चांदूची दुस्मान जाल्लेबशेन येतना-वतना ताचेर दोळे वटारूंक लागली. पासयो मारतना, व्यंकटेशस्तोत्र म्हणतना अर्चनाच्या असवडीं चांदूचेर हाताकडेन मेळल्यार थापट, पांयाकडेन मेळल्यार फांफार मारूंक लागली. ''अर्चना व्हरून सोड गो ताका खंयतरी. कित्याक त्रास काडटा ताचे?'' म्हणून अर्चनाक सुचोवंक लागली.

चार नंबरच्या रुमांतलो बसाप्पा भायर सरलो तेन्ना चांदू ताच्या मुखावेल्यान धांवत भायर गेल्लें. तेंच निमित्त धरून प्रेमाहोनी ताका कोमार काडूंक लागली. ''देखो, ये माजर आडवें गया ना, अब काम इबाडेगा तुमारा... अपशकून होगा. पनवत लगेली.'' बसाप्पा मागीर रुपेशाच्या दारांत येवन फडफडपाक लागलो. ''ए रुपेश, तुम्हारा बिल्ली..! कायको उसको सबेरे-सबेरे बाहर निकालता? चार दीन हुआ... स्कूल जाते वक्त मेरेको अपशकून करता. रोज कुछ-न-कुछ लफडा होताच! कलसे बंद करके रखो उसको. मेरे स्कूल जानेके बादच बाहर छोडो...''

प्रेमाहोनी ताका जल दिवपाक राविल्लीच! ''आरे माजर आडवें वचप बरें न्हीच! आनी कित्याक रे अर्चनाक त्या माजराचे त्रास काडूंक लायता? पयलींच ताका बाबड्याक कामां थोडीं आसात?''... सोड त्या माजराक व्हरून खंयतरी..

पूण रुपेश त्या बसाप्पाचेरच तापलो. ''आरे बसाप्पा तुम इतने शकून-अपशकून मानते? और स्कुलमें सायन्स टीचर हो ना तुम?'' आनी मागीर सायन्स टीचरान अशें माजर आडवें गेल्यार शकून-अपशकून मानूंक जायना... लोक आयकल्यार तुका हांसत बी... अशें म्हणून ताका लेक्चर दीत रावलो... शेवटाक बेजारून बसाप्पा आपल्या कामाक गेलो.

आयज रुपेश ऑफिसाक वतकच चांदू अर्चनाकडेन खेळपाक फुरफुरलें. ताचीं तीं लागोळेपणा, पांयाक दांत लावप ना पूण घास मारिल्लेबशेन करप, थापट मारूंक गेल्यार हातच दावकुलांनी धरप... अर्चनाय ताचेकडेन खेळत रावलें. ''जाणां मुगो चांदू, आमगेर एक भुरगें जावं दी, मागीर तुका नाकापुरो करून सोडटलें पळय.'' अशें म्हणून अर्चना आपूणच लजेलें.

दोळे धांपून अर्चनालीं बोटां चाटतालें त्या चांदून दोळे उकते करून ताच्या तोंडाक अजापानशें पळयलें आनी परते दोळे धांपले. अर्चनाक दिसलें, चांदू परतें आपल्याक दोळे मोडटा म्हणून... ''वच थंयचें उंवाळून... म्हजीं फकाणां करता?... आनी आतां तुजें हागप-मुतप सगळें भायर हां! नाजाल्यार प्रेमाहोनीगेर वचून कर. चल पयलीं भायर...'' अर्चनान चांदूक धुकलून उडयलें. तशें तेंय म्यांव-म्यांव करीत वताक बसूंक गेलें.

इतल्यांत प्रेमाहोनीच्या रूमांतल्यान किळच्यो आयकूंक येवंक लागल्यो. आयदनां पडिल्ल्याचो आवाज... आनी मुखार आपा धांवता आनी फाटल्यान लाटणी घेवन प्रेमाहोनी धांवता... दोगांय घरांतल्यान अशीं भायर सरनाका. प्रेमाहोनीन आकांतून उलो मारलो.. ''अर्चना, अर्चना आगो बेगीन यो गोऽऽ''

प्रेमाहोनीलो आकांत आयकून अर्चनाच न्ही, सगल्याच रूमांतलीं मनशां भायर वारांदांत आयलीं.

''कितें जालें गे?''

''क्या हुआ? क्या हुआ?''

''केसो बोब मात्ता गे? आपा फाटल्यान किद्याको..''

''लाटणें घेऊन मारते काय आपाला?''

''चोर बी मेयळंय काय?''

- एकाफाटल्यान एक विचारिल्ल्या प्रस्नांक प्रेमाहोनीन एका उतरान जाप दिली... ''हुंदीर..!''

मागीर बसाप्पाची बायल दांडो घेवन आयली. ''आपा किदर गये? आपा, ये डंडा लेके मारो चुहेको..''

''ताणीं हुंदराक मारिल्लो जाल्यार आनी कितें जाय आशिल्लें?.. म्हजेपयलीं ते भायर धांवल्यात..'' प्रेमाहोनी किळंचली.

मागीर अर्चनान म्हळें -''चांदू, चल गो. प्रेमाहोनील्या घरांत पळय.. हुंदीर दिसता जाल्यार..!'' आनी बळयां ताणें चांदूक उबारून तांच्या घरांत सोडलें.

चांदूय बी नेटान आपूण व्हडलो पुलीस जाल्ले बशेन हांगा-थंय वास घेत-घेत भितर भोवंक लागलें. भितर कितें चलता तें आपल्याक चुकत म्हूण सगलीं दारांतच घुरी करून रावलीं. चांदूक भिवन काय दारांतले गर्देक भिवन... हुंदीर जो धांवलो तो दारांतले गर्देंत घुसलो. मागीर घेऽ पळापळ!... ''म्हज्या पांयार चडलो.. म्हज्या पांयाक घुसपलो..'' करीत सगळीं हांगा-थंय धावूंक लागलीं. शेवटाक मुखार हुंदीर धांवता, फाटल्यान चांदू धावता, असो वारांदार तांचो नाच चल्लो आनी चांदून एकदांचो हुंदराक तोंडांत धरलो. पूण तें हुंदरापरस ल्हान जाल्ल्यान हुंदीर ताका आटापा येना जालो. अर्चनान मागीर बसाप्पा-बायलेच्या हातांतलो दांडो घेवन त्या हुंदराचे तकलेर घालो.

केन्ना न्ही तें आज प्रेमाहोनीन चांदूक अपुरबायेन उबारलें. ताका पोशेत-पोशेत म्हणूंक लागली- ''अर्चना, बरेंऽ गुणांचें गो तुजें चांदू...''

कोणेंय पोशेल्यार चांदू दोळे धापून 'गुर्रऽऽ' आवाज काडीत तें सूख भोगता. आतांय चांदू बरेंच सुखाविल्लें आनी ताणें तोंडांतल्यान 'गुर्रऽ' करीत दोळे धांपिल्ले.

आनी आतां मदींच चांदू दोळो उगडून आपल्याक दोळो मोडतलेंच म्हणून अर्चना ताच्या तोंडाक पळयत रावलें....





– एड्‌वीन जे. एफ. डिसोझा,
मंग्ळूर

# वोडतालांव



*जेनिफर धांवलें, तिच सुंदर, उप्राळी आनी सत्रा वर्साचे प्रायेक सहज जाल्ली उद्रिक्त धांव. कुडिन आनी बर्याच मट्टाक मानसिक रितिन परिपूर्ण परिपिकाय जोडुन येंव्ची चली जेनिफर. शिकपांत एकदम हुषार न्हय तरी सामान्य संगतंनी विंचव्ण कर्च्यांत सुक्षीम. कोन्व्हेंटान दिंवच्या गडी भितर स्वतंत्रायेच्यो गडी परिपूर्ण रितिर चाकोन आनी तुकोन पळेंवक तें सक्तालें.*

सिस्टर मारियाच्या वोडतांत सर्व थरांची रांद्वय किर्लातालीं पुण वोडतालांव (mint) मात्र किर्लानातल्ली संगत कोन्वेंटांतल्या सर्वांक कळित आसचीच.

तिणे सबार प्रेतनां केल्ली तरी तिच्या वोडतांतल्या मातियेंत वोडतालांव किर्लोंक बिल्कुल आयकानास्सल्लो. पालेव्न आयिल्लीं मुळां सयत आशेच्यो आंक्र्यो दाकव्न, कुसोन वेताल्यों. दिसा मधें खंच्यायी वेळार तिका कोण तरी भेटलें तर गर्जेच्या उलव्ण्या मदेंयी वोडतालांवा थंय तिची नायशस्वी कशी पुणी ती जाग्र कर्ताली.

मदर सुपीरियर जाव्नास्ची ती, कोन्हेंटांतल्या सर्वांक मोगाची आदिलच्च सिस्टर मरीया जाव्न उराजे तर तिचे थंय सबार विसेशता आसल्ल्यों. त्या पैकी वोडतालांवांचे किर्लव्णे थंय चालु आस्चें तिचें सतत झुज एक. तिच्या जाण्वायेचीं, मोगाची, देवास्पणाचीं आनी आडळतेच्या शातियेचीं संपनमूळा जाणा आसचीं हेरां वोडतालावांचेर तिणें दाकोवंच्या साद्या झुजाथंय जरूर विस्मित पाव्तालीं.

त्ये सांजेर सिस्टर मरीयाक चिंतिनासल्लें एक विस्मित राकोन आसल्लें. सदांचेपरी ती 'जेनिफरा' सांगाता, तीन धोम्सिंची कुदोळ (3-pronged grate) घेवन वोडतांत पासायो मार्तान तिची दिश्ट उदकाचे टांकी पाटल्यान वाडोन विस्तार्लेल्या पाचव्यायेचेर (green growth) पडली. ह्या फुडेंयी तिची दिश्ट ह्या वाडावळिचेर पडल्ली पुण ती वाडावळ तवळ इतली विस्तारोंक नातल्ली जाल्ल्यान तिचें गमन ताचेर तितल्या सुक्षीमायेन खंचल्लें ना. पुण आज, तिचें सगळे गमन त्या वाडावळिचेर पडलें.

'काराणो' (Leaves Of Wild Creeper use to make Chutney) बिल्कुल न्हय. परिचित दिसची पुडपुडीत पानां. दोन तीन हुम्टोन, बोटां मधें चिर्डुन तिणें पर्मळ घेतलो. दुबावच नातल्लो! केदाळागी, कुसोन गेलां आसतलें म्हण हुम्टुन उडयिल्लें वोडतालांवांचें मूळ किर्लोन आज दोन अडेज फुटिंचे विस्तारायेर चरोन रावल्लें.

"जेनिफर my child!"

तिची ल्हान पुण स्पश्ट हांक्रेव्णी आय्कोन चिकेसे पय्स आसल्लें, सत्रा वर्सांचें जेनिफर उडोन येव्न तिचे सर्शीं उबें जालें.

"जें हांव पळेतां तें तुंयी पळेताय, जेनिफर?" तिणें विचार्लें, धर्णीक कुदोळेन कुट्टोन. तिच्या हर प्रेतनांन सांगात दिव्न आयिल्ल्या जेनिफरान धाराळ वोडतालांव

पळेयिल्ले. तें, त्या वाडावळेक वळकालें.

ताणेंयी दोन पानां कुंटोन, बोटां मधें चिर्डुन पर्मळ घेतलो.

''वोडतालांव, सिस्टर मरीया!'' तें उद्‌गार्ले, कोन्वेंटाच्या कॉयरांत प्रक्यात जाल्ल्या आपल्या नाजूक ताळ्यान, ''तुंवे अजापच्च केलेंय.''

''ना, जेनिफर!'' ती म्हणाली येकाचाणे आपले मुकमळ देंव्न. ''म्हज्या प्रेतनान न्हय बगार म्हज्या निर्गमनान हो वोडतालांव किर्लाला. हो हांवें चोत्रायेन हुम्टुन काडिजे आनी ताका फावो जाल्ल्या ईटाभरित (fertile) वोळिंनी लायजे...''

''पुण सिस्टर...''

सिस्टर मरियाचे दोळे जेनिफराचेर खंच्ले. तांचे मध्यें पाशार जाल्ली तीं चिंत्ना तिच्या विसिश्ट मायपासाक वळकातेल्यांक मात्र कळित जातीं.

ताणीं फुडें कितेंयी उलंव्च्या पयलेंच एक 'पॉश' कार कोन्वेंटाचे गेटिंतल्यान भितर सर्ले आनी विस्तार 'पोर्च्या' पंदाक रावलें.

तांतल्यान, सुद्रापाचें आनी लक्षणांचें एक जोडें, मध्यम प्रायेचें. भायर आयलें. आपल्या वोडतालांवाक विस्रेन सिस्टर मरिया नीट उबी जाली. तें जोडे कोन्वेंटाक येतलें म्हण ती जाणां आसली.

''पुण, इतले वेग्गी?'' ती आण्णा इतल्याक पुस्पुसली.

''कितें, सिस्टर?'' जेनिफर लागीं सर्ले. ताच्या भुजाचेर तिणें हात दवर्लो. ''वेगिंच, हात-पांय धुव्न वस्तुर बदिलय, जेनिफर'' ती म्हणाली, ''उप्रांत, तुका हांव पार्लराक आपयतां!''

जेनिफर धांवलें, तिच सुंदर, उप्राळी आनी सत्रा वर्सांचे प्रायेक सहज जाल्ली उद्रिक्त धांव. कुडिन आनी बर्याच मट्टाक मानसिक रितिन परिपूर्ण परिपिकाय जोडुन येंव्ची चली जेनिफर. शिकपांत एकदम हुषार न्हय तरी सामान्य संग्तंनी विंचव्ण कर्च्यांत सुक्षीम. कोन्वेंटान दिंवच्या गडीं भितर स्वतंत्रायेच्यो गडी परिपूर्ण रितिर चाकोन आनी तुकोन पळेव्क तें सक्तालें. ताची जाण्वाय आनी तवळची परिपिकाय ह्यो गडी उत्रोक ताका सोडिनातल्ली.

ताची आनी सिस्टर मरियाची परिचय वर्सांची. एका वाक्यान सांगचें तर तिच्या हातांनिंच तें व्हड जाल्लें.

तें धांव्तेंच सिस्टर मरियान आप्लिच निर्मळाय तिर्सिली आनी दग्लो बदलून पार्लरा कुशीन ती गेली. अर्ध्या वाटेरच मेळल्ल्या 'पार्लर मेय्डान' तिका 'तांच्या' येण्या विशांतं कळयलें.

''हांव जाणां!'' मटव्यान ती म्हणाली. ''पंद्रा-वीस मिनुटा बितर जेनिफराक धाड. तवळ परयांत तुंवे हेरांक पय्स दवर्चे बरें आनी हेर चलियांनी पार्लरांत तीळ्न पळेंव्चे म्हाका नाका.''

पार्लर मेय्ड मान भागाव्न चल्ली.

सिस्टर मरिया पार्लरा बितर रिग्ताना 'एमिलीया' आनी 'डॉ. जोनाथन' भुजां मधें तक्ल्यो गळव्न बसून आसल्लीं, वंदनार्पण जातेच:

''तुमीं वेगिंच आयल्यात!'' ती म्हणाली तांच्या सामकार बसुन. तिचे दोळे एमिलियाचेर आसल्ले. ''आमच्यान तडवुंक जालें ना, सिस्टर!'' एमिलिया म्हणाली कांपेर्या ताळ्यान. ''येदोळ पर्यांत जेनिफराक तयार करूंक तु सक्लिनांय?'

''आमचो परिपूर्ण सहकार तुका आसल्लो, सिस्टर.'' डॉक्टर जोनाथन म्हणालो घनादिक ताळ्यान. ''आतांयी तो आसतोलो म्हण हांव पातियेतां, डॉक्टर!'' सिस्टर मरिया म्हणाली तितलेच घनतेन. ''जेनिफर, सम्जणेक पावल्लें भुंगें. हांवें खरी संगत ताच्या सामकार दवरल्या. पुण आक्रेची विंचव्ण करिजे... ताणें!''

''ताका कसल्यांती कसलेंच उणें जांव्चें ना, सिस्टर!'' परत उलयलो डॉक्टर जोनाथन.

''एमिलियाचे पाटल्ये जिणियेचेर हांव इतलें विशाल मन दाकंव्क सक्लों तर आतां जेनिफराच्या सुखा खातीर हांव कितें करूंक सकतां म्हळळें तुं जाणां जाल्याय आस्तेलिय!''

''हांवें जाणां जाव्न फाय्दो ना, डॉक्टर!'' जाप दिली सिस्टर मरियान. ''जेनिफरान तें सम्जाजे आनी विंचव्ण करिजे.''

''तुं आमकां चड भर्वासो भासायनांय, सिस्टर!'' एमिलिया म्हणाली.

''सत्रा वर्सां आदीं ह्या कोन्वेंटान तुका एक नवें जिवीत दिल्लें, एमिलिया.'' ती म्हणाली, शिंतिदाक लाग्च्या उत्रांनी.

''तवळ विंवचण आमीं केल्ली. तवळ जेनिफराक कसलोच अव्कास नातल्लो. पुण आतां तो अव्कास आसा आनी तें आपली विंचव्ण करूंदी.''

डॉक्टर जोनाथनान एक लांब उस्वास सोडलो.

''पाशार जाल्ल्या सतरा वर्सांनी,'' म्हणाली एमिलिया.

''तुवें जेनिफराक एका भलत्याच संसाराक तयार केलांय जाव्येत. अशें जाव्न तुं ताका हांगासरथाव्न सुटका दींव्क पाटीं कर्ताय.''

''सुटका!'' सिस्टर मरिया उद्‌गरली. ''सुटके विशांत तुं कितें जाणांय, एमिलिया?''

एमिलिया आतां रडली.

''सतरा वर्सांचें प्राजित हांवें केलां!'' ती म्हणाली.

''आतां पुणी म्हाका समधान जाय, सिस्टर मरिया.''

''तांची विचव्ण जेनिफर कर्तेलें!''

थोडच्या वेळाचें मौन. पार्लराच्या दाराक ठोके पडले.

''भितर सर, जेनिफर!''

दार उक्तें जालें आनी जेनिफर भितर सरलें. कसलेगी अदृष सक्तेन उटयिल्लेपरीं एमिलिया आनी डॉक्टर जोनाथन सांगाताच उबीं जाल्लीं. जेनिफरान, तांकां सहज रितिर वंदन केलें. तीं बस्लीं.

सिस्टर मरिया, 'आपुण वेतां ' म्हळ्ळेपरीं उटोन उबी जाली.

''राव, सिस्टर!''

दोन ताळे तिका सांगाताच आय्काले.

पय्लो ताळो, जेनिफराचो. एका तराची हुकुम त्या ताळयांत आसल्ली. दुसरो ताळो एमिलियाचो. एक प्रार्थन त्या ताळयांत आसल्लें. त्या दोनांकयी सकत दिंव्चो बळिष्ट खांबो जावन सिस्टर मरिया बस्ली.

''कित्लें सोबित तु दिस्ताय, जेनिफर!'' सुरू केलें एमिलियान.

''तुमच्या आदल्या 'स्कुल डे' वेळार आमीं तुका स्टेजीर पळेल्लें. आतां तुं.... हांव तुजी खरी माम्मी, जेनिफर!'' एमिलिया एकाचाणे उमाळ्ळी.

''सिस्टर मरियान म्हाका सर्व सांग्लां!'' म्हणालें जेनिफर. ताचो ताळो स्पष्ट आसल्लो. ताचें तर्ने हर्दे जोरान भायर-बितर वेच्या उस्वासाक लागोन उटतालें, बस्तालें.

''खऱ्या आवयच्या मोगाविशीं तुं वाचुन या आयकोन जाणांय म्हण हांव चिंतां जेनिफर.'' म्हणालो डॉक्टर जोनाथन. ''आतां ती आवय तुज्या साम्कार आसा.''

जेनिफराचे दोळे निरीक्षणेन एमिलियाचेर खंच्ले. एमिलिया, ती घेंव्क सक्ली ना.

''बरें तर,'' एमिलिया म्हणाली, आण्णाकच्च आराव्न घेवन.

''म्हज्या प्राजिताचो निमाणो वांटो जाव्न सग्ळें सत म्हजे थाव्नंच आय्कोंक म्हजिच्च धुव अपेक्षीता तर, हांव तयार आसां!''

जेनिफर, पार्टी वण्कोन बसलें.

''तुं सम्जणेक पावल्लें भुर्गें!'' सुरू केलें एमिलियान.

''तुका हुमिण्यो हांव सांगाना. सतरा वर्सां आदीं तुजो जल्म जाताना संसाराक हांव तुजी आवय म्हण सांग्चे स्थितियेचेर हांव नातल्लीं. त्या खातीर, म्हजें पाप ह्या कोन्वेंटाचे वणर्दी मदें हांवें लिपय्लें.'' तिचो ताळो कांप्लो.

''साफ-सुफ जावन हांव पार्टी गेलीं आनी एका दिसा डॉक्टर जोनाथनाची पतिण जाली. समाजेंत म्हजें स्थान थिर जालें.

पुण केदोळ पर्यांत? म्हजें मानसिक खत वर्सान वरस दाट जायित्त येताना म्हजी



मानसिकता दंडळ्ळी. डॉक्टर जोनाथन सत जाणां जालो पुण ताणें म्हाका खोटाय्लें ना पुण सांबाळ्ळें. सतरा वर्सां आदीं तो म्हाका भेटाजे आस्लो.... आतां तुं आम्कां जाय, जेनिफर. आम्कां आम्चिंच्च कोणयी नांत. तुं म्हजेंच्च रगत आनी तुं म्हाका जाय...'' एमिलियाचें सर्वांग कांप्तालें.

''हांवें एका पयशिल्या हिल्ल स्टेशनांत प्रॅक्टीस (practice) सुरू केलां, जेनिफर,'' म्हणालो डॉक्टर जोनाथन.

''पयशे चड मेळनांत पुण नयसर्गीकतेच्या पाळण्यांत आमी आस्तेल्यांव. कोणायचीं सवलां आसचीं नांत; अणकण्याचीं बोटां आसचीं नात. तुज्या ह्या तर्ण्या वाडावळीक जाय जाल्लो ईट आसल्ली वोळ आमीं तयार केल्या, जेनिफर. तुवें आमचे संगीं येंव्ची विंचव्ण करिजे!''

आतां, जेनिफरान एक लांब उस्वास सेव्लो. तें हाळ्वायेन दोळे धांपिलाग्लें.

''तुज्या माम्मिची मानसिकता परत दंडळची ना, जेनिफर!'' जोनाथन म्हणालो.

''तुं सांगाता आसची तर आवयक एक धुव आनी पतिक एक पतिण उर्तेली. सिस्टर मरियान इत्लें पुणी तुका सम्जाय्लां आस्तेलें.'' आतांयी जेनिफरान जाप दिली ना.

''मन कर, म्हजे धुवे!'' एमिलियान परात्लें .

''हांव तुज्या साम्कार हात सोडटां. सतरा वर्सांनी तुवें कितें बोग्लांय तें हांव जाणां. पुण हांवेंयी कांय उणें बोगुंक ना.''

''सग्राण सांबाळ, एमी'' डॉक्टर जोनाथन पतिणेक लागीं आराय्लाग्लो.

''जेनिफर, सम्जणेचें भुर्गें. एक उत्तीम आनी सुखाबरित जिवित ताच्या साम्कार आसा. फावोती विचव्ण तें जरूर कर्तेलें.''

जेनिफर, एका मंद हास्या संगी सिस्टर मरियाक पळेलाग्लें आनी तिणेंयी तसलिच्च दिश्ट ताका पार्टी दिली.

''म्हजे थाव्न तुका कसलोच व्येक्त पाटिंबो मेळ्चो ना. जेनिफर (my child)'' ती म्हणाली.

''असली एक विंचव्ण करूंक हांवे तुका सत्रा वरसांथाव्न तयार केलां!''

जेनिफरान, आपल्याच बोटांचो पर्मळ घेत्लो.

''हांव तुज्या वोडतालांवां विशांत चिंतालीं, सिस्टर मरिया,'' तें म्हणालें, नीट बसुन.

''कितें तुं चिंतालेंय?''

''वोडतालांवाच्या पानांचो पर्मळ आतांयी म्हज्या बोटांचेर आसा. तुज्या प्रेतनान न्हय पुण निरगमनान तो किर्लाला. तो तुवें चोत्रायेन हुम्टुन काडिजे आनी ताका फावो जाल्ले वोळींत लाय्जे....''

''जेनिफर!'' सिस्टर मरिया परत उबी जाली. तिचे वोंट कांप्ताले.

''कितें उलयतात तुमीं?'' एमिलियाच्या ह्या सवालाक कोणेंच जाप दिली ना. संगत सम्जाल्ल्या डॉक्टर जोनाथनाच्या दोळ्यांनी आतां दुकां उदेलीं. ताका सर्व सम्जाल्लें.

''तो वोडतालांव किर्लाल्ल्या जाग्यारच आस्तोलो!''

जेनिफराच्या भुजांचेर हात दवर्न म्हणाली सिस्टर मरिया.

''ईटाळ वोळी खंचायी किचड मातियेंत आसा करूयेत. पुण वोडतालांवांचो पर्मळ....''

दुकांनी तिचीं उत्रां तितल्यारच जिर्लीं.



## उदकाचो निमाणो थेंबो आसल्यार ताचो तुमी कितले जतनायेन वापर करतले?

**उदक जतनायेन वापरात !**

पोरसां - बागो, मळे, शिंपचेंखातीर फकत जाय तितलेंच उदक वापरात.

गरज नासतना उदक कश्याय - कशें वारोवं नाकात, मतींत धरात उदकाचेर सगळ्यांचोच तितकोच अधिकार आसता. उदक साठयतनां आनीक एका दिसाखातीर इल्लें चडच साठयात. हें उदक तुमकां जेन्ना नळाक उदक नासतलें तेन्ना वापरूंक मेळटलें.

- नळ वापरले उपरांत नळ रोकडोच बंद करात.
- नळांतल्यान गळटा तें उदक वा वाल्वातल्यांन, टाकयेंतल्यान/पायपांतल्यान गळटलें उदक तत्काळ बंद करात.

- लोकांक उदकाची पुरवण करतल्या पायपांतल्यान जर उदकाक गळटी लागल्यार, वो नळ फुटल्यार आनी कोणीय बेकायदेशीर रितीन वाटेवयल्या पायपांतल्यान उदक घेता अशें दिसल्यार तत्काळ आमकां सकयल दिल्ल्या फोनांचेर कळयात. (९४२२४१७२३३)

आदाराखातीर फोन नं. २४२००६९, २४३००७०. (सकाळीं ८.०० ते सांजे ८. ०० मेरेन)

| | |
|---|---|
| पणजी वांठार | : २२२२४४६ |
| वास्को वांठार | : २५१२३८२ |
| मडगांव वांठार | : २७१४७७७ |
| फोंडें वांठार | : २३१२०८१ |
| म्हापसा वांठार | : २२६२३७४ |




उदक वाचयात, आनी जीण वाचयात!

**कितें आयज तुमी तुमच्या वांट्याक आयिल्लें उदक वाचयलें?**




लोक हिताखातीर वितरावणी

भौशिक बांदकाम खातें

गोंय सरकार




# दामोदर मावज्याली 'सुनामी सायमन'

- एस्. डी. तेंडुलकार

*ती एक बालबोध कादंबरी. त्या अर्थान तिका बालकादंबरी अशें म्हणू येता. पूण बालकादंबरी आसली तरी ती लेखनांत बालीश आसूंक फावना. पूण हांगा लेखकाचीं बालीशपणाच चड दिसतात. सुनामी जाल्या उपरांतचो सायमनचो प्रवास हो टिपीकल फॉर्म्युला हिंदी फिल्मांचो आसा. ह्या प्रवासांत सायमनाक मेळिल्लीं पात्रां हीं फॉर्म्युला हिंदी चित्रपटांतल्या सारकीं भासतात.*

'सुनामी सायमन' ही दामोदर मावजो हांची नवलकथा 'बिम्ब' प्रकाशनान २००९ सालांत प्रकाशीत केल्ली ती हालींच हांवें वाचून काडली.

आतां 'सुनामी सायमन' ही नवलकथा काय 'बालनवलकथा'? - असो प्रस्न वाचकांच्या मनांत उप्रासूं येता. पूण म्हज्या मतान साहित्यप्रकार खंयचो हें म्हत्वाचें न्हयच. म्हत्वाचें इतलेंच की जें कितें लेखन 'सुनामी सायमन' ह्या नांवान लेखकान केलां तें कितलें जेन्युईन आसा?

मद्रासाक जाल्ल्या सुनामीचे फांटभूंयेर सायमन नावाच्या एका तेरा वर्सांच्या भुरग्याचें ॲडव्हॅन्चर हो हे नवलकथेचो विशय जावन आसा. कथासूत्र अशें :

गणसूव ह्या गांवांत रावपी दुलसीन आनी गाबरू ह्या जोडप्यांचो चलो म्हळ्यार सायमन. बुला नांवाचें तांचें एक तिनेक वर्सांचें चली तकलेक जोर चडून हालींच पेड्डयार जाल्लें आसा. मार्सेलिन ही दुलसीनाली धाकली भयण पोण्णू नांवाच्या मद्रासीवांगडा मोगांत काजार जावन मद्रासाक पळून गेल्ली, ती बुलाच्या वर्साच्या मिसाक मुद्दम आपले भयणीगेर गोंयांत येता. आनी मद्रासाक परत वतना तें सायमनाकूय आपल्या वांगडा कांय दीस रावपाक घेवन वता. सायमनाक स्कुलाक नातालाची सुटी आशिल्ल्यान ताचो आवय-बापूय राजी जातात. पूण थंय गेल्लेकडेन मद्रासाक सुनामी जावन गांवचे गांव काबार जावन वतात. तातूंत मार्सेलीन आनी पोण्णू हांचोय बळी वता. हे सुनामींत वाचता तो माडाक घट्ट धरून राविल्लो सायमन. सुनामी उपरांतलो सायमनाचो आपल्या घरा परतून येवपाचो प्रवास म्हळ्यारूच फुडली कादंबरी.

जीणेंतल्या संकश्टांच्या फांटभूंयेर आपली जीण, आपलें अस्तित्व तिगोवपाची मनशाची खर इत्सा हो खरो म्हळ्यार हे कादंबरीचो विशय आसूंक जाय आसलो आनी तेच नदरेन कादंबरेची मांडणी, तपशील येवंक जाय आशिल्लो. पूण हो विशय लेखकान साहस, ॲडव्हॅन्च्यर इतलेच पातळेर हाडून दवरला. आनी त्या साहसांत कसले थरारक खिणूय दिसनात. आता लेखकान ही नवलकथा 'शोकात्म' कथा म्हणून बरोवंक ना हें स्पश्ट आसा. पूण मुळांत हे कादंबरेची फांटभूंय शोकात्म आशिल्ली. सुनामी जावन हजारांनी लोक मरतात. सायमनची स्वताची मावशी आनी मावसो मरता. पूण ह्या मर्णाचो 'इफेक्ट' आनी ताचीं वेगवेगळीं 'डायमेन्शनां' कादंबरेंत खंयच ठळकपणान आयल्लीं दिसनांत. खरें म्हळ्यार विध्वंसांतल्यान सृजन असो हे कादंबरेचो प्रवास आशिल्लो. पूण तो खूब 'चीप' पध्दतीन जाला. ताका कलाकृतीचें वजन मेळूंक ना.

सुनामी जाल्या उपरांत मार्सेलीन आनी तिचो घोव पोण्णू हीं पात्रां कादंबरेंत कटापूच जातात. तीं मेलीं म्हणून कटाप जालीं असो दावो जर लेखकान केलो तर हे कादंबरीच्या विशयाची रचना, मांडणी वेगळे पध्दतीन जावंक जाय आशिल्ली हेंच तातूंत सिध्द जातलें. खरें म्हळ्यार सायमनाचेर फोकस दवरूनूच बाकीच्यो गजाली, पात्रां येवंक जाय आशिल्लीं. म्हळयारूच निवेदन पध्दती प्रथमपुरूशी आसूंक जाय आशिल्ली. प्रथमपुरूशी म्हळ्यार 'हांव सायमन सांगतां' हें निवेदनतंत्र दवरिल्लें जाल्यार कादंबरेचे सुरवातीक येवपी अनावश्यक तपशील,

नरेटिव्हज हांका आपोआप सेन्सॉर, कात्री लागपाची. देखीक हे कादंबरेची सुरवातूच पळयात :

'वण्टीक तेंकून उबी दवरिल्ली फातर आडवी करून दुलसिनान तांबयांतल्या उदकान ती धुयली. उब्या पाट्यान हळद फोडून मागीर पाटो आडवो करून भोंवडायलो. सोय, जिती मिरसांग, गांवठी मिरसांगां पिठो घालून तें वाटपाक लागलें. संवयेचे हात फाटीं फुडें जावंक लागले. फुड्यांत बाकिनाचेर बशिल्लें मार्सेलीन दुलसिनाकडेन तोखणायेन पळयतालें.

''आगो दुलसीन माना, आजून तुमी मिक्सर घेयलो ना सो?''

मार्सेलिनाच्या प्रस्नाचेर हात मात्त थारायनासतना दुलसिनाना सांगलें, ''ओऽ चय. आलमारीचेर पडोन आहा.''

''मागीर उजार कित्याक करना? कास्तिगच ना. घुर्रर घुंवडायलें – वांटोंन रेडी.''

''कडी जेयन चयल्या तुयें?''

–आता म्हाका सांगात कादंबरेचो विशय कितें? तर विध्वंसांतल्यान सृजन. कादंबरेचो प्रोटॅगॉनिस्ट कोण? तर सायमन. तर मागीर हे कादंबरेची सुरवात अशी कितें? कारण कादंबरेतलो हो वयर दिल्लो तपशील, पात्रांचे संवाद हे कादंबरीच्या विशयाक, आशयाक धरून नात. वगीच लेखक कितेंतरी वर्णन करता आनी पात्रां कितेंतरी फालतू उलयतात. लेखकान कादंबरेची सुरवात खरें म्हळ्यार 'टू द पॉईंट' करपाची. देडशें पानांची ही ल्हान कादंबरी, ती 'टू द पाईंट'च आसूंक जाय आशिल्ली. आनी प्रथमपुरूशी निवेदनतंत्र वापरिल्लें जाल्यार तें काम अदीक सोपें जावपाचें.

लेखकान हे कादंबरींत विशयाची मांडणी आनी तपशीलाची निवड सारकी करूंक ना. म्हणूनूच हे कादंबरीची खरी सुरवात जाता ती दुलसिन आनी मार्सेलिन ह्या भयणींचें उलोवणें बुलाच्या मर्णाचेर पावता तेन्नाच. ह्या मर्णाच्या फांटभूयेर रांपणीक लागिल्ल्या बुलग्याचे म्हळ्यार डॉल्फीनाचे दोळे दुलसिनाक आपले हे मेल्ले चलयेवरी दिसतात आनी तें डॉल्फीनाक जाळ्यांतल्यान सोडून दिवपाची सांतान रांपणकाराक विनंती करता आनी सोडटाय बी. हो ह्या पयल्या प्रकरणाचो खरो हायलायट. कादंबरेची सुरवात होच हायलायट सेंटराक दवरून जावंक जाय आशिल्ली. पूण सुरवातीक नाका जाल्लो तपशील, संवाद दिवन लेखकान हे कादंबरेची सुरवातूच पेड्ड्यार करून उडयल्या. तशेंच पान नंबर ३१ ते पान नंबर ५२ मेरेनचें कादंबरींतलें एक प्रकरण तर सामकेंच अनावश्यक आसा. कादंबरीच्या विशय–आशयांत ताका कांयच स्थान ना. दुलसिन–गाबरू दोगांयचें पिक्चराक वचप, थंय तांकां आक्सीदेंत जावप, पांय फ्रॅक्चर जावप, नुस्त्यांनी गाबरूची रांपण पिंदप ह्यो सगल्यो गजाली कादंबरेंत उखलाप्यो दिसतात. नुस्त्यांचीं दिल्लीं कांतारां बीन वातावरण निर्मिती तर करीचना, उलट तें पॅचवर्क कशें दिसता.

कादंबरीची खरी सुरवात ५३ पानापासून जाता, जेन्ना सायमन आपली मावशी मार्सेलिना वांगडा मद्रासाक पावता, आनी थंय सुनामीचो आकांत घडटा थंयसून. तर मागीर ते आदींचीं पन्नासेक पानां ही कादंबरीची बेठी प्रस्तावना अशें धरपाचें? पूण आयची आधुनिक कादंबरी अशी इतलीं पानां प्रस्तावनेक वगीच खर्ची घालची ना. आतां 'सुनामी सायमन' ही आधुनिक कादंबरेंतल्या मुशींतली न्हय. ती एक बाळबोध कादंबरी. त्या अर्थान तिका बालकादंबरी अशें म्हणू येता. पूण बालकादंबरी आसली तरी ती लेखनांत बालीश आसूंक फावना. पूण हांगा लेखकाचीं बालीशपणाच चड दिसतात. सुनामी जाल्या उपरांतचो सायमनचो प्रवास हो टिपीकल फॉर्म्युला हिंदी फिल्मांचो आसा. ह्या प्रवासांत सायमनाक मेळिल्लीं पात्रां हीं फॉर्म्युला हिंदी चित्रपटांतल्या सारकीं भासतात. सायमनाक भेटिल्लो बऱ्या मनाचो रिक्षावालो, सायमनाक भेटिल्लो दुष्ट रेल्वे टि.सी, त्या टी. सी. ची खावन–खावन माजिल्ली दुश्ट बायल, उदार उद्योगपती डी टी के. हीं सगलींच फिल्मी दिसतात. उद्योगपतीक वाचोवपाक सायमनान दिल्ली गुंडावांगडा कराटे फायट, उद्योगपतीन सायमनाची केल्ली तोखणाय आनी गोंयांत घरा पावोवपाची केल्ली तजवीज, उद्योगपतीन सायमना वांगडा काडिल्लो फोटो ह्यो सगल्योच ओडिल्ल्यो–ताणिल्ल्यो गजाली दिसतात. आनी कादंबरीचो शेवट लेगीत फिल्मी पध्दतीन जाला. हे कादंबरीचें निमणें वाक्य कितें तर – 'फोटवांत सायमना वांगडा डि टी के आशिल्लो. आनी सकयल मोट्या अक्षरांत बरयिल्लें – 'सुनामी सायमना वांगडा डि टी के' – जाली, सोपली कादंबरी. हें अशें कित्याक जालां? हाचें कारण म्हळ्यार लेखकाचो 'पॉईंट ऑफ व्ह्यू'च चुकीचो आसा.

तातुंतल्या तातूंत लेखकान बरें रेखाटिल्लें पात्र म्हळ्यार–मोनाचें. सुनामींतल्यान वाचिल्लें मोना हें णव वर्साचें चली. सुनामीच्या शॉकांत मोनें जाल्लें म्हणून सायमनान ताका मोना हें नांव दिलां. रांपणीक लागिल्ल्या बुलग्याक (म्हळ्यार डॉल्फीनाक) पळोवन दुलसिनाक आपले मेल्ले चलयेचो, बुलाचो उगडास येता. आनी सायमन मोनाकडे वोडटा तो आपले भयणीच्या, बुलाच्या उगडासान काय कितें? – हो ताण वाचकांच्या मनांत लेखक जागयता. त्याखातीर मोना हें पात्र फिल्मी दिसना. दुसरें म्हळ्यार, सायमन आनी मोना हांचें रिलेशन भाव–भयणीसारकें वयलेचाराक दिसता. पूण त्या रिलेशनांत तांच्यांतलीं दादलो–बायल हीं नातींय घुस्पल्यांत हाची हय–न्हयशी जाणविकाय हांगा सूक्षीमपणान व्यक्त जाल्या. मोनाकडे सलगी करूंक सोदपी चंद्रा वेटर, न्हाताना मोनाच्या फाटीक चंद्रान शाबू लावप, चंद्रालें तें वागणें सायमनाक न आवडप, ताका

धुकलून उडोवप आनी आपणें अशें कित्याक केलें तें सायमनाक ना कळप, रातीकडे मोनाचो गैरफायदो घेवपाचो चंद्रान प्रयत्न करप, त्याखातीर सायमनान ताका बडोवन काडप. ह्यो सगल्यो गजाली सायमन आनी मोनाचें नातें संमिश्र, कॉम्पलेक्स करून उडयता. चंद्रा वेटरच्या लपंट सभावाखातीर सायमनातलो 'दादलो' आनी मोनांतली 'बायल' हांगा कळत-नकळत आकार घेता. लेखकान हें संमिश्र नात्याचें डायमेन्शनूय कादंबरीचो शेवट करताना दाखोवं येतालें. पूण तें दाखोवपाक लेखक हांगा कमी पडला. दाखोवपाक कमी पडला म्हणचे परस लेखकाचो 'पॉईंट ऑफ व्ह्यू'च रंजक साहित्य बरोवपाचो आसा. मोटी झेप घेवपाचो कलात्मक हावेस हांगा दिसना.

हे कादंबरेंतलो कलात्मक आनी लेखकाची उंची दाखोवपी प्रसंग म्हळ्यार डॉल्फीनचो. रापणीक फाराविल्ल्या डॉल्फीनाक दर्यांत परत सोडप हो तसो सादो प्रसंग. पूण त्या प्रसंगाक बुलाच्या मर्णाचे फांटभूंयेर एक दयेचो करूणेचो मानवी भाव प्राप्त जाला, तो फुडें सुनामीच्या विध्वंसाकडे डायरेक्टली कनेक्ट जाता. कादंबरेच्या पयल्या पन्नास पानांतली सगल्यांत अर्थपूर्ण गजाल म्हळ्यार हीच.

दुसरी म्हाका जाणविल्ली बरी गजाल म्हळ्यार बुला, बुलगें (डॉल्फीन) आनी मोना हीं जीणेंतल्या Innocense च्यो प्रतिमा म्हणून येतात. बुलाची प्रतिमा बुलग्यांत आनी ह्या दोगांच्योय प्रतिमा मोनांत. बुला मरता पूण तें बुलगें आनी मोनाच्या रूपांत जितें उरता. म्हळ्यार जीणेंतलो Innocense बुला मेलें तरी बुलगें आनी मोनाच्या रुपांत जितो उरिल्लो हांगा जाणवता. पूण लेखकान आपले कादंबरी-रचनेंत तो नीट बसोवंक ना, हीच म्हजी खरी तक्रार आसा.

कादंबरींत निवेदक म्हणटा की - 'सुनामी हें उतर कानार पडलें तेन्ना सायमनाक दिसलें कोणा अस्तुरेचें नांव बी जांवये. पूण मागीर एका फाटोफाट एक फुडारी, पत्रकार आनी आदार दिवपाक आयिल्ल्या आपवावुरप्यांचें आयकून ताच्या लक्षांत आयलें जें आकांताळें हुंवाराचें ल्हार दर्यांत उप्राशिल्लें ताचें नांव सुनामी.'

- म्हळ्यार निवेदक हांगा सायमनचें मन, विचार आपल्या निवेदनांत व्यक्त करता. बरें आसा. पूण त्या निवेदना फाटलीं डायमेन्शनां लेगीत निवेदकान व्यक्त करचीं पडटात. कारण पर्सन निवेदनांत तें खूबूच म्हत्वाचें आसता. सुनामी जाल्या उपरांतची मानवी जीण, सुनामीचो मानवी जीणेचेर जाल्लो परिणाम ह्यो सगल्यो गजाली त्या डायमेन्शनाचोच एक भाग आसता. लेखकान हें डायमेन्शन व्यक्त करपाचो जो यत्न केला. तो खुबूच अपुरो, अर्दकुटो आसा. तें खरें म्हळ्यार ठळकपणान येवंक जाय आशिल्लें. पूण तें न करतां बेठी सुनामीची फोडणी दिवन लेखक हांगा वाचकांक 'सायमन ट्रॅव्हल्स'ची मसालेदार पूण बेळूस डिश दिता. सायमनचो हो ट्रॅव्हल 'पावलू ट्रॅव्हल्स' वा 'कोंडुस्कर ट्रॅव्हल्स' हे धर्तीचेर चाकोरीबध्द जाला. तो 'गॅलिव्हर ट्रॅव्हल्स' धर्तीचेर जाल्लो जाल्यार प्रवासांतलें मानवी जीणेंतलें 'अद्‌भूत' आमकां अणभवपाक मेळपाचें. वा तो 'रॉबिन्सन क्रुसो'चे धर्तीचेर जाल्लो जाल्यार मानवी जीणेंतलें 'वास्तव' आमकां अणभवपाक मेळपाचें. पूण तें भाग्य लेखक दामोदर मावज्यान आमकां दिवंक ना.

आतां दामोदर मावज्याकडल्यान आमी कितें फ्योदोर दोस्तोवस्कीच्या हायटीची वा गॅब्रिअल गर्सिआ मारक्वेजच्या वा मिलान कुंदेराच्या हायटीच्या कादंबरीची अपेक्षा करूंक शकना. कारण मावज्यालें अणभवविश्वांतलें चिंतन खूब लिमिटेड आसा. आनी ताचो पुरावो साक्षात ताच्या 'सुनामी सायमनां'तूच मेळटा. पूण तरीय ह्या लिमिटेशनांतूय एक बरी कादंबरी निर्माण जावं येताली. ह्या संदर्भांत ज्योती कुंकळकार हांची 'पाशाण कळी' वा हेमा नायकाची 'भोगदंड' ह्या कादंबरींचो मुजरत उल्लेख करूं येता. लिमिटेशन आसुनूय त्यो बऱ्यो, वाचनीय कादंबऱ्यो थारतात.

जॉर्ज ऑरवेलची 'ॲनिमल फार्म' ही तुमी बालकादंबरी म्हणटले? म्हाका दिसता बालकादंबरी म्हणून ती भुरग्यांनी सेर्त वाचूं येता. पूण जस-जसो भुरगो व्हडलो जायत वतलो तस-तसो ताका हे बालकादंबरींतलो प्रौढ अर्थ जाणवूंक लागतलो. तेन्ना ती बालकादंबरी उरचीच ना. 'सुनामी सायमन'चो आशय हो हे प्रकारचो आसलो. बालकादंबरी अशें म्हणुनूय प्रौढ कादंबरी म्हणून ती वाचपाक येवंक जाय आशिल्ली.

मुळांत दामोदर मावजो हो कथालेखक. कांय सुंदर कथा ताणी कोंकणींत बरयिल्ल्यो आसात. कथा ही एककेंद्री आसता जाल्यार कादंबरी अनेककेंद्री. एककेंद्री कथा मावजो बरे पध्दतीन हाताळटा पूण कादंबरींतलीं अनेककेंद्रां एकाच वांगडा हाताळटना तांची दमछाक जाता अशें दिसता. (आतां हांवें तांची 'कार्मेलीन' ही कादंबरी आजुनूय वाचूंक ना आनी हें सांगपाक म्हाका खरेंच लजूय दिसता.) पूण म्हजें निरिक्षण हें फकत 'सुनामी सायमन' हे एकेच कादंबरीचेर अवलंबून आसा.

आता दोस्तोवस्कीची 'गॅम्बलर' ही कादंबरी ताच्या 'क्राईम ॲन्ड पनिशमेंट' वा 'ब्रदर्स कारामाझोव' हांच्या तोडीची आसा अशें कोणूच म्हणचो ना. पूण तरीय 'गॅम्बलर' कादंबरींत दोस्तोवस्कीचो क्रियेटिव्ह फोर्स ठळकपणान दिसताच. कलाकृतीचो दर्जो वयर-सकयल जावं येता, पूण तो क्रियेटिव्ह फोर्स लेखनांत दिसुंकूच जाय.

■ ■ ■



- कुसूम अग्रवाल
शिवोले-गोंय
फोन : २२७२०२१

# शिक्षणाचें माध्यम आनी फुडार

*हीं दोगूय जाणां मुळावें शिकप कोंकणी माध्यमांतल्यान शिकिल्लीं. हाडली पड आनी खाल्ली पड अशा घराब्यांतलीं. घराकडे आवयभास कोंकणींतल्यान उलोवपी. तांच्या आंगांत आशिल्ली शिकपाची तळमळ, स्वताच्या अस्तित्वाची, आपल्या घराब्याची आशिल्ली जाण तांकां ह्या येशस्वी मुक्कामाचेर घेवन गेली. ती मुळाव्या इंग्रजी माध्यमांतल्यान शिकुना म्हूण खंयच उणीं पडलीं नात.*



**धा**वेच्या भुरग्यांच्या पालकांक शाळेंत आपयल्ले. वर्साचे सुरवातीकूच शिक्षकांची आनी पालकांची वळख जावंची, अभ्यास क्रमाबद्दल पालकांकूय म्हायती मेळची आनी पालकांनी जागृत रावन आपल्या पाल्याच्या अभ्यासाकडेन लक्ष दिवंचें होच हे बसकेचो हेतू आसलो.

हांव त्या गांवांत राविल्ल्यान सगळीं वळखीचीं मुखामळां. सदचेभशेन हांव पालकां म्हऱ्यांत गेलें. तांचेकडेन दोन गजाली केल्यो. ताणीय बी म्हजी, म्हज्या भुरग्यांची आस्थेन चवकशी केली. मुखारूच फुडले कदेलीचेर म्हज्या माजी विद्यार्थ्याची आवय बशिल्ली. म्हजी नदर तिचेर पडनाफुडें हांवें तिका विचारलें 'कशी आसा? ख्रिस्तीनाक नोकरी मेळ्ळी?' तिणें जाप दिली. 'हय मीस. तें पणजे कामाक वता.'

ख्रिस्तीनान बि. एड केल्लें. मुळांतूच हुशार. विज्ञान शाखेंत गणित विशय घेवन एम् एस्सी जाल्लें. ही खोशयेची खबर सांगतना तिचे दोळे भरून आयले. ती खोशयेचीं दुकां नासलीं हें तिची नदरूच म्हाका सांगताली.

हावें तिच्या खांदार हात दवरलो आनी तिका सभाघराच्या भायर व्हेली. परत प्रस्न केलो. 'कितें जालां? कित्याक रडटा?'

तिणें म्हणलें, 'मीस, बाबान नोकरी सोडली कायबरी. बऱ्या पगाराची नोकरी ताका मेळिल्ली. मुखार शिकपाक सोदता.' तोवूय म्हजोच विद्यार्थी. हांवें रोखडीच जाप दिली. 'शिकूनी ताका'

'पूण मीस असली इतली बरी नोकरी परत मेळटली?' तिणें आपल्या काळजाक पीळ दीत म्हणलें.

'जर तुवें ताका मुखार शिकपाक दिलेंना जाल्यार तो ताच्या बऱ्या-वायटाक तुका जबाबदार थारायतलो. अर्थीक अडचण आसा?' हांवें विचारलें.

'ना मीस. ताणें वर्सभराचे पयशे एकठांय करून दवरल्यात. त्या पयशांनीं तो शिकतलो म्हणटा.' हांवें शब्दाचेर जोर दीत म्हणलें, 'तशें जाल्यार ताका शिकुनीच. ताका आनीक शिकपाची उमेद आसा. ताची जिद्द पळयल्यार तो जिणेंत येशस्वी जातलोच अशें दिसता. ह्या पगारापरस ताका चड पगाराची नोकरी मेळटली. तुजीं भुरगींच अपुरबायेचीं.' बसका

सुरू जावपाचो वेळ जालो. दुकां पुशीत ती भितर गेली.

हीं दोगूय जाणां मुळावें शिकप कोंकणी माध्यमांतल्यान शिकिल्लीं. हाडली पड आनी खाल्ली पड अशा घराब्यांतलीं. घराकडे आवयभास कोंकणींतल्यान उलोवपी. तांच्या आंगांत आशिल्ली शिकपाची तळमळ, स्वताच्या अस्तित्वाची, आपल्या घराब्याची आशिल्ली जाण तांकां ह्या येशस्वी मुक्कामाचेर घेवन गेली. ती मुळाव्या इंग्रजी माध्यमांतल्यान शिकुना म्हूण खंयच उणीं पडलीं नात.

आज आमी इंग्रजी भाशेक चड म्हत्व दितात. इंग्रजी शिकल्यार, फाड फाड इंग्रजी उलयल्यार भुरगीं जिणेंत परजळटात हो आमचो गैरसमज. आमी जाण्टीं हेच संस्कार भुरग्यांकूय दितात. आमची कोंकणी उणाक भास. तिचो कांयच उपेग ना हे विचार भुरग्यांच्या मनांत बिंबयतात. कोंकणीत मुळावें शिक्षण घेतल्यार कितलो फायदो जाता हें वर्गांत सांगतना एकटो भुरगो म्हणपाक लागलो 'मीस, आमकां मुळावें शिकप इंग्रजी माध्यमांतल्यान शिकूंक जाय.' तो भुरगो मुळावें चवथीमेरेनचें शिकप इंग्रजी माध्यमांतल्यान करून आमचे शाळेंत आयिल्लो. त्या वर्गांत कोंकणी आनी मराठी माध्यमांतल्यान मुळावें शिक्षण घेतिल्लीं भुरगीं वर्गाचेर शेक गाजयतालीं. आनी इंग्रजी मुळावें शिक्षण घेतिल्लीं भुरगीं खूब फाटीं आसलीं. हींच भुरगीं कोंकणी, गणित, हिंदी विशयांत सदांच मुखार. इंग्रजी विशयांतूय ताणीं बरोबरी गाठिल्ली. ताचें उत्तर ताका थंयच मेळ्ळें. तो बाबडो भुरगो. ताका विचार करपाची तांक ना. हें कोंकणीबद्दलचें ताच्या मनांत वीख कालयलां ताच्या पालकांनी.

म्हजो शेजारी म्हजेकडे सदांच वाद घालीत आसता आनी इंग्रजी मुळावें माध्यम कित्याक हें पटोवपाचो प्रयत्न करता. ताचो



भुरगो कोंकणी मुळावे माध्यमाचे शाळेंत वता. थंय तिसरींत आनी चवथींत एक विशय इंग्रजी शिकयतात. म्हाका म्हणपाक लागलो. येदे व्हडले शब्द आसात. ताणें पाठ केले. परिक्षेकूय बरयले पूण आतां विचारल्यार कांयच कळना. हांवें म्हणलें, जावपाचेंच. ते इंग्रजी शब्द ताचे वळखीचे नांत. तूं तर घरांत इंग्रजी उलयता. तुज्या भुरग्याची गत अशी तर जीं घरांत इंग्रजी उलयनात तांची गत कितें? तूं हे व्हडले व्हडले कठीण शब्द उलयना. शेजारी पाजारी उलयनात. त्या शब्दांचो ताका अर्थ कळना. मागीर ल्हान आसतना हे व्हडले शब्द शिकोवन ताच्या कंवळ्या मनाचेर ताण कित्याक दिवप? पांचवेनंतर तो हळू हळू शिकतलो.' अशें सांगना बरोबर ताचें तोंड पळोवपासारकें जाल्लें.

कोंकणी भास ही आमची अस्मिताय. आमची वळख. जगाच्या खंयच्याय कोनशांत तुमी वचात. ही कोंकणी भास तुमची गोंयकार म्हूण वळख दाखयतली.

आमच्या भुरग्यांचो फुडार इंग्रजी मुळावें माध्यम थारायना. तांचो फुडार थारायता तांची मन लावन शिकपाची वृत्ती. तांची चिकाटी, तांची जिद्द, ताणीं थारायिल्लें तांचें ध्येय आनी तांचे संस्कार बरे आसत जाल्यार दुदांत साकर पडिल्लेभशेन जाता. घरांत इंग्रजी उलयिल्ले भुरगे अभ्यासांत हुशार आसताच अशें ना. आज आमच्या माध्यमीक शाळेंत चड टक्केवारी घेवपी भुरगे मुळावें शिकप मराठी माध्यमांतल्यान घेतिल्ले आसात. खंयच्याच विशयांत ते फाटीं नात. हे भुरगे कोंकणी, मराठी, इंग्रजी, हिंदी सगलीं खबरांपत्रां धडाधड वाचपाक शकतात.

इंग्रजी मुळाव्या माध्यमाचे खूळ तकलेंत बशिल्ले पालक एकेच वाटेन विचार करतात. तो सुद्दां चुकीचो. इंग्रजी माध्यम आमची सस्कृताय कॅन्सराभशेन पोखरता. हाचो विचारूच करिनांत.

आमकां आमची अस्मिताय सांबाळपाची आसा. आमच्या ह्या भुरग्यांच्या माध्यमांतल्यान आमकां ती फुलोवपाची आसा. म्हूण मुळावें शिक्षण कोंकणींतल्यान आसपाक जाय.






# काबो राज निवास (पालास) आनी किल्लो

**काबो** राज निवास गोंयच्या राज्यपालाचें निवासस्थान. पुर्तुगेजांनी बांदिल्ली ही पालास दोनापावलाचे टेकडेर आसा. ते टेकडेक 'काबो' म्हणटात म्हणजे केप (CAPE). म्हळ्यार दर्याभितर घुसलेलो जमनीचो कुडको (piece of land jutting into the sea.) हे सुंदर पालासींत आमचो राज्यपाल रावता. पुर्तुगेज तेंपार हे पालासींत पुर्तुगेज गव्हर्नर (Governors) रावताले. ही पयली म्हणजे सोळाव्या शेंकड्यांत पालास नाशिल्ली. हांगा फ्रांसिस्कन मिशनरीनी आपलें कॉन्वेंट १५९४ वर्सा बांदिल्ली. पुर्तुगेजांनी तिसवाडी बेट १५१० वर्सा घेतिल्लें आनी ह्या तिसवाडी बेटाच्या संरक्षणाखातीर तांणी किल्ले बांदपाक सुरवात केली. सोळाव्या शेंकड्यांत ताणीं काबो-दोनापावल हांगा किल्लो बांदपाक सुरवात केली. किल्ल्याची तटबंदी बांदपाक सुरवात केली. हो असो जागो आशिल्लो जंय मांडवी आनी जुवारी अरबी समुद्राक मेळटात म्हणजे संरक्षणाचे नदरेन म्हत्वाचो जागो. म्हणजेच केप (काबो). अजुनूय सकयले वटेन गेल्यार १५४०चो हो किल्लो दिसता. ताच्यो वण्टी दिसतात. फ्रांसीस्कन्स ह्या धर्मप्रचारकांनी हांगा १५४१त कपेल बांदलें. ह्या किल्ल्यांत मागीर पालास बांदली. पूण पुर्तुगेज गव्हर्नर पयलीं ओल्ड गोवा रावताले. मागीर पानवेली रायबंदर आनी पणजे अदिलशाही





पालासींत रावंक लागले. काबोच्या पालासींत खऱ्या अर्थान पुर्तुगेज गव्हर्नर रावंक लागले ते १९ जून १८६६ ह्या वर्सा सावन ते १९६१ मेरेन. मागीर १९६१ ते आता पर्यंत आमचे गव्हर्नर म्हळ्यार राज्यपाल रावपाक लागले. पालासीचो दरबार हॉल, जंय सगळ्या सरकारांचीं सोपुतविधी जाता. बांदोडकार सरकार ते आतां मेरेन सगळ्या सरकारांची सोपुतविधी हांगा जाल्यात. पुर्तुगेज तेंपावयलें वैभव हे पालासींत दिश्टी पडटा. दोना पावला हे पुर्तुगेज अस्तुरेक काबोच्याच कपेलांत पुरल्या. तिचें नांव थंय कपेलांत कोरांथिल्लें दिसता. तिच्या मरणाची तारीख २१ डिसेंबर १६८२ अशी थंय कोरांथिल्ली आसा. पालासींत पुर्तुगेज तेंपावयल्यो जायत्यो नाळी दिश्टी पडटात. पालासीचें स्थापत्य शास्त्र तर खूब सोबीत आसा. फुडें अरबी समुद्र, मुरगांवचें बंदर, मांडवी-झुवारीचो सोबीत संगम आनी दोनापावलाची ती ल्हानशी टेकडी अशा सोबीत वाठारांत ही पुर्तुगेज तेंपावयली स्वर्ग सुंदर अशी पालास वसल्या. हे पालासींत जायत्यो कुडी आसात. पुर्तुगेज तेंपावयलें ॲन्टीक फर्नीचर, हारशे, पेन्टींग्स आसात. हे पालासीन पुर्तुगेज तेंपाच्यान आतां मेरेन जायत्या सरकारांची उलथापालथ पळयल्या. गोंयांत पुर्तुगेज आनी गोंयांभायर भारतभर तेन्ना ब्रिटिश सरकार. ब्रिटिशांक भंय फ्रेन्च सरकाराचो तर ताणी आपलें सैन्य गोंयां धाडलें. कारण तांकां दिसतालें की नॅपोलिऑनाच्या नेतृत्वा खाल आशिल्लें फ्रेन्च ब्रिटिशांक भारतांतल्यान भायर उडयत म्हण! देखून ताणीं ह्या भंयान पुर्तुगेजांच्या शेकाखाल आशिल्ल्या गोंयांत १७९९-१८१३ ह्या काळांत ब्रिटीश सैन्य धाडलें. काबो पालासीन कितल्योशोच अशो रोमांचक इतिहासीक घडणुको पळयल्यात. ह्या सगळ्या इतिहासाक साक्षी जावन आसा काबो राज निवास.





# माकिनेझ पालासीचो इतिहास

आमच्या गोंयांत जायत्यो इतिहासीक पालासी आसात. पालास म्हळ्यार राजवाडो. राजवाडो म्हळ्यार राजा-राणीचो महाल. पूण पुर्तुगेज काळांत तांचे व्हड पदवेर आशिल्ले अधिकारी व्हड अशा पालासींतूच रावताले. तातुंतलीच एक पालास म्हळ्यार पणजेची मार्कनिझेस पालास वा माकिनेझीस पॅलेस. कांय लोक माकिनेझ पालासूय म्हणटात. पणजेच्या जायत्यो सांस्कृतीक कार्यावळी आतां ह्याच मार्कनिझेस पालासींत जातात. तर हे मार्कनिझेस पालासीचो इतिहास जाणून घेवया. ही पालास पणजे बाजारांत आसा आनी ती इफ्फीच्या कार्यावळीचें केंद्र जावन आसा.

### कोण हो मार्कनिझेस?

मार्कनिझेस वा माकिनेझ म्हळ्यार ही दोन पुर्तुगेज अधिकाऱ्यांक दिल्ली पदवी. हे दोनूय पुर्तुगेज अधिकारी भाव आशिल्ले. तांचीं नांवां अशीं दियागो दा कोस्ता आताइदे ई तिव्ह कोन्द दे माकिनेझ आनी ताचो भाव क्रिस्तोवांव दा कोस्ता आताइदे ई तिव्ह कोन्द दे माकिनेझ.

ह्या दोन भावांच्या त्या दोन घरांक मार्कनिझेस पॅलेस अशें म्हणटाले. हे दोगूय भाव पुर्तुगेज संरक्षण खात्यांत म्हळ्यार नौदळाचे स्कॉड्रन, नौदळाचे कापितांव म्हळ्यार कॅप्टन आशिल्ले. हे पालासीची बांदकामाची तारीख जी सापडल्या ती १७०२. हे







सुरवात जाली. आयनॉक्स मल्टीप्लेक्स आयलें. हें सगळें दायज आमी जतनाय घेवन फुडले पिळगेक जपून दवरपाची गरज आसा. इतिहासीक वास्तू हें आमचें दायज देखून ताचो इतिहास जाणून घेवपा खातीर प्रत्येकान ह्या सुवातांक भेट दिवप गरजेचें.



– प्रा. प्रजल साखरदांडे
एस-३, बी-३, पुर्वा अपार्टमेंट्स,
मरड, करंझाळें – गोंय.
फोन : ७८७५२४००६९

पालासींत दोन कपेलां आसात. एका कपेलाची तारीख मेळटा ती १७२०. व्हडलें कपेल आसा तें नॉसा सेनॉरा द वितोरिया. भितर पोरणें कपेल आसा त्या कपेलांत सायलाच्या मदेराचें आल्तार आसा. १७०२, १७२० म्हणजे अठरावो शेंकडो. सतरावो न्हय हें लक्षांत घेवचें.

५ नोव्हेंबर १८४२ ह्या इतिहासीक दिसा हेच पालासींत इस्कॉला मेडिको सर्जीसांव दे नोवा गोवा म्हळ्यार आशियांतल्या पयल्या पोरण्या वैजकी म्हाविद्यालयाचें उक्तावण जालें. हे पालासींत लाकडाचें फ्लॉरींग, ग्रेनाईट फातराचीं सोपणां अशो जायत्यो पुरातन गजाली आसात. पूण हे पालासींत आयज जंय मिनी थिएटर केलां थंयची हॅरीटेज फ्लोरींग बदल्लां आनी वॅट्रीफायड टायल्स घाल्यात. हे इतिहासीक वास्तूक दोनशीं वर्सां वयर जावन गेल्यांत. तांचें वास्तुशास्त्र आनी बांदपाची कला ही दोनशीं वर्सां फाटली. ती परत मेळप कठीण. १९२७ वर्सा हे पालासीक तेंकून पुर्तुगेज सरकारान एक व्हड इमारत बांदली जी रस्त्याक फुडो करून आसा. नोव्हेंबर २००४ सालांत हांगा इफ्फीची




**Flats, Bungalows**
**Shops, Offices, Plots**
@
**Goa & Belgaum**

Contact:
Swapnil : + 91 8308806934
Sameer : + 91 8308806941
Office : 0832 2314647 / 2312072


RAJ GROUP
**Raj Housing Development Pvt. Ltd.**
S-1, Pai House, Sadar, Ponda Goa.
email: sales@rajhousinggoa.com
www.rajhousinggoa.com



# कावळ्या काक्या रे...

(निळूचेर एक घोण झोंपय घालता. ताचे तावडींतल्यान निळू सुट्टा आनी साळूल्या पाखां पोंदाक वचून लिपता. आतां मुखार...)

दुसरे दिसासावन काळू निळूक घेवन भायर वचूंक लागलो.

तो ताका इल्लें इल्लें उडूंक शिकयतालो. कोणूय आयलो काय ताका शिटकायतालो. मागीर निळू झाडाचे खांचींत नाजाल्यार पानांनी लिपतालो.

काळून निळूक शादूर रावंक शिकयलें. झाडावेले पानांतले किडे सोदून काडून खावंक शिकयलें.

एक खेप निळू उडटां उडटां जमनीर पडलो. कितें करचें ताका कळ्ळें ना. तो रडूंक लागलो. ताका जमनीर पडिल्लो पळोवन भुरगीं ताचे भोंवतणी जमलीं. निळू जिवाच्या आकांतान रडूंक लागलो.

काळून तें पळेलें. काळू निळूचेर तापलो.

''रडटा कित्याक? ओगी बस पयलीं. कितें करपाचें तें पयलीं चिंत.'' काळून सांगलें.

''हांव इतलो सान. ते इतले व्हड. ते म्हाका मारचे नात?'' निळून विचारलें.

''ते तुकां कशे मारतात तें हांव पळयतां.'' अशें म्हणून काळून एक झोंपय मारून भुरग्यांचेर चोंच मारिल्लेवरी केलें. भुरगीं भिर्ली, तीं पळून गेलीं. मागीर काळून निळूक सांगलें, ''आतां उठ! दुरीग आसा ताचेर बस.'' निळून तशें केलें.

''वा! शाब्बास! आतां दुरगावेल्यान चलत वच. झाडामेरेन वच. आंऽ अशें! आतां उड उड खांदयेर वचून बस.''

इल्ले इल्लो करून निळू घोंटेराकडेन पावलो.

घरा वचून निळून आवयक आनी भावंडांक कितें जालें तें सांगलें आनी बापायन भुरग्यांक कशीं धांवडायलीं तेंवूय बी सांगलें. रवळू आनी बाळू आपली तांबडी चोंच उक्ती घालून आयकत उरले.

निळूक आतां उडूंक येवंक लागलें. तो काळूक कसले कसले प्रस्न विचारतालो. काळू ताच्यो जापो दितालो.

एक खेप काळून, निळूक सांगलें, ''आतां आमी हो रूख सोडून मुखार वचुंया. तें पळे. थंय एक मनशाचें घर आसा. हो मनीस सामको विचित्र! तो तिडपी प्राणी. ताचे पसून सावध राव.''

''तो पळे, एक व्हडलो मनीस आनी तो धाकलो मनीस... आनी तो पळे धाकल्या मनशाक आमचे कडेन बोट दाखोवन कितें सांगता.''

''बाप्पा, तो आमकां मारचो ना न्ही?'' निळून म्हळें.

''पिसो रे पिसो! तो व्हडलो मनीस न्ही. तिका बायल म्हणटात. त्या धाकट्या पोराक भुरगें म्हणटात, ती बायल त्या भुरग्याली आवय. ती आपल्या भुरग्याक भरयता. तो जेविना म्हूण ती कावळ्या काक्या यो रे यो अशें म्हणटा.'' काळून सांगलें.

''बाप्पा, तें भुरगें पळे म्हाकां टुकुटुकू पळेता.'' निळून म्हळें.

''आरे, सर फुडें! ती बायल तुकांय खावंक दितली.''

''म्हाकां भंय दिसता रे!''

''पिसो! भिंवची गरज ना. सर फुडें. तिणें पळे कितेंतरी उडयलां. तें वचून खा. तुवें खालें काय तें भुरगें खातलें. भुरग्यान आनी एक उंडी खाली, काय ती बायल तुकांय एक उंडी दितली.''

निळू पयलीं भीत भीत मुखार गेलो. ताणें शीत खालें. तें पळोवन भुरग्यान तिरतिरून ताळयो मारल्यो. निळू भिलो. उडून वयर वचून बसलो. पूण ती बायल ताका आपोवंक लागली. तिणें ताचे खातीर आनीक एक उंडी घाली आनी नुस्त्याचो एक कपो.

निळू परथून सकयल देंवलो. ताणें शीत खालें. ताचें पोट भरलें. मागीर ताणें नुस्त्याचो कपो आनी थोडें शीत चोंचींत धरलें आनी घोंटेरांत परतलो.

ताणें तें शीत व्हरून रवळूक आनी बाळूक दिलें. दोगांयनी तो नुस्त्या कपो आनी गोटे आवडीन खाले. भावांभावांमदलो मोग पळोवन साळूले दोळे भरून आयले.



काळून निळूक अशे तरेन जायत्यो गजाली शिकयल्यो. ताणें ताका कोयर उस्तून गोटे बी मेळटात ते वेंचून काडून दवरूंक शिकयलें. पोट भरलें काय उरिल्ल्या चपातेचे, उंड्याचे कुडके खंयचेय खांचीत लिपोवन कशे दवरचे तें शिकयलें.

कितेंय मेळ्ळें जाल्यार 'कांव कांव' करून सगळ्या कावळ्यांक कशें आपोवचें तें शिकयलें.

निळून काळूक विचारलें, "आमी सगळ्यांक कित्याक आपोवंक जाय? आमीच सगळें हाडचें. लिपोवन दवरचें. मागीर इल्लें इल्लें खावचें. सद्दां उठून जेवण सोदची तकालस कित्याक घेवंक जाय?"

- काळूक निळूचो राग आयलो. ताणें निळूक सांगलें, "अशें उलोवचें न्हय. मनांत लेगीत असलो विचार हाडचो न्हय. आमी आपसुवार्थी न्हय. आमी जें कितें मेळटा तें वांटून खावंकूच जाय."

"आमी आपसुवार्थीपणान वागल्यार कितें जातलें?" निळून काळूक विचारलें.

"आमी आळशी जातले. उडूंक विसरतले. काम करूंक विसरतले. आमी सैमाच्या नेमान चलूंक जाय. सैमाकडेन पडमुरपणा करूं नये."

मुखार ताणें म्हळें, "हेर कावळे तांकां कितेंय मेळ्ळें काय आमकां आपयतात. जें कितें मेळटा तें वांटून खावप हो आमचो सभाव!"

मुखार ताणें सांगलें, "जेन्ना खूब्ब कावळे कांव कांव करून आपयतात तेन्ना तूं थंय वच. पूण तूं सान. तेन्ना तूं फाटींच राव. मुखार वचूं नाका. मुखार गेल्ले कावळे तुका खावंक हाडून दितले. तें खाण घे. आमच्या रुखार येवन बस आनी मागीर खा!"

"अशें कित्याक रे बाप्पा?" निळून विचारलें.

"ताचें कितें आसा, आमी कितलेय जाल्यार कावळे. कितेंय खावंक जमलें जाल्यार एकेक खेप मनीस तांचेर फातर मारतात. व्हड कावळे शादूर आसतात. ते पळून वतात. तूं सान. तुका तें कळतशें म्हाका दिसना. म्हण तुका हांवें तशें सांगलें." काळून म्हळें.

"पूण बाप्पा, मनीस फातर मारतलो हें कशें वळखप?" निळून विचारलें.

"मनीस जमनीर ओणवो जालो काय तो फातर उबारतलो म्हूण समजुचें." काळून बाळूक शिकटायलें.

"पूण बाप्पा, तो मनीस पयलींच फातर घेवन उबी आसलो जाल्यार?" निळून विचारलें.

"तूं चड शाणो जाला मरे! चल. आतां फाल्यांसान तूं तुजो स्वतंत्र उड. तुका आतां आनी कांय शिकोवपाची गरज ना."

अशें सांगून काळू निळूक थंयच सोडून उडून गेलो. आनी निळू मात मान वांकडी करून पळेत उरलो.

**चलता...**

**- शीला कोळंबकार**
मुंबय.
फोन : ०९८१९३१५३०७



# मरणदेवतेचो धर्मपूत

## स्पॅनीश लोकांकाणी





किरिस्तांव धर्मांत एक संकल्पना आसा. जेन्ना जल्मल्ल्या भुरग्याचो बातीज्म (नांव दवरपाची धार्मीक विधी) करतात तेन्ना ताचेखातीर गॉडफादर आनी गॉडमदर नेमतात. म्हणजेच धर्मपिता वा धर्ममाता. तो चलो वा चली तांची धर्मपूत वा धर्मचली जाता. ह्या धर्मपालकांचें काम म्हणजे तें भुरगें किरिस्तांव म्हणून वाडटा हाची काळजी घेवप. हे मानिल्ले पालक अशेंच आमी म्हणुया. हेच संकल्पनेचेर आदारीत ही स्पॅनीश लोकांकाणी आसा.

स्पेन देशांतल्या एका ल्हानशाच खेड्यांत एक शेतकामती आनी ताची बायल रावताली. तीं सामकीं गरीब आशिल्लीं. तांकां एक दीस एक चलो जालो. चलो जाला म्हणून बापूय इतलो खोशी जालो की ताणें थारायलें ह्या चल्याक हांव खाशेलो धर्मपिता सोदतलों. वेळ वगडायनासतना तो शेतकामती तसोच आपल्या पुताखातीर फाव अशा धर्मपित्याच्या सोदार्थ भायर सरलो. तो थोडेंच अंतर चल्ला आसतलो. ताका वाटेर देंवचार मेळ्ळो.

''कितें जुझे, कसो आसा?'' देंवचारान दोळे मिचकायत शेतकामतीक हटकिलो.

''तुगेल्या जल्मल्ल्या पुताखातीर तूं धर्मपिता सोदता म्हणून म्हज्या कानार पडलां. तुका आनी सोद घेवपाची गरज ना. म्हजेपरसूय चड लायक धर्मपिता ह्या अख्ख्या संवसारांत तुका सोदून मेळचो ना. देखून तुज्या चल्याखातीर धर्मपिता म्हणून म्हजो स्वीकार कर.''

''देंवचारा, तूं म्हाका नाका.'' गरीब जुझेन सांगलें.

''हांव तुजे सैतानी वृत्तीक वळखतां. तूं शक्तिमान आससी! पूण न्याय, बरेंपण हाची तुका इल्ली लेगीत नाट ना. आमकां गरिबांक ह्योच गजाली व्हड आसतात.''

जुझेचीं उतरां आयकून देंवचार रागान तांबडो गुंज जालो आनी आपले हातपाय आपटीत, आपली शेपटी पायांमदीं घुटमळायत थंयच्यान नाच्च जालो.

थोड्यावेळान चलतां चलतां जुझेक एक संत मेळ्ळो. त्या संतान ताका थांबयलो आनी नमळायेन म्हणलें, ''जुझे, म्हज्या पुता, तूं तुज्या जल्मल्ल्या भुरग्याखातीर धर्मपिता सोदता म्हणून हांवें आयकलां. म्हजेकडेन कांयच गिरेस्तकाय ना, हांव मान्य करतां. पूण म्हजेकडेन दिसाच्या उजवाडाच्या सत्याइतलो प्रामाणिकपणा आसा. हांव तुज्या चल्याचो धर्मपिता जावपाक योग्य जायन?''

संताच्या उतरांनी जुझे प्रभावीत जालो. पूण ताणें स्पश्ट उतरांनी ताका न्हयकार दिलो. ताणें म्हणलें,

''तुका ना म्हणूंक म्हाका वायट दिसता. पूण उपाय ना. तुजी कीर्त सामकी दाग विरयत आसा. पूण तुज्या बोल्सांत एक फुटको पयसोय ना. म्हाका म्हज्या पुताक जिणेंत सगळीं सुखां दिवपी धर्मपिता जाय.''

''तुज्या उतरांनी म्हज्या आत्म्याक दूख भोगता. पूण एक गजाल मतींत दवर. व्हड महत्वाकांक्षा ह्यो जिणेंत शाण्यो इश्ट थारनात.'' अशें म्हणून संतान आपली वाट धरली.

गरीब शेतकामती फुडें चलत रावलो. चलतां चलतां तो निर्जन अशा दोंगराळ वाटेर पावलो. अकस्मात एका अस्पश्ट, पुसट अशे, धवे कपडे घाल्ले आकृतायेन

ताची वाट आडायली. जुझे एकदम थरथरलो. तो वळखलो ही आकृताय म्हणजे दुसरी तिसरी कोण न्हय तर साक्षात मर्णदेवता!

मर्णदेवतेन आपल्या मांस नाशिल्ल्या हाडांच्या पांझऱ्यार धवोच झगो घाल्लो. दोळयांचे सुवातेर फकत खांचो आशिल्ल्यो. तिणें आपली तकली धांपिल्ली आनी तिच्या दाव्या हातांत धारदार पात्याचें अस्त्र आशिल्लें.

जुझे सामको कडकडलो. ''मर्णदेवते, म्हजो वेळ आयलो काय कितें? तूं म्हजे वाटेर कित्याक रावल्या?'' ताणें विचारलें.

''ना, ना जुझे. तुजो वेळ लागीं पावंक ना. तूं धर्मपित्याच्या सोदार्थ आसा म्हणून म्हाका कळ्ळां म्हणून हांव हांगा आयल्यां. तुका संत आनी देंवचार दोगूय मानवंक ना म्हणूनच म्हाका कळ्ळां. तुका तुज्या चल्याखातीर धर्मपित्याची न्हय तर धर्ममातेची गरज आसा. तुज्या पुताची धर्ममाता जावंक हांव तयार आसां.''

''तुजे मागणेर हांव सामको खोशी आसां.'' जुझेन म्हणलें. आतां ताका बशिल्लो धक्को आनी भंय उणो जाल्लो.

''हांव तुजे सारकिलेच्याच सोदार्थ आशिल्लों. तूं सर्वशक्तिमान आसा. कित्याक तर तुज्या अस्तित्वाची जाणिवूच जाल्यार पुरो, प्रत्येक मनीस भंयान थरथरता. मागीर तो व्हड आसूं वा ल्हान, गरीब वा गिरेस्त, जाण्टो वा भुरगो. तूं कितें थारायता तें अंतिम आसता आनी तुजें हें हातांतलें धारदार अस्त्र कोणाक चुकना. खऱ्यांनीच तूंच म्हज्या पुताखातीर आदर्श अशी धर्ममाता जातली. येता त्या शेनवारा हांव चल्याचें बातीज्म करतलों. तेन्ना तूं यो.''

मर्णदेवतेची धांपिल्ली तकली हाल्ली. ''तुवें म्हाका धर्ममाता म्हणून मान्यताय दिल्ल्याचो तुका केन्नाच पश्चताप जावंचो ना.'' आकृतायेंतल्यान आवाज आयलो.

''जेन्ना म्हजो धर्मपूत वीस वर्सांचो जातलो तेन्ना ताका कीर्त आनी भाग्य कितेंच उणें पडचें ना. हांव वचन दितां. खरेंच तुवें म्हाका ताची धर्ममाता वेंचिल्ल्यान शाणपणा केलां. हांव बरोब्बर णव वरांचेर ताच्या बातिज्माक येतलीं.''

अशेतरेन धर्ममाता सांपडिल्ल्यान जुझे घरा वचपाक परतलो. शेनवार जावंचे पयलीं सगळ्या गांवभर जुझेन मर्णदेवतेक धर्ममाता वेंचून काडल्या म्हणपाची खबर पातळ्ळी. गांवभर हीच भासाभास चालू आशिल्ली. गांवचो पाद्री तर एकसारको वेगवेगळे धर्मग्रंथ सोदीत आशिल्लो असलो संवसाराभायलो बातीज्म घडूनये म्हणून. पूण ताका खंयच आदार सांपडना जालो.

सदांच वक्तशीरपणा खातीर फामाद आशिल्ली मर्णदेवता शेनवारा बरोब्बर णव वरांचेर इगर्जेंत हजर जाली. सगळे जमिल्ले लोक भंयभीत जावन तिका पळोवंक लागले. पूण मर्णदेवतेन कोणाकडेनूच लक्ष दिलें ना. ती इगर्जेंत मंद मंद पावलांनी चलत रावली आनी सगळेकडेन एक भिरांकूळ शांतताय पातळ्ळी.

जेन्ना बातीज्म जालें तेन्ना मर्णदेवतेन जुझेकडेन एक पोटली भरून भांगर दिलें आनी सांगलें, ''जेन्ना म्हजो धर्म-पूत वीस वर्सांचो जातलो तेन्ना हांव परतून येतली आनी ताका खूब मान सन्मान आनी यश मेळोवन दितलीं.'' अशें म्हणून तिणें आपल्या मांस नाशिल्ल्या हाडांच्या हातांनी त्या भुरग्याच्या कपलाक हात लायलो आनी आशिर्वाद दिल्लेभशेन ताची अपुरबाय केली. जमिल्ले सगळे लोक थक्क जावन आनी भंयान तिचेकडेन पळेताले. पूण कोणाकूच पळेनासतना आयिल्ली तशी ती परत गेली.

अशेतरेन म्हयने गेले आनी वर्सां गेलीं. आनी मर्णदेवतेचो धर्मपूत वीस वर्सांचो जायत आयलो. कोणाच्याच तकलेंतल्यान मर्णदेवतेन सांगिल्ल्या उतरांची याद वचनाशिल्ली. जुझेच्या घरांतल्या दरेकाक तर चल्याचो विसावो वाढदीस लागीं येता म्हणल्यार थरथरो भरिल्लो.

निमाणें, दनपारां जेन्ना विसावो वाढदीस साजरो जातालो तेन्ना एकदम जनेल सताड उक्तें जालें आनी आंगार कांटो हाडपी थंड वाऱ्याचो झोंत भितर सरलो आनी धवेफुल्ल कपडयांतली मर्णदेवता तांचे मुखार हाजीर जाली.

''वाढदिसाचीं परबीं म्हज्या धर्मपुता. तूं असो शक्तिमान आनी सुंदर तरनाटो जाला तें पळोवन म्हाका खूब खोशी भोगता. हांव तुजी धर्ममाता आसां म्हणून म्हाका अभिमानूच दिसता आनी तुकाय बी म्हजो धर्मपूत जाल्ल्याचो थोड्याच तेंपान अभिमान दिसतलो हाची म्हाका खात्री आसा.'' •





''हांव तुजे उपकार केन्नाच विसरचोना धर्ममाते.'' जुझेच्या पुतान म्हणलें.

''तुवें दिल्ल्या भांगराक लागून आमकां ह्या घरांत केन्नाच कितेंच फाल्त जालें ना.''

''हांव पळे तुका आतां जी भेट दितलीं ताचेमुखार तें कांयच न्हय.'' तिणें म्हणलें, ''मात्सो थोड्यावेळाखातीर हांगा यो पळोवया, म्हाका तुजेकडेन एकोड्यान उलोवंक जाय.''

जुझेचो तरनाटो पूत आपले धर्ममाते फाटल्यान कुशीचे कुडींत गेलो. तिणें ताका म्हऱ्यांत बसयलो आनी सांगलें, ''हांवें जें वचन दिल्लें तें पुराय करपाचो वेळ आतां आयला.'' मर्णदेवतेन हळू सांगलें, ''हावें तुज्या बापायक सांगिल्लें हांव तुका आयुश्यांत खूब मान मेळोवन दितलीं आनी तुजें आयुश्य घडयतलीं. हांव हें वचन पाळटलीं.''

मागीर तिणें आपल्या धव्या कपड्यांतल्यान एक वनस्पत काडली आनी ताका दिली. आनी सांगलें, ''ही जादूची वनस्पत घे. हे वनस्पतीक लागून तूं सगळ्या राज्यांत फामाद दोतोर जातलो. जेन्ना तूं दुयेंत मनशाक तपासूंक वतलो तेन्ना फकत ते दुयेंतिच्या हांतुणाकडेन हेवटेन तेवटेन पळे. समजा जर तुका हांव ते दुयेंतीच्या उजव्या बाजूक दिसली जाल्यार ही वनस्पत जी हांवें तुका दिल्या ती त्या दुयेंतीच्या घरच्यांक दी आनी ती झरोवन दुयेंतीक दी म्हणून सांग. तो दुयेंत कितलोय बरो नासूं, रोखडोच निवळटलो.

पूण समजा तुवें म्हाका दुयेंतिच्या हातुणाच्या दावे वटेन पळयलें जाल्यार व्हडलें जालें म्हणून हे वनस्पतीचो उपेग करूं नाका. ते दुयेंतीक मरण चुकचेंना आनी ही वनस्पत कांयच करूंक शकचीना. तूं जर म्हजे म्हणणेभायर वचून दुयेंतीक वाटावपाक गेलो जाल्यार खूब दुख्खांत सापडटलो.

हरशीं तुवें हें पाळ कितलेय फावटीं वापरलें तरी तें तशेंच ताजें आनी वखदी उरतलें. आनी एक गजाल मतींत दवर. फकत तूंच म्हाका पळोवंक शकतलो. आनी कोणाकूच हांव दिसचीं ना.''

उलोवन जातकच मर्णदेवतेन परतून शेतकामतीच्या चल्याक आपलो हाडकुटो हात लावन आशीर्वाद दिलो आनी ती गेली. तो चलो सामको खोशी जालो कित्याक तो जाणा आशिल्लो मर्णदेवतेन ताका सामकी मोलादीक भेट दिल्ली आनी ती आपलें उतर सदांच पाळतलीय बी म्हणून.

आनी जालेंयबी तशेंच. ह्या शेतकामतीच्या तरनाट्या चल्याची कीर्त स्पेनभर फांकली आनी वयान भुरगो आसून लेगीत पयस पयसच्यान लोक ताका आपोवन व्हरूंक लागले.

तो मागता तितले पयशे ताका मेळूंक लागले. रोखडोच तो गिरेस्त जालो.

लोक ताची तुस्त करताले की तो चमत्कार करता. जादवाचें पाळ झरोवन दिता आनी कसलोय दुयेंती तीन दिसांभितर निवळटा. पूण तेच बराबर ह्या दोतोरान एखाद्रो दुयेंती पळोवन तो मरतलो म्हणून सांगल्यार मात तो मनीस कसोच वाचना.

एक दीस मर्णदेवतेच्या धर्मपुताक एका मोठ्ठ्या गिरेस्त मनशागेर आपयलो. ताचो तीन वर्सांचो एकसुरो एक पूत दुयेंत आशिल्लो. दोतोराक अशा ल्हान भुरग्यांक वाचोवपाक खूब खोस भोगताली. मोठ्या आत्मविश्वासान ताणें आपली जादूची वनस्पत घेतली आनी तो गिरेस्ताल्या घरा गेलो.

उपाट दुख्खान आनी काळजेन भरिल्ल्या त्या भुरग्याच्या आवय बापायन ताका दुयेंत भुरग्याच्या कुडींत व्हेलो आनी दाखयलो. कुडींत मात भितर सरला, दोतोर भंयान थंयचे थंय थंड जालो. ताका साक्षात मर्णदेवता भुरग्याच्या हांतुणाचे दावे वटेन उबी आशिल्ली दिश्टी पडली.

ताणें आपले धर्ममातेकडेन पळेलें आनी खुणेनूच तिका ह्या भुरग्याक वाचय म्हणून विनयलें. पुणून आमी जाणा मर्णदेवता सामकी कठोर आसता. तिणें एक थंड पुणून निश्चयी नदर ताचेर मारून ताका खुणेनूच ना म्हणून सांगलें.

“दोतोर,” शांततायेचो भंग करीत भुरग्याचे आवयन म्हणलें, “म्हजो धाकटुलो वाचतलो न्हय? हांव जाणा म्हज्या प्रस्नाक फकत तूंच जाप दिवंक शकता.” तिच्या उतरा उतरांत काकूट भरिल्ली.

दोतोर जाप दिवंक फाटींफुडें जालो आनी मर्णदेवतेच्या दृश्टी नाशिल्ल्या दोळ्यांचे खांचीकडेन पळोवंक लागलो. मागीर कांय खिणांतूच ताणें आपले धर्ममातेकडेन फाट फिरोवन म्हणलें, “हय सेनोरा (बाईसायब) तूं कांयच भियेवं नाका. हें पाळ झरय आनी ताचो रोस तुज्या भुरग्याक दी. तो रोखडोच निवळटलो.” भुरग्याची आवय सामकी खोशी जाली आनी उमाळ्यान भरून ती दोतोराच्या पायां पडली. तिणें ताका सांगलें, “तुवें म्हज्या चल्याक वाटायल्याबद्दल हांव तुका जाय तें दीन.”

“सेनोरा म्हाका कांयच नाका. तुजो चलो निवळल्यारूच म्हाका सगळें मेळ्ळें.”

जेन्ना हो तरनाटो दोतोर घरा आयलो तेन्ना ताका थंय वेगळेंच वातावरण दिसलें. एक विशण्ण अशी शांतताय थंय पातळिल्ली. आंगार कांटो हाडपी थंडगार वारो प्रत्येक कुडींत भोंवतालो. ताची दांतखिळी वाजूंक लागली आनी आंग थंडेन कुडकुडूंक लागलें. ताका कळ्ळें मर्णदेवता ताची वाट पळेत बसल्या आसतली म्हणून.

आनी खऱ्यानीच मर्णदेवता ताची वाट पळेत घरा उबी आशिल्ली. तिचें तोंड इतलें भयानक दिसतालें की फातराच्या काळजाचो मनीस लेगीत थंडगार पडटलो.

“मूर्खा!” ती व्हडान आइडली. “तुका म्हजे आज्ञेचो भंग करपाची कापाजदाद कशी जाली? हांव त्या भुरग्याच्या हांतुणाचे दावे बाजूक उबी आशिल्लीं, तुवेंय म्हाका पळेल्ली आनी अशें आसतना तुवें म्हजेकडेन आडनदर करून त्या भुरग्याक वाटायलो?”

“खरेंच म्हजे चुकीक भोगोस धर्ममाते” दोतोरान मान सकयल घालून म्हणलें “तो भुरगो मरतलो हे कल्पनेन म्हज्या काळजाक खूब दुख्ख भोगूंक लागलें म्हणून हांवें ताका वाटायलो. धर्ममाते हे खेपेक तूं म्हजी काकूट कर आनी म्हाका माफ कर.”

“हांवें अजून मेरेन कोणाकूच माफ करूंक ना कित्याक म्हाका काळीजूच ना.” तिणें म्हणलें, “तरी पुणून कितें कोण जाणा, तुका पळेतकच म्हाका वेगळीच भावना तयार जाता आनी हांव म्हजें कर्तव्य लेगीत विसरतां. आज पयलेच फावट म्हणून हांव तुका माफ करतां.”

मर्णदेवतेचो धर्मपूत तिच्यामुखार वांकलो आनी तिच्या धव्या झग्याचो ताणें उपकाराचे भावनेन उमो घेतलो. मर्णदेवता हय-न्हयशी हासली आनी गेली.

तरनाट्या दोतोराची कीर्त सगळेकडेन फांकली आनी एक दीस ताका स्पेनच्या राजदरबारांत आपोवणें आयलें. स्पेनचो राजा मर्णशय्येर पडिल्लो. राजा सामको लोकांचो आवडटो आनी न्यायी आशिल्ल्या कारणान सगळे राज्यभर शोककळा पातळिल्ली. तो जर मेल्लो जाल्यार ताचे एकसुरे एके चलयेचें लग्न जावंक नाशिल्ल्या कारणान ताचें राज्य ताच्या दुश्ट पुतणयाच्या हातांत वचपाचें.

दोतोर पालासींत भितर सरलो. थंय ताका राजकन्या आनी दरबाऱ्यांनी येवकार दिलो. राजकन्येचें काळीज दुख्खान आनी चिंतेन सामकें जड जाल्लें तें दोतोराक पळेनाफुडें मात्शें ल्हव जालें.

"दोतोर, कृपा करून कितेंय कर आनी म्हज्या बापायचो जीव वाटय. ताच्या जिवाक जर कितेंय बरें वायट जालें जाल्यार राज्य त्रासांत पडटलें आनी म्हाका म्हज्या दुश्ट चुलतभावा वांगडा लग्न जावचें पडटलें." अशें राजकन्या म्हणूंक लागली आनी तिका आपलें दुख्ख कशेंच आटापा येना जालें. दोतोरा मुखारूच तिच्या सुंदर पोल्यांवयल्यान घळघळीत दुकां व्हांवपाक लागलीं.

राज्याची परिस्थिती आनी राजकन्येच्या सौंदर्यान दोतोराचेर बरोच परिणाम केलो. ताणें तिका आपल्याच्यान जाता तितले यत्न करून राजाक आनी राज्याक वाटावपाचें उतर दिलें. आनी मनांतल्या मनांत मर्णदेवता राज्याच्या हांतुणाचे दावे वटेन नासल्यार पुरो म्हणून प्रार्थना केली.

तो तसोच राजा न्हिदिल्ले कुडींत गेलो. थंय राजा रेशमी पलंगाचेर न्हिदिल्लो. तो सामको फिकट पडिल्लो आनी मर्णदेवता ताचे बाज्जेचे दावे वटेन उबी आशिल्ली. तिका पळेनाफुडें दोतोर सामको निर्शेलो. थोडो वेळ ओगी बसलो आनी मागीर ओगीच राजाक तपाशिल्ल्या बशेन करूंक लागलो.

राजकन्या ताच्या फाटल्यानूच उबी आशिल्ली. तिका इतलो वेळ शांतताय सहन जायना जाली. तिणें होळू आवाजान विचारलें "दोतोर म्हजो बापूय वांचतलो न्हय?"

"म्हाका तशें दिसना" ताणें तिची नदर चुकयत नमळायेन म्हणलें. पूण जेन्ना तिच्या दोळ्यांत काकूट आनी असहायता पळेली तेन्ना ताच्या तोंडसून नकळत उतरां आयलीं, "राजकन्ये, भियेवं नाका. म्हाका दिसता तुजो बापूय वाचतलो."

राजाक वखद दिवन दोतोर जड काळजान आनी भयभीत जावन घरा परतलो. मर्णदेवता खात्रीन रागान आपली घरा वाट पळेता आसतली म्हणून तो जाणा आशिल्लो आनी जाल्लेंय तशेंच. घरांत भितर सरनाफुडें ताका स्मशानांत येता तसो एकेतरेचो वास येवपाक लागलो आनी थंयच्या थंड वाऱ्यान ताचीं हाडां लेगीत भितरल्यान शेळेलीं.

एका व्हडल्या जनेलामुखार मर्णदेवता उबी आशिल्ली. तिचो धवोफूल्ल झगो कूडभर पसरिल्लो. माथें उगतें आशिल्लें. आनी कवटी वाटकुळी गरगर फिराताली. जरी दोतोरान दुयेंसां आनी मरणां पळेल्लीं तरी हें भिरांकूळ दृश्य पळोवन ताणें एक व्हड किळांच मारली.

"तुवें दुसरे खेपेक म्हजे आज्ञेचो भंग केला. तुवें मर्णदेवतेक फटयल्या. अजूनमेरेन कोणाकूच म्हाका फटोवपाची कापाजदाद नाशिल्ली. ती तुवें केल्या. आतां तुका हाचे परिणाम भोगचे पडटले." ती व्हडान गरजली.

"ना धर्ममाते, म्हाका क्षमा कर." दोतोर काकुटेक आयलो. "हांवें चुक केली हांव मानतां. पुणून हांवें आमच्या देशाक आनी राजकन्येक वाटावपाक तशें केलें. ती इतली सुंदर, सुशील आनी दयेस्त आसा आनी तिचो जर बापूय मेल्लो जाल्यार तिका तिच्या दुश्ट आनी क्रूर बापोलभावाकडेन लग्न जावचें पडटलें आशिल्लें. हांवें तुज्या आज्ञेचो भंग केलो तो दुसऱ्यांच्या बऱ्याखातीर, स्वत:खातीर न्हय. म्हणून म्हाका माफ कर." मर्णदेवतेच्या धर्मपुतान म्हणलें.

"ह्या मर्त्य संवसारांतल्या उमाळ्यांकडेन म्हजो कांयच संबंद ना. जें घडूंक जाय तें घडूंकच जाय. तरीपूण म्हाका कळटा की तुवें जें केलें तें स्वत:खातीर न्हय, देशाच्या बऱ्याखातीर म्हणून. हांव तुका दुसरे खेपेक माफ करतां. पूण लक्षांत दवर, तिसरे फावटीं तुवें जर म्हजे आज्ञेचें उलंघन केलें जाल्यार हांव तुका माफ करची ना. तूं जाका वाटावपाचो यत्न करतलो ताचे बदलाक हांवूच तुका मृत्यदंड दितलीं."

दोन वर्सां गेलीं. हाचे मर्दीं स्पेनच्या राजान ताका आपलो खास दोतोर आनी सल्लागार म्हणून नेमलो. पुराय देशांत ताका सर्वोच्च मान मेळटालो. पूण ह्या तरनाट्या दोतोराक ह्या मान आनी कीर्तीपरस वेगळेच गजालीची चड खोस जाताली आनी ती म्हणचे राजकन्या ताच्या मोगान पडिल्ली. आनी राजाचोय बी दोतोराचेर सामको विस्वास आशिल्लो. थोड्याच तेंपान राजा ताका आपलो जावंयूयबी करून घेवंचो आशिल्लो.

पूण एक दीस राजकन्या अचकीत बरी ना जाली. आनी एके रातीं तिचें दुखणें तर इतलें वाडलें की दोतोराक बेगीबेगीन

आपोवणें धाडलें. दोतोर भियेभियेत भितर सरलो. कित्याक ताका खबर आशिल्लें, हे फावटीं जर मर्णदेवता राजकन्येचे दावे बाजूक आसली जाल्यार तिची आज्ञा आपूण हुपूंक शकचोना.

राजकन्येच्या बाज्जेभोंवतणी लेसीचे सुंदर पड्डे लायिल्ले. दोतोर येतकच चाकरांनी उजवाड येवंक जाय म्हणून ते कुशीक काडले. आनी बाप रे? मर्ण देवता राजकन्येचे दावे वटेन उबी आशिल्ली. तिच्या दृश्टीहीन दोळयांच्यो खांचो सामक्यो आव्हान दिल्लेभशेन तिच्या धर्मपुताक पळेताल्यो.

आपल्या मोगीक पळोवन राजकन्या फिकट हांसली. "हांव जाणां आशिल्लें तूं येतलो म्हणून. आतां म्हाका कसलोच भंय ना कित्याक आतां हांव तुज्या सुरक्षीत हातांनी आसां." तिणें म्हणलें.

ताचे दोळे दुकांनी भरले. तिचेकडेन पळोवपाचेंच ताणें टाळ्ळें आनी आपल्या जादवाच्या वनस्पतीचें पाळ झरोवन हाडूंक धाडलें. आपले धर्ममातेचे नदरेक नदर लावंक ताका भंय दिसपाक लागलो. ती सामकी नदर रोखून ताचेकडेन पळेताली.

राजकन्येकडेन वाकून ताणें तिच्या कानांत म्हणलें, "म्हज्या मोगा, कांय भियेवं नाका. तूं निवळटलें."

तिनसांजचो घरांत पावचे वेळार थंड, आंगार कांटो उबो करपी वारो ताका आफडून गेलो. घराच्या हुंबऱ्यारूच ताची धर्ममाता - मर्णदेवता उबी आशिल्ली. तिचें तोंड सामकें दुख्खी आशिल्लें. तिणें एक उतर उच्चारलें ना. तिच्या दोळ्यांच्या खांचींतल्यान दुकां व्हांविल्ल्याचो ताका भास जालो.

"म्हज्या धर्मपुता, आतां हांव तुजेर आनीक रागार जावंक शकना. कित्याक आतां हांव तुका कशीच वाटावंक शकना. आतां म्हजे वांगडा यो, म्हाका तुका कितें दाखोवंक जाय."

तरनाटो दोतोर मर्णदेवते फाटल्यान दोंगर, दर्या, शेतांतल्यान सपनांत गेल्लेभशेन चलत रावलो. थोड्यावेळान तो एके गूढ अशे घळयेंत पावलो जंय फकत व्हड व्हड उगडे अशे धवे फातर आशिल्ले. थंय ल्हान रोपे, झाडां न्हय गवताचें पातें लेगीत दिसनाशिल्लें.

"म्हजे वांगडा यो." मर्णदेवतेन दोतोराक आपयलो. "हांव तुका अशी गजाल दाखयतां जी अजून मेरेन कोणेंच पळोवंक ना." मर्णदेवतेचो धर्मपूत मोन्यांनी तिच्या फाटल्यान चलत रावलो आनी ती एका अवाढव्य अशे गुहेकडेन पावली. थंयचे जमनीर वेगवेगळ्या आकाराच्यो आनी लांबायेच्यो हजारांनी मेणवाती पेटयिल्ल्यो.

"धर्ममाते, ह्यो कसल्यो मेणवाती?" ताणें विचारलें.

"प्रत्येक मेणवात म्हणचे एकेका मनशाची जीण म्हज्या धर्मपुता." तिणें सांगलें. "सगळ्यांत ज्यो लांब आसतात त्यो नवीन जल्मल्ल्या भुरग्यांच्यो. मध्यम आसात त्यो मध्यम पिरायेच्या लोकांच्यो आनी धाकट्यो आसात त्यो म्हाताऱ्यांच्यो आनी दुयेंतींच्यो." अशें म्हणून मर्णदेवता एकदम एक वात पालोवंक आयिल्ल्या मेणवाती मेरेन थांबली.

"धर्ममाते, ही कोणाचे जिणेची वात?" दोतोरान विचारलें.

"ही ज्योत तुजी मोगी रजकन्येची. ती आतां रोखडीच पालवतली. म्हजेकडेन उपाय ना." तिणें सांगलें.

मर्णदेवतेचो धर्मपूत एकदम दुखेस्त जावन तिचेकडेन पळोवंक लागलो. ती फुडें सांगूंक लागली, "म्हज्या धर्मपुता, जी सगळ्या मनशांक अटळ आसा तीच गोश्ट म्हाका तुकांय बी दिवंची पडटली. तुका आनी तुजे मोगीकेक एकठांय हाडपाची भयानक शक्त फक्त म्हजेकडेन आसा. मरण तुमकां दोगांकूय पयस करचेना, लागीं हाडटलें. हांव तुजेय जिणेची ज्योत ही पळे पालयतां. ही म्हजी तुका निमाणी भेट."

तिच्या थंडगार स्वासानी सगळी गुहा भरून गेली. आनी एकदम तिचो धर्मपूत तिच्या पायांकडेन पडलो. तेवटेन दोनूय ज्योती एकाबरोबर फुकफुकल्यो आनी पालवल्यो.

■ ■ ■



- शुभांगी नगर्सेकार
'हर्षद',
मांगूर हील,
वास्को-द-गामा.



# हांव फुलपाकुलें जालें तर?

'हांव फुलपाकुलें जालें तर' असो निबंद बरोवन हाडात. बाईन मोठ्यान म्हळें.

आवयस्! कितलो कठीण? हांवें ऋचाकडेन पळयलें.

ऋचान दोनूय हात हवेंत पसरावन दोळे मोडीत बशिल्लेकडच्यान उडून दाखयलें.

बाईचें आनी कितें? कितेंय बरोवंक लायता. जर हांव 'हांव' आसां तर हांव फुलपाकुलें कशें जायन? आनी समजा जालेंच फुलपाकुलें तर हो निबंद कसो बरोवंक जातलो? हो दुबाव हांवें सायलीकडेन उक्तायलो. तर ताणें म्हळें,

"अशें कांय कोण खरेंखरें फुलपाकुलें जायना. कल्पना करची आसता." आनी तें फळ्यावयलो अभ्यास बरोवन घेवंक लागलें, म्हज्या मनांत मात कल्पनाच कल्पना येवंक लागल्यो.

'हांव मूय जालें जाल्यार', 'हांव हत्ती जालें जाल्यार' 'हांव गाढव जालें जाल्यार', 'हांव सोरोप जालें जाल्यार', 'हांव शींव जालें जाल्यार' अशे कितलेशे जाल्यार जाल्यार म्हजे तकलेंत येवंक लागले.

पूण बाईन तर हांव फुलपाकुलें जालें जाल्यार असो निबंद बरोवन हाडपाक सांगलां. मागीर आपूण मूय जाल्यार, हत्ती जाल्यार अशें कितें करीत बसलां अशें म्हाका दिसलें. पूण म्हाका म्हज्या मनांत आयिल्ल्यो कल्पनाच खूब आवडल्यो. कित्याक तर ताईचे चोपडेंतूय 'हांव फुल पाकुलें जालें जाल्यार' होच निबंद हांवें पळयल्लो, मागीर हांव सरळ चोपडेंत फुलपाकुल्याचेंच चित्र काडूंक लागलें. ताचीं पाखां रंगयतना म्हाका दिसलें, हांव फुलपाकुलें जालें जाल्यार म्हाकाय अशीं बरीं बरीं पाकां आसतलीं. पाखांचेर रंगरंगयाळे तिबके आसतले. हांव ह्या फुलावेल्यान त्या फुलाचेर उडटलें. ते भायर वजनानूय हांव कितलें ल्हवपीक जातलें! जेवपा बिवपाची तर गजालूच सोडा सदांच इल्लेशा फुलांतलें इतलेंऽशें म्होंव खावचें. आवयस्! म्हाका तर कितली भूक लागता! तें इल्लेंऽ म्होंव म्हाका कशें पावतलें? शिवाय हांवें कितले खेपो फुलां भितर तकली घालून घालून पळयल्लें आसा. पूण तें म्होंव काय म्हाका केन्ना दिसलें ना.

मागीर फुलपाकुलें जातकच तें कशें दिसतलें?

मागीर मात म्हज्या मनांत भिरांकूळ भिरांकूळ विचार येवंक लागले. कित्याक तर फाटीं एक खेप आमच्या पोरसांतलें एक फुलपाकुलें हांवेंच धरिल्लें. आपणें फुलपाकुलें पाळचें असो विचार ते दिसा हांवें केलो आनी चिमटेंत धरून ताका घरांत हाडलें. सगळीं जनेलां बंद केलीं. दार बंद केलें आनी मागीर कुडींत ताका सोडून दिलें. तें पुटूक करून उडलें आनी वणटीर बसलें. पूण हांवें चिमटेंत धरिल्लें थंयचो ताचो रंगूच गेल्लो आनी तो सरळ म्हज्या बोटांक लागिल्लो. नव्या फ्रॉकाचो रंग धुतलो म्हणटकच तो कसो दिसता तशीं फुलपाकुल्यांचीं पाखां दिसतालीं. तें सामकें शांतपणान वणटीर बशिल्लें . शेवटाक ताचेकडेन पळयत बसपाची म्हाका उबगण आयली देखून हांव खेळपाक भायरूच गेलें. खूब वेळान घरांत आयलें जाल्यार कितें? पाखां पसरावन तें थंयच बशिल्लें! आवयस्! इतले शांतपणान एके सुवातेर हांव लेगीत बसूंक शकचेना. फुलपाकुलें जातकच म्हाकाय

कोणेंतरी अशेंच धरलें जाल्यार? म्हज्या पाखांवेलो रंग गेलो जाल्यार? म्हजें पांखूच तुटलें जाल्यार? ते भायर वणटीर एकेच सुवातेर म्हाका शांत बसून रावचें पडलें जाल्यार.... वरान वरां. हूं, पूण हाची सगळ्यांत चड खोस भोगतली आईकूच. ती म्हणटली, 'बरें जालें हें फुलपाकुलें जालें तें. हरशीं धा मिण्टां लेगीत एके सुवातेर ओगी बसपाचें ना.'

हूं! म्हणचे तें येदेंशें फुलपाकुलें जावपा खातीर म्हाका बऱ्याच गजालींची तयारी करची पडटली!

मुखेल म्हळ्यार सारकें उडूंक येवंक जाय. हांगा आमकां धड चलूंकय येना. धा कडेन आपटतां. 'बरे दोन दोळे, दोन पांय दिल्यात देवान. ताचो सारको उपेग करूंक शिकात.' आमच्यो आईसायब आमकां सांगत आसतात.

शाळा सुट्टकच घरा पावल्या बराबर पयलीं उडपाची प्रॅक्टीस करपाची अशें हांवें मनांत थरयलें आनी ऋचाकडेन पळयलें. ऋचान हवेंत हात हालयले आनी उडपाचें नाटक करून दाखयलें. आवटेंच खंयचे कडलें! वर्गांत केन्ना सारकी प्रॅक्टीस जाता? हांवें ताचेकडेन सामकी आडनदर केली आनी चोपडेंतल्या फुल पाकुल्यांचें चित्र रंगोवंक लागलें.

घरा पावतकच हांव बरोच वेळ उडपाची प्रॅक्टीस करतालें. पूण म्हाका सारकें जमच नाशिल्लें. आईक दिसलें, आसतलो कसलोय नवो खेळ. देखून तिणें म्हजेकडेन लक्षूच दिलें ना. मागीर म्हणूंक



लागली, "मनोबा, जेवन घेयात आता. खूब थकल्यांत आसतलीं उडक्यो मारून." म्हाका खऱ्यानीच खूब भूक लागिल्ली.

हांव सामकें पोटभर जेवलें आनी थोड्याच वगतान न्हिदूनय पडलें.

न्हिदेंत म्हाका सपन पडटालें. म्हळ्यार खरें तर हांवच तें सपन तयार करतालें.

सपनांत हांव फुलपाकुलें जाल्लें. केशर रंगाचें सोबीत फुलपाकुलें! म्हज्या पाखांचेर वाटकुळेच काळे तिबकेय आशिल्ले!

केशरी रंगाचेर काळे तिबके एकदम सूट जाताले.

ते दिसा हांव दप्तर घेना आसतना उडत उडत शाळेंत गेलें. वर्गांत म्हज्या बेंचार वचून बसलें. पळयत जाल्यार कितें म्हज्या शेजराकूच हळदुव्या रंगाचें फुलपाकुलें बशिल्लें. हांवें ऋचाचे सुवातेर पळयलें जाल्यार थंयीय काळ्या रंगाचें फुलपाकुलें बशिल्लें. हांवें त्या फुलपाकुल्याकडे पळयतांच ताणें नेटान पाखां हालयलीं.

बावळटूच खंयचे कडलें! हांवें मनांत म्हळें.

तितल्यांत बाई वर्गांत आयल्यो. पळयत जाल्यार कितें; पुराय वर्ग रिकामो! बेंचावेलीं फुलपाकुलीं तांकां दिसूंकच ना. तांका दिसलां आसतलें सगळ्यो चलयो एकदम कश्यो दुयेंत पडल्यो?

त्यो बरोच वेळ खंयतरी पळयताल्यो. मागीर कितेंतरी बरयत बसल्यो. मागीर एकदम कितेंतरी विचार करीत वर्गाच्या भायर गेल्यो. तितल्यांत मदले सुटयेची घंटा वाजली. मागीर तर कितें, बाईच्या माथ्यार फुलपाकुलींच फुलपाकुलीं उडटालीं!





– डॉ. संगीता बर्वे
पर्वती, पुणे ९.
फोन : ०२०२४२२१००७



- विन्सी क्वाद्रूस
'स्नोज कृपा',आर्लेम राय,
सालसेत-गोंय
मो. 9822587498

# लंढो



*तशें समाजाची सेवा करूंक ताका खूब आवडटालें. आपल्या समाजांतल्या भुरग्यांक कसलीय गरज लागली जाल्यार तो शेकडोच मुखार सरतालो आनी आपणाच्यान जाता तो आदार दितालो. गरज पडल्यार पयशे लेगीत दितालो. पूण भाटाचे केसींत हेर मुंडकार सांगात दिनाशिल्ल्यान तो फाटीं पडटालो. पूण पेद्रू ताचो भाव सदांच ताच्या सांगाताक आसतालो,*

**आ**ज काजुंची फेणी मारूं की हुर्राक काडूं हें टोनीक थारावें जायना जालें. काल काडिल्लो काजुंचो रोस ताचो बापूय भाटयेंत घालूंक घेवन गेल्लो. ताच्या फाटल्यान आपुणूय वतलों म्हण ताणें माडयल्ले काजुंची चुवडी कुशीन दवरली आनी दब्यांत पडिल्लो रोस कॅनांत घालो. काजू माडोवपाची कोळंबी निवळ उदकान धुली. ताचेर कापत सोडली आनी भाटयेकडेन वतना लकत लकत येवपी सांतान दिसलो.

''आरे सांतान, सरकारी कामदार मरे तूं. सकाळीं सकाळीं आज कसलें फेस्त?'' टोनीन ताका विचारलें.

''बायलेच्या पिकासांवान पियेलों हांव आज.'' सांतानाचीं उतरां गडबडटालीं.

''आज बायलेचें पिकासांव, काल कामावेलें पिकासांव, पयर सरपंचाचें पिकासांव... अशें करून सुमान काडलें मरे तुवें कामाक वचनासतना.''

''म्हजी जायती रजा आसा.''

''हें बरें न्हय सांतान, नोकरेवयल्यान काडटले मरे तुका.''

''म्हजें बरें आसा. तुमच्या भाटकारान तुमचेर केस केल्या म्हण जाणा मरे तूं?''

''ती केस? आमकां सोडून तो भाट कोणाक विकता तें आमीय पळयतले. चल तूं आतां नीट घरा वच आनी कितेंय खा.'' टोनीन ताका समजायलो आनी ''ना, ना'' म्हणटासतना ताच्या घरा धाडलो.

भाटयेकडेन बापूय आसा म्हण मुखार कितें करपाचें तें ताचेरच सोडून रोस दवरून टोनी रोखडोच घरा आयलो. ''त्या भाटकाराचेर आमी सगळ्यांनी मेळून उपाय करचो पडटलो. कितले लोक ह्या भाटांत रावतात पूण कोण मुखार सरनात. भाट हातांतल्यान गेलें म्हणटकच हांगा थंय मागीर धांवतले.'' ताणें मनांतल्या मनांत हेर मुंडकारांक खेपले.

''इरमांव! भायर यो.'' भायर खेळटले ताचे भयणीन ताका उलो केलो.

''येतां येतां. कितें जालें?'' ताणें भितरूच रावन म्हणलें.

''यो बेगीन, पोस्टमॅन रावता. तुजी सय जाय खंय.'' तिणें परतून सांगलें.

''राव म्हण सांग ताका.'' आंगार खोमीस घालीत तो भायर सरलो. 'भाटकाराची नोटीस आयल्या काय कितें?' ताचेर भिरांत आयली. पोस्टमॅन ताचीच वाट पळयतालो.

''घे, तुका समाज कल्याण खात्यातल्यान रजिस्टर्ड चीट आसा. हांगा सय कर.''

पोस्टमॅनान आपलो पेपर मुखार काडीत सांगलें चिटीक पळोवन ताच्या जिवांत जीव आयलो. खुशाल जावन ताणें पोस्टमॅनान दिल्ल्या पेनान सय केली. पोस्टमॅन गेलो. तो वतांच ताणें चीट उगडली आनी वाचूंक लागलो.

"कोणाची चीट इरमांव?" भयण ताका इरमांव म्हणटालें.

"म्हाका नोकरेखातीर कॉल आयलां." टोनीन खुशाल जावन सांगलें.

"खरेंच इरमांव!" तेंय खुशाल जालें.

"हांव रोकडोच येतां." तो भीतर गेलो. आपली मुस्तायकी मुदार केली आनी भायर सरलो. आपली सायकल घेवन आमदाराच्या घरा दिकेन ताणें वाट धरली.

तीन वर्सां उपरांत ताका हें कॉल आयिल्लें. ह्या तीन वर्सांत ताणें आमदाराच्या घराकडेन १०-१५ तरी पावटी मारिल्ल्यो. आज जातलें, फाल्यां जातलें म्हण ताणें ताका थातारून धरिल्लो. पांच वर्सां वयर जालीं ताणें बी. कॉम. करून. तरी लज सोडून पायच्या बराबर तो दोंगरार काम करतालो. काजूंनी भोंवतालो, बियो पुंजयतालो, काजू माडोवन रोस काडटालो, निरो काडून गांवच्या भुरग्यांक पियेवंक दितालो, रोस घेवन भाटी भरूंक वतालो, सोरो काडटालो आनी गरज पडल्यार तो घेवन विकुंकय वतालो. इतल्या कश्टकरी टोनीचो खोशयेचो दीस आज उजवाडिल्लो. देखून तो आपली नोकरी, वेळान जावं ना, जाली तरी म्हण आमदाराचे दिनवास मानूंक गेल्लो.

"सर, आखरेक म्हाका कॉल आयलें. तुका चड आनी चड देव बरें करूं." लोकांचे गर्देतल्यान मुखार सरत टोनीन आमदाराक हात दीत म्हणलें.

"बरी करून सिर्वीस कर आनी बरो मनीस जा. आतां तुका बरी संदी आसा तुज्या समाजाची सेवा करूंक. आदले परस नेटान मुखार वच आनी केन्नाय आमकांय आदार कर." आमदारान ताका आशिर्वाद दिलो.

"आमच्या भाटाची केस मातशी पळयात सर." वतां वतां ताणें आमदाराक सांगलें.

तो तसोच उठून आंजेलागेर गेलो. आंजेला ताचें मोगी. ताचेर जिवापाड मोग करतालें. ताका आयिल्ली चीट पळोवन तेंय खूब खुशाल जालें. ताचो बापूय निगतोच घरांत भितर सरिल्लो.

"अंकल, तूं सदांच म्हाका हिणसायतालो मरे हांव बेकार म्हण? ही पळय म्हाका सरकाराचे नोकरेची चीट आयल्या. आतां तरी कसलीच आडखळ ना न्हय आंजेला कडेन काजार जावंक?" व्हड उमेदीन टोनीन आंजेलाच्या बापायक विचारलें.

"आरे बाबा, हांव सदांच तुका हिणसायनाशिल्लों, बगर आपलो संवसार करूंक तुका जबाबदारेची जाणीव करून दितालों. काजार जावप म्हणल्यार एका चेड्यान आनी एका चेडवान सांगाताक रावप इतलेंच न्हय, आख्खें जिवीत एकठांय रावन सारूंक जाय. काजार म्हणल्यार भुरग्यांचो खेळ न्हय. तूं करतालो ती सिर्वीस फकत काजुंच्या दिसांनी आसली. पावसांत कितें? बेकार मरे? हांव तुका फामिलिच्या जिविताची वळख करून दिवंक सोदतालों. तुमी मोगान आसात हें सगळो गांव जाणां पूण तूं बेकार आसतना तुमचें काजार केल्लें जाल्यार हो लोक म्हाका हांसचो नाशिल्लो? सिर्विसेक रुजू जा आनी तीन म्हयन्यां मदीं घणघणान तुमचें काजार करुया. तुज्या पायक सांग एक दीस उलोवंया म्हण." आंजेलाच्या बापायन टोनीच्या खांदार हात घालून ताका समजायलो. टोनीक आदीं दिसतालें तो आपल्यो मस्कऱ्यो करता म्हण पूण ताच्या सांगण्यांत कितलो अर्थ आशिल्लो हें ताका आज कळून आयलें.

येवजिल्ले परीं व्हडा घणघणान तांचें काजार जालें. रिसेप्शनाक जायत्या लोकांक आमंत्रण आशिल्लें. आमदार आनी गांवचे सरपंच, पंच वांगडी धरून समाजांत वावुरपी व्हडा संखेन हाजीर आशिल्ले. भाटकाराकय ताणें आमंत्रण दिल्लें. पूण ताच्या कुटुंबांतलो कोण येवंक नाशिल्लो. गांवचो एक बरो आनी गरजे भायर कोणाचेच मजगतीक वचपी न्हय असो भुरगो म्हण साऊद करूंक आयिल्ल्या पाद्र विगारान ताका बिल्लो दिल्लो.

"आज मेरेन म्हज्या पुतान आपल्या समाजाखातीर जायतें काम केलें. पूण आपूण आनी कितलेच मुंडकार रावतात त्या भाटाचो प्रस्न ताच्यान सोडोवंक जालो ना. आमचे दीस कितले उरल्यात? काजारा उपरांत तो आपलें कर्तव्य विसरचो न्हय म्हूण ताका सदांच याद उरूंक हांव हो पट्टो ताच्या हाताक घालतां." टोनीच्या बापायन मायकाचेर अशी घोशणा करून ताच्या हाताक एक पट्टो बांदलो. तेन्ना सगळ्यांनी परत एक फावट ताळयो मारल्यो.

तशें समाजाची सेवा करूंक ताका खूब आवडटालें. आपल्या समाजांतल्या भुरग्यांक कसलीय गरज लागली जाल्यार तो रोकडोच मुखार सरतालो आनी आपणाच्यान जाता तो आदार दितालो. गरज पडल्यार पयशे लेगीत दितालो. पूण भाटाचे केसींत हेर मुंडकार सांगात दिनाशिल्ल्यान तो फाटीं पडटालो. पूण पेद्रू ताचो भाव सदांच ताच्या सांगाताक आसतालो, ताका आपलो तेंको दितालो. तोय नोकरी करतालो एके खासगी कंपनींत.

नवी सिर्वीस आनी रोकडेंच काजार अशे दोट्टी खुशालकायेंत टोनीन आपलो संवसार सुरू केलो. एका वर्सा भितर देवान तांचे होटयेंत भुरगें दिलें आनी दोनय कुटुंबां खुशाल जालीं. परत एक फावट वेगळोच आनंद ताच्या घरांत भितर सरलो. नोकरी करचे करून काजुंच्या दिसांनी तो आपल्या बापायक आदार करतालो. शेनवार-आयतार सुटी आशिल्ल्यान ताका बऱ्याक पडटालें. आंजेलाचें तर सांगूकच नाका. घरांतल्या कामांत तें सारकेंच गुंतून आसतालें. आवयचें आनी ताचें नातें बरें जुळिल्लें. पेद्रू आपणाक वेळ मेळटा तेन्ना बापायक आदार करतालो, म्हण घरांतलें काम ल्हव जाल्ल्या सारकें जाल्लें. भाटाची केस सुरू जाल्ली आनी पुराय कुटुंबान खांद मारिल्लो तें भाट आपल्या हातांतल्यान वचचें न्हय म्हण.

"आंजेला, हीं पळय तुका हांवें नवीं कांकणां हाडल्यांत." आपणें हाडिल्लीं तांबड्या रंगाचीं कंवचेचीं काकणां दाखयत टोनीन आंजेलाक आपले वटेन ओडलें. चड तेंप एकच तरेचीं कांकणां घालून रावल्यार टोनीक

आवडनाशिल्लें. म्हण तीन-चार म्हयन्यांनी तो ताचीं कांकणां बदलतालो.

"आतां हीं कांकणां कित्याक हाडल्यांत? भांगराचीं कर म्हणल्यार तूं करिना." आंजेलान खंत व्यक्त केली.

"भांगराचीं करूया गो एक दीस. आंजेला, हो पळय हो म्हज्या हाताक आशिल्लो पट्टो म्हाका म्हज्या कर्तव्याची याद करून दिता. जितले फावटी म्हजी नदर ताचेर पडटा, तशी म्हजी याद ताजी जाता. तशी म्हजी याद तुजे भितर ताजी उरचे खातीर तुजीं कांकणां बदलीत रावतां."

"आनी आमचे मदलो कोण एकलो ना जालो जाल्यार...!"

"जाल्यार... कितें करूंक जाय तें जण एकल्यान त्या वेळार थारोवंचें." टोनी ताच्या अनपेक्षीत विचारान हांसलो.

अशे तरेन तांचे दीस मौजेन वताले. तो दीस म्हयन्याची पयली तारीक आशिल्ली. टोनीच्या पगाराचो दीस. सांजचीं साडे स वरां जावन गेल्लीं. सुर्या अस्तंतेक पाविल्लो, आनी काळोख पसरपाक लागिल्लो. पगाराचो दीस आशिल्ल्यान बेगीनच घरा येतलों म्हण सांगून तो कामाक गेल्लो. येतना ताणें भुरग्याक गरजेच्यो वस्तू हाडिल्ल्यो. देखून बेगी बेगीन घरा पावूंक बसीवयल्यान देवले उपरांत ताणें आपलीं पावलां मारूंक सुरवात केली. मदींच ताका वळखीचोच आवाज आयलो. ताणें वळून पळयलें. तो ताचो भाव पेद्रू आशिल्लो. ताका कोण तरी मारताले. ते सगळे वळखी भायले आशिल्ले. जायते लोक पयस रावन तांचें झगडें पळयताले.

"आरे, तुमी ताका कित्याक मारतात?" टोनीन तांच्या फुड्यांत वचत म्हणलें.

"तूंय आयलो तें बरें जालें. तुमकां तें येदें व्हडलें भाट जाय मुंडकार कायद्याप्रमाणें?" झगडटल्यां मदल्या एकल्यान विचारलें आनी टोनीचेर हात केलो. "आनीक कोण मुखार येनांत मरे?"

"टोनी, म्हाका आदार कर... आदार कर." पेद्रून आदाराची बोवाळ मारूंक सुरवात केली. ते कितलेच जण ताका मारताले.

"सोडात ताका. सोडात..." म्हणीत टोनी तांचे मदीं घुसलो. तांचे मदीं लटाफट जाली. टोनीन सुर्वेक तांका प्रतिकार केलो आनी पेद्रूक आदार जालो. ह्या यत्नांत ताचे कडेन आशिल्लें आपल्या भुरग्यांखातीर हाडिल्लें सामान अस्तव्यस्त पडलें. झगडूंक आयिल्ले चड आशिल्ल्यान कशेच आडवना जाले.

"भाटांतले भायर सरले बगर तुमकां विसव आसचो ना. एका व्हडल्या बील्डराक तें भाट आमच्या भाटकारान विकूंक केलां. तातूंत रो हावजीस आनी शॉपींग कॉम्प्लॅक्स आसतलें." आनीक एकल्यान सांगलें.

"आमचो हक्क त्या भाटाचेर आसा. आमीय पळयतात भाटकार तें भाट कशें विकता तो." टोनीनय नेट दाखयलो.

"हय? इतलो नेट आसा तुज्यांत? तुका दाखयतां." म्हणीत एकल्यान रागान आपल्या बॉल्सांतली सुरी काडली.

"तुमच्या असल्या चुडटे सोरपांक आमी भियेनांत. तो भाटकार कितें समजता, गूंड धाडले आनी अशे आमचेर वार केले म्हण आमी फाटीं सरतले? ना. केन्नाच ना." टोनी आपल्या उतरांचेर ठाम आशिल्लो.

टोनीचीं उतरां आयकून सुरी घेवन आशिल्ल्या गुंडाचें माथें फिरलें. तो धांवत टोनीच्या आंगार आयलो आनी ताणें ताचेर सुरयेचो वार केलो. सुरी पोटांत रिगली. एक फावट, दोन फावटी, तीन फावटी. टोनी निण्णलो आनी आडवो पडलो. रक्त व्हांवंक



लागलें. सगळेच भियेले. पेद्रून टोनीक आपले वेंगेत धरलो. ते सुरयेचो वार गंभीर आशिल्ल्यान टोनीचो स्वास देंवपाक लागलो. रक्त व्हांवत आशिल्लें. टोनी आडवो पडला तें पळोवन भाटकाराच्या गुंडांनी पळ काडलो.

ही खबर कोणें तरी टोनीच्या घराकडेन पावयली. आपल्या भुरग्याक घे वेंगेंत घेवन आंजेला धांवत थंय पावलें. पळयत जाल्यार कितें? टोनी सासणाची न्हीद न्हिदिल्लो. तें ताका पळयतूच उरलें. पूण ताच्या दोळ्यांतल्यान एक दूक व्हांवलें ना. आपल्या पुताक घट्ट धरून ताणें वणव घालो. ताच्या रक्ताचो एक तिबो आपल्या कपलाक लायलो. एक नदर पेद्रूचेर घाली आनी पुताक ताचे कडेन दिलो. हातीचीं कांकणां फोडलीं. टोनीच्या हाताचो पट्टो सोडलो आनी आपल्या हाताक बांदलो. आतां म्हणल्यार टोनीचें पुराय कुटूंब आनी जायते मुंडकार लेगीत थंय पाविल्ले.

"हें तूं कितें करता म्हजे धुवे?" टोनीच्या बापायन मुखार येयत आंजेलाक विचारलें.

"टोनी मेलो जाल्यार कितें जालें? आतां हो मुखावयलो लढो हांव लढतलें. आमचो अधिकार आमकां मेळूंकच जाय. तें भाट कायद्यान आमकां सगळ्या मुंडकारांक मेळूंकच जाय. भिवकुन्या मुंडकारांखातीर तें सोडून दिलें जाल्यार हांगा कितें जातलें ताचो अदमास ना. खंय वतले हे सगळे लोक? तांचे कडेन जातलें हे म्हारग लुगार घेवंक? दुसरे कडेन? मातयेचें भांगर जालां. तांका आज कळचेंना आनी कळटलें तेन्ना उपाय आसचो ना. आमकां आमचे संस्कृतायेची आनी अस्मितायेची राखण करची आसा, कॉंक्रीटच्या वाठाराची न्हय. टोनीचो लढो आजच्यान म्हजो लढो जाला." आंजेलान त्या मुंडकाराचेर नदर घालीत उल्हास सोडले. टोनीच्या बापायन ताका आपले वेंगेंत घेतलें आनी तो रडूंक लागलो. तेन्ना मात आंजेलाच्या दोळ्यांतल्यान घशघशीत दुकां व्हांवलीं. मुंडकार सवका सवका आंजेला म्हज्यांत जमा जावपाक लागले.



**APPEAL**

Nature has endowed Goa with its rich biodiversity, with more than 38% area covered with forest, most of which is dense.

Protection and Conservation of this much forest cover is essential for the ecological stability of the State. Trees, which are cut or die, have to be replenished regularly.

Let us plant trees in the vacant lands so that the environment in Goa remains as fresh as ever for our good health and for the benefit of future generations.




**FOREST DEPARTMENT**
Government of Goa
Panaji.



- अपर्णा गारुडी
शिवोली, गोंय
फोन : ९८२३०९८२५४

*ताचो 'स्व' म्हळयार स्वाभिमान जागृत जालो. सगल्या गांवाक जें जमलें ना तें ताणें करून दाखयलें. त्या स वर्सांच्या भुरग्यान असो अवतार घेतलो काय सगले पळयतूच उरले. तो धांवत आपल्या आंगणांत गेलो आनी कमरार हात दवरून ताणें म्हणलें, "पयलीं भायर सर. म्हज्या घरांत बसून आमी दिल्ले चावेक घोट मारीत आमकांच गाळी संवता? कोणाक शाणेपणां सांगता? कोण रे तूं?*

# ग आनी स्व

**अ**तिपरिचयात अवज्ञा, संतत गमना अनादरो भवति
मलये भिल्ल पुरंध्री, चंदन तरू काष्ठम् इंधनं कुरूते

हालींच एक घडणूक पळयली आनी इश्कोलांत आसतना शिकिल्लें हें सुभाषित याद जालें. खंयच्याय मनशांकडेन चड परिचय जालो काय आमचो अपमान जावंक शकता. अवज्ञा जावंक शकता. सदांच कोणागेर वा कोणाकडेन वचत रावल्यार अनादर जावंक शकता. ह्या गजालींची देख सुभाषितकारान खूब सुंदरतरेन दिल्या. तो म्हणटा मलय पर्वताचेर चंदनाचीं रानां आसात. थंयच्यो भिल्ल बायलो चंदनाचें लाकूड इंधन म्हूण वापरतात. हें चंदन आमचे खातीर खूब मोलादीक आनी किमती. पूण जंय तें खूब मेळटा थंय ताका मोल ना. सुभाषितकारान नेमकें कितें पळोवन हें सुभाषित रचलां तें म्हाका खबर ना. पूण अशे तरेचे अणभव आमकां आयकुपाक मेळटात आनी केन्ना हाचो प्रत्यय आमचे जीणेंतूय येता.

समाजांत तरतरांचीं मनशां आसतात. कांय गर्विश्ठ तर कांय स्वाभिमानी, कांय तत्वनिश्ठ तर कांय हेकेखोर, कांय सादीं सरळ तर कांय तिरसुवादी, कांय विखाळ तर कांय दिखाळ. कांय सुवार्थी तर कांय निसुवार्थी, कांय पणसावरी कांटयारीं पूण म्होवाळ. तर कांय कांट्याकोरी वरी वखदी, व्यक्ती तितल्यो प्रकृती. मनशां तितले स्वभाव आनी स्वभावाक वखद ना. अश्यो जाय त्यो मनीस स्वभावाच्यो जाती. ह्या साबार तरेच्या मनशांभितर दोनूच गजाली समान. एक राग आनी दुसरो मोग. कोणाचो मोग केन्ना रागार जायत आनी कोणाचो राग केन्ना मोगाळ जायत सांगपाक येना. तें कितेंय आसलें तरी एक मात खरें. ल्हान भुरग्यांसावन जाणट्यांमेरेन सगल्यां भितर 'स्व'ची जाणीव आसताच. २-४ वर्साच्या ल्हान भुरग्याक लेगीत. आपल्याक कोण बरो करता आनी आपणाकडेन कोण कुसकेपणा करता हें ज्युस्त समजता.

हीं सगळीं चिंतनां सुरू जालीं तीं मनीस स्वभावाचीं दोन रुपां पळोवन. ताचें जालें अशें. आमच्या गांवांत एक मनीस आसा. बापायन जोडून दवरिल्ले जोडीचेर व्हडपण मिरयता. स्वता बेकार. ताचें नांव 'आडांबो'. लांब रूंद जिवाचो. मेळत थंय् स्वताचें मोठेपण मिरोवप, झांकप, गांवावयल्यो गजाली करप, फुक्ट सल्ले दिवप आनी गांवभर सगल्यांगेर वर-वर बसून तांचो मोलादीक वेळ खावप. उलोवपाची भास आनी आवाजांची तांकूच अशी की लोक ताका मनांतल्यान भियेताले. तोंडार कांयच म्हणिनासले. पूण फाटल्यान 'अतिपरिचयात अवज्ञा' प्रमाणें ताचें तासताले. अपमानास्पद उलयताले. मनांतल्या मनांत गाळी मारताले. कोणाकूच तो



आपल्यागेर आयिल्लो नाका आशिल्लो. कारण खंयच्याय वेळार लोकाल्या घरांत भितर सरून स्वताच्यो बढायो मारपाक आनी हेरांक फुकट सल्ले दिवपाक ताका आवडटालें. ज्या घरांत भितर सरतालो थंय फेविकोल लायिल्लेवरी दसतालो. तोंडाचो पट्टो चालूच आसतालो. वयल्यान च्या आनी खाणांची ओर्द सोडटालो ती वेगळी. ताचो स्वभाव खूब गर्विश्ठ. आपूण जावन केन्नाच वाटेर कोणाक हडकी नाशिल्लो. पूण दुसऱ्यान ताका हडकीलो ना जाल्यार ताका सभ्यतायेचे आनी शिश्टाचाराचे धडे दिवपाक लागतालो. ताच्या ह्या गर्विश्ठ स्वभावाक लागून लोक ताका 'ग' म्हणटाले. हो 'ग' आमगेर येता म्हळ्यार म्हजेर कलकल येतालो. एकदांचो तो बेगीन वचचो म्हूण हांव रोखडेंच च्याचें कोप ताच्या मुखार दवरतालें. ताका च्या पियेवन आनीक तरतरी येताली. मागीर ताचें लेक्चर सुरू जातालें. बायलांनी चुडिदार घालप आमचे संस्कृतायेंत कशें बसना आनी ताणी साडयोच घालपाक जाय ह्या विशयाचेर वरभर नॉनस्टॉप उलयत रावतालो. ताचे ते 'वही पुराने घिसे-पिटे डायलॉग' आयकून म्हजे कान विटल्यात. तरी ताच्या वयाचो मान राखून हांव ओगीच रावतालें. केन्नाच ताका परतून सांगलें ना. मनांतल्या मनांत मात दिसतालें की कोणे तरी हाका बरीच बुध्द शिकोवंची.



आमच्या घराकुशीच्या देवळाचें बांदकाम चलतालें. देवळा मुखार एक घर आसा. त्या घरांत सारंग नांवाचो स वर्सांचो भुरगो आसा. हुशार, चुणचुणीत, वेवस्तीत आनी शिस्तप्रिय. सगल्यांचे अपुरबायेचो. सुसंस्कृत कुटुंबांतलो. एक दीस हो सारंग देवळाच्या सोपणार बसून थंयच्या एका मानायाच्या मोबायलाचेर ताका देवळाचे फोटे काडून दितालो. इतल्यान आडांबो ताच्या घरांत भितर सरलो. सारंगाच्या आवय-बापायकडेन गजाली करपाक लागलो. ताचें लक्ष सारंगाकडेन गेलें आनी लागलो भरभरपाक. ''कितें शिस्त लायल्या पोराक? घांटयां वांगडा, कामेऱ्यां वांगडा भोंवता. मोबायल घेवन खेळटा. सगलें आयतें तुमी दितात म्हूण भुरगीं अशीं हाताभायर वतात. हाका जाग्यार घालात. ना जाल्यार माथ्यार बसतलो तुमच्या. रस्त्यार हाडटलो तुमकां. विकून खातलो तुमकां.'' अशीं जायतीं उतरां ताणें सारंगाक म्हटलीं. दोन-चार गाळीय मारल्यो. लोकांक शिस्तीच्यो देखी दिवपी आडांब्याचो पूत मात सोरो पिवन रस्त्यार पडटालो. तें सगलो गांव पळयतालो. पूण 'लोका सांगे ब्रह्मज्ञान'... हो आडांब्याचो स्वभाव. अर्दवर ताणें सारंगाक वायट उतरां दिलीं. सारंगाचेर जाल्ल्या बऱ्या सस्कारांनी अर्दवर ताका वोगी दवरलो. पूण गाळी आयकनाफुडें त्या स वर्सांच्या भुरग्याच्या सहनशक्तीचो अंत जालो. ताचो 'स्व' म्हळ्यार स्वाभिमान जागृत जालो. सगल्या गांवाक जें जमलें ना तें ताणें करून दाखयलें. त्या स वर्सांच्या भुरग्यान असो अवतार घेतलो काय सगले पळयतूच उरले. तो धांवत आपल्या आंगणांत गेलो आनी कमरार हात दवरून ताणें म्हणलें, ''पयलीं भायर सर. म्हज्या घरांत बसून आमी दिल्ले चावेक घोट मारीत आमकांच गाळी संवता? कोणाक शाणेपणां सांगता? कोण रे तूं? आमचो सोयरो? इश्ट? खंयच्या नात्यान म्हाकां तापयता? तुजे वाटेक गेल्लों हांव? म्हजो आवय बापूय आनी गांव तुका भियेता आसत पूण हांव तुका भियेना. तूं दोन माडांचो भाटकार. बापायचे जोडीचेर उडटा? तुजो पूत सोरो पियेवन रस्त्यार पडटा. ताका सांबाळ पयलीं. ताकाच बरी देख शिकय. लाग चलूंक हांगा सरलो. ना जाल्यार व्हाण काडून तोंडार मारतलों.''

सारंग व्हाण हातांत घेवन रागान थरथरतालो. ताच्या काकान ताका शांत केलो. ताचो बापूय आनी आवय तकली सकयल घालून वग्गी उबीं आशिल्लीं. पन्नासेक लोकांनी हें नाटक पळयलें. दर एकल्याच्या काळजाक एक सुखद धक्को बशिल्लो. आयज मेरेन कोणाकूच जमलें ना तें ताणें करून दाखयल्लें. कोणाकूच भुरग्याचें खंय चुकलां अशें दिसलें ना. आडांबो तकली सकयल घालून भायर सरलो आनी आपल्या घरा दिकेन चलत रावलो. इतल्या लोकांमुखार ताका लज जाल्ली. वोगीच दुसऱ्याचे वाटेक वचूं नये हो धडो तो जिवितांत पयले फावट शिकलो. तेन्ना जाणट्यांनो आनी जाणत्यांनो भुरग्यांचे वाटेक वोगीच वचूं नाकात. 'स्व'सांबाळून स्वताचो मान राखपाक शिकात. कारण आतांचीं भुरगीं शाणीं जाल्यांत... एखाद्रो सारंग मेळत जाल्यार सकयल घाल्ली तकली परत वयर काडपाक मेळची ना.

हांवें पळयलें. देवळा फाटल्यान भुरगीं फुटबॉल खेळटालीं. आडांबो वतकच सारंगय खेळपाक धांवलो. सगल्या भुरग्यांनी ताका उखल्लो आनी 'सारंग महाराज की जय' म्हणीत घोशणा दिवपाक लागलीं. भुरगींच तीं! मस्तीं? शाणीं? काय विद्वान?

■■■



- रुपा कोसंबे
शिंदोळी, सांकवाळ,
कुठ्ठाळी-गोंय.
फोन-२४५२१५०

# सुवर्णमध्य



दाट गोजडी आंगार वडोवन, मोव-मोव हाथरूणांत रीगत ह्या आषाढाची तुस्त करची तितली थोडी. आषाढाचें सगळ्यांत चड अपरूप तें लग्न जाल्ल्या नव्या व्हंकलांक. घोवाक मस्को मारिनासतना, मांय-मांवाचो आनी घरच्यांचो धाक मातसो कुशीक दवरून हक्कान कुळारा वचपाची सुवर्णसंधी. मागीर घरच्यांनी तिच्या कुळारा वचून, तिका फुलां माळून, तिचो थातोमातो करून परत घरा व्हरतासर तिका हुस्क्या मेकळें कुळारा रावपाक मेळटा. घरची आषाढपावळी नवे व्हंकलेन पळोवची न्ही हो ताच्याफाटलो हेत! ह्या संगणक युगांत पासून आषाढपावळेक अशें खेरीत म्हत्व दितात.

जीबेक धार काडपाचें काम तर आषाढ मनापासून करता अशें म्हजें मत. आंब्याच्या, पणसाच्या साठाची आंबट-गोड रूच तोंडांत घोळयतनाच धुंवांधार पावसांत कांद्याच्या कुरकुरीत भज्यांची याद करून दिता. निकर्तींच मक्याचीं कंवळीं कणसां बाजारांत येतात, तीं रसरशीत कोळशांचेर भाजून खावपाची रूचच आगळी. त्याभायर करकरीत पिंपऱ्यो, घोसाळीं, आंकूरवाल, फागलां, काराथीं नव्यानच बाजाराक येवपाक लागतात. लूत, आळू, तेरें, कुड्डूक, तायखिळो, किल्ल ह्यो हरशिल्ल्यो मेळनाशिल्ल्यो भाज्यो खावपाचो हो तेप. श्रावणांत तर मसकाची भाजी खावपाक बॅन आसा हें खबर आशिल्ल्या भशेन मशींग पसून खांदये खांदयेचेर पांचव्योच कोंबऱ्यो घेवन समर्पण करपाक तयार रावता. पेटारे, बैलपाडे, झिरमुले, कारांदे, चिरके हीं कंदमुळां कोंबारून जमनींतल्यान वयर येवन आपलें अस्तित्व दाखयतात. प्रणयोत्सूक आशिल्ले भशेन वालीय गरगर वाडत वचून वृक्षाक आलिंगन दितात. आषाढांतल्या ह्या दमदार पावसाक सलामी दिवचेखातीर धतरेच्या पोशांतल्यान ल्हवपीक वयर रुजून येतात तीं धर्वीफुल्ल अळमी. ह्या अळम्याची रूच तर चिकन-मटनाक कुशीन काडपी. ह्या म्हयन्यांत वानवा जाता ती मात थोड्या प्रमाणांत जित्या नुस्त्याची. कारण होच नुस्त्याचो प्रजनन काळ आशिल्ल्यान नुस्तें मारप्यांचेर आमच्या गोंयांत वर्सावळीची बंदी आसता. तरीपसून थोडेंभोव नुस्तें खंयच्या खंयच्यान येताच. मोल मागीर चड आसूं. मात मोलाक परवडना तांचेखातीर खारें आसाच. पावसाच्या दिसांनी इंगळ्याचेर खाऱ्याचो कुडको भाजपाक वडयलो म्हणटगीर सगळो वाठार वासान भरून सोडटा. ह्या खाऱ्याच्या कुडक्यांचेर खोबरेलाचे दोनचार थेंब सोडून जेवतना घेतले जाल्यार जित्या नुस्त्याची उणीव भरून येता. बांगडे, पेडवे, मोरी, सुंगटां, गालमो असल्या खाऱ्याचे एकेक सुरबूस जिन्नस आनी दुसरेवटेन पोटाक लागिल्ली चुरचुरीत भूक, जेवण आपशींच भितर वता. ह्या खाऱ्याची रूच फकत आषाढ म्हयन्यांतच! कारण सुतापुनवेक परत बोटी उदकांत वचूंक लागतगीर नुस्त्याची खातड.

सगळें जेवन खावन एखादले वेळार पोटाक अजीर्ण जावचें न्हय म्हण आयिल्ले भशेन एकादस दत्त म्हणून उबी रावता. तशी एकादस दर म्हयन्याक येताच. पूण हे एकादशीक एक आगळेंच म्हत्व आसा. हे एकादशीक शयनी एकादस अशें म्हणटात. हे एकादशीच्यान देवगण शयन करपाक वतात ते बद्द चार म्हयन्यांनी कार्तीक एकादशीक उठतात. तशें पळोवपाक गेल्यार आमकां मनशांकय मात्सो सुशेगच म्हणपाक जाय. कारण शेतां-भाटां शिपपाचें काम पावस आयतोच करता आनी गोरवां-वासरांय दोंगरार वचून आपल्या पोटाची वेवस्था करून येतात.

देवाक पसून वंदनीय अशा गुरूंक मान दिवपी गुरूपौर्णीमा येवन आषाढांतले पंदरा दीस केन्ना उलगतात पत्तो पसून लागना. इतल्या तेपाचो वचपो काडिल्लेभशेन आषाढांतलीं दाटिल्लीं काळीं-काळीं कुपां एकेकदां पांच-पांच, स-स दीस धतरेक सूर्याचें दर्शन घेवपाकच दिनात. आनी ह्या भरिल्ल्या वातावरणांत पार्श्वसंगीत आसता तें खळखळ व्हांवपी व्हाळा-न्हंयांचें, उंचायेवयल्यान घो-घो करून पडपी धव्याफुल्ल घोग्यांचें. उमास लाग-लागी पावता तशी श्रावणांत आनी गणपती येवन वतासर शिवराक रावचे खातीर मनाची ल्हव-ल्हव तयारी जाता. शिवराक रावपाक बळगें मेळचें म्हणून पट्टीचे खावपी-पिवपी आपलो उरिल्लो सुरिल्लो घोस्त काडपाखातीर यथेच्छ खावन-पिवन गटारी अमावास्या मनयतात.

फातराक पसून पाझर फोडपी म्हणजेच काळ्याच पाषाणाचेर पसून पाचवोचार शेळो रूजोवपी, आबाल-वृद्धांच्या जिबेचे चोचले पुरोवपी, सासुरवाशिणीक दिलासो दिवपी, गुरूंचो यथायोग्य सन्मान करपी आनी आमचें तारण करतल्या सैमाक बळगें दिवपी हो आषाढ पावसांतल्या म्हयन्यांचो सुवर्णमध्य न्हय तर आनी कितें?

■ ■ ■

# सभावाक वखद आसा



– काश्मिरी स. पावसकार
शिवोली–गोंय.
फोन : २२७००१०

'सभावाक वखद ना' अशें आमी सदांच म्हणटात. पूण हालीं सभावाक वखद आसा म्हणपाचो एक नवो सोद, नवो सिध्दांत आयकुपांत आयलो आनी जिवाक बरें दिसलें. मनीसजात एक खरी पूण जणएकल्याच्या सभावगुणांत वेगळेंपण आसता. बऱ्या सभावाच्या मनशाक आमी 'सुसभावी' म्हणटात. ह्या मनशाक वखदाची गरज पडना पूण जर ह्याच सभावांत एकादो जरी दोश आसल्यार वखदाची चडांत चड गरज पडटा.

मनशाच्या ह्या सभाव गुणदोशांचेर आमच्या पुर्वजांनी तर जायत्यो म्हणी तयार करून दवरल्यात. देखीक सुण्याची शेंपडी वाकडी ती वाकडीच, काडली जीब लायली ताळ्याक, कावळ्याक दुदान न्हाणय ना जाल्यार धंयान न्हाणय, काळो तो काळोच, आयत्या बिळान नागोबा, उदकाच्या बळार सुंगट उडटा आदी. हातुंतली 'रागान केलें रायतें आनी दुस्मानाक मेळ्ळें आयतें' ही म्हण म्हाका खूब मानवता. भुरगेंपणांत कोणूय रागार जाल्यार 'रागार गे फुगार, घोवान दिली कातली, फुस्स करून हांसली' अशें कोणेंय म्हणटकूच राग खंयचेकडेन नाच्च जातालो. हालीं तेंपार होच राग न्हिवपाक बरोच कळाव लागता. जायते फावटी आवयन दिल्लो खाणांचो वांटो म्हाका उणो दिसचो आनी रागान हांवें तो न्हयकारचो. कांय वेळान हेर भावंडांनीं तो फस्त करतकच अदीकूच रागार जावचें. त्या वेळार आवयन म्हाका रोखडीच वयली म्हण याद करून दिवन फकांडां करचीं. ना न्हय ह्या रागाच्या भारान जायतीं जाणां अशींच फटवतात हाच्योय देखी आसात!

'रागार जावप' ही हांवें म्हळ्या तशी सभावीक, तितकीच ती वैश्वीक भावना. पूण हो राग केन्ना, कसो, कसलो आनी कितलो येवचो हाचेर वेळार बंधन घाल्यार एकदम बरें! अन्याय, अत्याचार वा एकाद्रे वायट घडणुकेविशीं राग येवप सामकें समा. पूण बेठोच कित्याचोय राग येवंक लागल्यार तें लुकसाणीचें जावं येता. ताचे बरे-वायट परिणाम भोगचे पडटात. मागीर केलें कितें आनी जालें कितें म्हणपाची पाळी येता. एकदां आमी अशींच रातीकडेन अभ्यासाक बशिल्लीं. तितल्यान व्हडले भयणीक झेम येवंक लागली. तसो लायट पालोवपाचो हट्टूच धरलो. लायट पालोवपाचें नांव आमी कोणूच घेनांत, ह्या रागान आपलो दोनशीं पानीं नोट बूक पिंदून उडयलो. दुसरे दिसा परत मुकाट्यानी पिंदिल्लीं सगळीं पानां दसोवच्या वावराक लागलीं. रागाक दोळे ना हें म्हाका ते दिसा समजलें. तशें पळयल्यार केस्तावां, मारामारी, तोडफोड, खून ह्या सारक्यो गजाली घडपांत 'राग' हे भावनेचो व्हड वांटो आसता. रागान आपूण अमक्या अमक्याचें तोंड पळोवचोना अशें म्हणपी लोक तर संवसारांत भरल्यात.

मोगाळ, मायेस्त, शांत, नम्र, तशेंच तापट, खुनशी, रागीश्ट, दुस्वासी, आळशी अशीं जायतीं सभाव वैशिश्टां आसात. हांतल्या एकाची जरी अतिशययोक्ती जाल्यार मनीस त्रासांत पडूंक शकता. 'अती तिथे माती' हेंय आमी उगडास दवरूंक जाय. 'अती राग' वा क्रॉनीक ॲन्गार तर सामकोच घातकी. ही 'राग' नांवाची भावना आमच्या प्रत्येक कृतीक इंधन पावयता हेंय आमकां खूबशा वेळार खबर नासता. 'No man thinks clearly when his fists are clenched' म्हणटात तें ओगीच न्हय! सुण्यान घास मारल्यार रागान केन्ना कोण सुण्यांक घास मारता? देखून जाणा जायात रागाच्या भारान विचारशक्त नश्ट जावपाची चड शक्यताय आसता. उठसूठ राग येवपी लोकांचो तर म्हाका सामकोच राग येता.

खूबशा जाणांक स्वताचोच राग येवपाची वायट संवय आसता. रागान हे लोक केन्ना केन्ना उलोवपाचेंच बंद करतात, तर वेळ पडल्यार कित्याय कितें उलोवनूय मेकळे जातात. कांय जाणांचो राग सामको नाकार आसता, केन्ना कोण रागान तांबडोच जाता, तर केन्ना कोण दोळ्यांनी राग व्यक्त करतात. रागाचो एक ल्हानसोच खीण खरो, पूण तो पचोवप खूब कठीण! अशा रागीश्ट मनशांची तुळा विखारी सोरपांकडेन केल्या ती ह्याच कारणाक लागून.

आयच्या काळार रागाक न्हिवोवपाची कळाशी आपलेकडेन आसप भोव गरजेची. ही गरज मतींत घेवन रागाचेर मात करपाच्यो तरा, वेगळे उपाय अस्तित्वांत येवंक लागल्यात. हाचेर सगल्यांत सादो सोपो उपाय म्हळ्यार एक ते धा आंकडे मेजप, गरजेवेळार शंभरूय मेजल्यार जाता. वेळा प्रसंगार विनोदी वृत्ती आपणायल्यार चडूच बरें. आयज रागाचेर नियंत्रण दवरूंक 'राग वेवस्थापनाची' नवी पध्दत विकसीत जाल्या. हातूंत ध्यानधारणा, प्राणायम, योगासना ह्योय पध्दती आपणाव येतात. अध्यात्म तर क्षमा करपाचेर भर दिता. Forgiveness is the best policy. हाचे सारको उत्तम उपाय ना. वैजकी मळार आयुर्वेद, अेलोपथी, होमयोपथी, ॲरोमा थेरपी अशे शेकड्यांनी उपाय येवंक लागल्यात-मानशास्त्राचो आदार घेवन राग आडोव येता. त्या खातीर समुपदेशकाचो पालव घेवंक आमी फाटीं फुडें जावचें न्हय. ह्या नकारात्मक भावनेचेर आळाबंद हाडपाक उपाय आनी वखदां आसलेच म्हूण जायना. ते योग्य वेळार, आनी फावो त्या प्रमाणांत घेतल्यारूच ताचो लाव जाता.

रागान तेंगशी गाठल्यार कितें घडूं येता हें हांवें चड विस्तारून सांगूंक ना आनी सांगपाची गरजूय ना. देखून रागान कोणाचेर फोग काडचे परस, रागाचें रूपांतर आमी मोगान केल्यार 'सोने पे सुहागा' जावंक वेळ लागचोना!





- आशा शानभाग
सादोळशें-काणकोण- गोंय
मो. : ९४०४१४५३३७





# तुळा

***मुंबयच्या गच्च भरिल्ल्या हॉलांत गोंयकन्या अनिताचो आवाज कानांत भरून घेवंक आयिल्लो जमाव ताची वाट पळेतालो. माचयेर येवन सरस्वतीच्या फोटयाक नमस्कार करपी अनिताक येवकारपाक सगलें सभाघर आपल्या पांयार उबें रावन ताळयांचो कडकड करतालें. लोकांकडेन वळून नमस्कार करतल्या अनिताक दुसरे वळेरेंतलें तें मुखामळ वळखीचेशें दिसलें.***

"**म**म्मी, हांव आयलेंऽऽ" दुसरेंतलें आभा फाटीवेलें वेंतभर बॅग, गळ्यांतली नाजूक वॉटरबॉटल आनी मानेर धोलपी हातभर विणयो हालयत स्कुलबशींतल्यान धांवत आयलें. घरांतल्यान धुवेचे ओडीन धांवपी अनिता आनी आभा हुंबऱ्याचेरच एकामेकांच्या गळ्यांत पडलीं. खूब वर्सांनी मेळिल्लेवरीं आठ ते देड मेरेनच्या विरहानंतर तीं एकमेकांचे वेंगेंत रिगलीं. जशी दुदांतली साकर.

"मम्मी, अंदू आमचे शाळेक फिफटी इयर्स जातात. म्हणून फाल्यां सगळ्या पेरेंट्सांची मिटींग दवरल्या." घरांत येईमेरेन आभान टिचरीचो रकाद आवयच्या कानार घालून आपलें काम सोपयलें. अनिताचें तोंड वाकडें जालें.

"शाळा सुरू जाता थंय आसा. जाल्यो हांच्यो कटकटी सुरू. अंदू वर्सभर कार्यावळी करात आनी भुरग्यांचें घट्टाण जाता तें आनीकय वाडयात." तोंडांतल्या तोंडांत अनिता पुटपुटलें.

सांजचो विश्वास कामावेल्यात येतकीर इन-मिन-तीन मनशांचें तें घर खोशेच्या हाशांनी पर्जळीत जालें. गरम कॉफी आनी आतांच केल्ल्या ढोकळ्याचेर ताव मारतनांच अनितान विश्वासाच्या कानार आभान दिल्लो रकाद घालो.

"विश्वास, आभाचे शाळेची अंदू पन्नाशी खंय रे. प्रत्येक भुरग्याच्या आवय-बापायन फाल्यां कंपलसरीली येवंकच जाय म्हळां खंय. कितें करूया?"

"आगो अशें कशें जातलें? म्हाका तर जमचेंच ना. हांव फोन करून कळयतां तांका, की हांव पावचो ना म्हणून."

"बरें तर" अशें म्हणून उठतल्या अनिताच्या कानार विश्वासालें एक उतर पडलें आनी तें अजापितच जालें.

"मागीर विचारतां" अशें म्हणत अनिता रातच्या जेवणाची तयारी करपाक किचनांत गेलें.

रातच्या जेवणा उपरांत आभाक न्हिदोवन अनिता बेडरूमांत आयलें.

"विश्वास, तुवें ओदोळ आतां फुडें लिवो मारच्योच पडटल्यो अशें कित्याक रे म्हणिल्लें?"

"अनु आतां न्हिदतना प्रस्न करप नासतात जाणा मगो तूं?"

तरीकय अनितान आपलो हट्ट सोडलोना.

''अनु, तूं सामकेंच विसरलें मुगो. आमीय हेच शाळेचीं भुरगीं. हांगाच हांव तुजेखातीर पिसो जाल्लों हें विसरलें तूं?''

''ताचो आनी तुजे लिव्हेचो कितें संबंद?''

''हांवें चितलां आमी दोगांयनी एकठांय बसून आमच्या वर्गांतल्या सगल्या भुरग्यांची लिस्ट करून तांकां ह्या वर्सा एकठांय हाडून एक कार्यवळ करप. आनी हां ते वेळावेल्या बाई-मास्तरांचीय लिस्ट करूया आनी तांकांय आपोवन आमच्या वर्गांतल्या भुरग्यांतर्फे तांचो भोवमान करप. ते खातीर लिवो जाय न्हीं?''

दुसरे दिसा सकाळीं अनिता आभावांगडा शाळेंत पावलें. तीच शाळा, तींच झाडां. फकत शाळेक नवो रंग लागिल्लो. आनी तेन्नाची धाकटुलीं रोपटीं आतां रूख जाल्लीं. ताणें आनी विश्वासान वनमहोत्सवांत वांगडा रोयिल्लें पेरांचें झाड पेरांच्या धोड्यानी भरिल्लें. त्या झाडाकडेन पळयतना अनिताक त्या रोपट्याक माती लोटतना जाल्लो विश्वासाचो पयलो स्पर्श याद जालो. ताच्या आंगार काटो फुल्लो.

''मम्मी, शीं खाता गो?'' ह्या आभाच्या प्रस्नान तें सावशीद जालें.

चडशीं भुरगीं आवय-बापायवांगडाच आयिल्लीं. भुरगीं आपापल्या क्लासींनी धांवलीं आनी सगल्या पालकांक येवकारून हेडमास्तरांनी तांकां हॉलांत आपयलें.

''येते पंदरा तारखेक आमची संस्था पन्नास वर्सांची जातली. पन्नाशी पुराय जाता देखून आमीं हें वर्स भांगराळें वर्स म्हणून मनोवपाक जाय. वर्सभर विंगड विंगड कार्यावळी, व्हडा लेखकांचीं व्याख्यानां, संगीत कार्यावळी घडोवपाक जाय. भुरग्यांवांगडा पालकांचें सहकार्य मेळ्ळ्यारच हें शक्य आसा. तुमचो तेंको खूबच गरजेचो.'' हेडमास्तरांच्या ह्या आव्हानात्मक भाशणाक पी.टी.ए. ट्रस्टी आनी सगल्या पालकांनी आवाजी तेंको दिलो आनी च्या-बटाटवडे जावन मिटींग सोंपली.

सांजचो विश्वास घरा येतकीर तांची कौटुंबीक बसका सदचेवरीं कॉफी-भजीं सांगाताक घेवन जाली. अनितान मिटींगेचो नियाळ ताच्या कानार घालो.

''एकंदर माजी विद्यार्थी वा माजी शिक्षक हांची कोणाकच याद जावूं ना तर? अनु आमी तयारेक लागुया. तूं मात्श्यो तुज्यो कार्यवळी कमीच कर अंदू प्लीज.''

तशें पळेल्यार अनिता पुराय वेळची घरधनीण. पूण ताणें ल्हानपणासावन आपणायिल्ल्या गावपाच्या छंदान ताका आयज खूबच नामना मेळोवन दिल्ली. ल्हानपणांत ताच्या बापायन ताका तेंको दिवन शास्त्रीय संगीत शिकपाक लायिल्लें. शाळा, कॉलेजींत गायन सतींतलीं कितलींशींच बक्षिसां ताका मेळिल्लीं. लग्ना उपरांत विश्वासाच्या फाटबळार तें आपल्यो स्वतंत्र कार्यावळी घडोवन हाडटालें. सप्तकांतल्यान दोन दीस तरी ताच्यो खंयतरी संगीत बैठको आसताल्योच. तरी शिकतनां शाळेच्यो तेन्नाच्यो हेडबाई सखुबाई ताचो उध्दार करताली. ताचो विसर ताका कसोच पडनाशिल्लो.

''जावन जावन बाय जातलें कोण? तर खंय गायिका! वयल्या जातींतलें आसुनय कसलीं अवलक्षणां येवजल्यांत गो तुका?'' अनिताक समजूंक खूब कठीण जालें. हांगा गावपाचो आनी जातीचो संबंद कितें? तें तर आपलो आवाज, आपली कला ही देवाची देणगी मानतालें. घरा पावतकीर बापायन ताका समजायलें.

''बाय, कला जातीचेर निंबून नासता. जाचेर सरस्वतीचो वरदहस्त आसता ताकाच कलाकार म्हणटात. तोच खरो सरस्वतीचो पुजारी. तुजें काम तूं प्रामाणीकपणान करत राव. लोकांचें काम लोकांक करूं दी.'' बापायचे विचार आयकून अनिता खुशाल जालें. तरी लेगीत आयजूय ताका अदीं-मदीं सखुबाई याद येतालीच.

दुसरे दिसा सावन अनिता आनी विश्वास तांच्या बॅचीच्या तेन्नाच्या भुरग्यांचे नामे मेळोवपाच्या यत्नांक लागलीं. सगली म्हायती जमतकीर विश्वासान सगल्यांक कॉन्टॅक्ट करून आपली येवजण कळयली. सगल्या बॅचींचो घसघशीत तेंको मेळ्ळो आनी चेक धाडून सगल्यांनी एक दिसाच्या कार्यावळीची आर्थीक तरतुदय केली. उपरांत अनिता-विश्वासान सगल्यांच्या सवडीनुसार अंदुवर्साच्या गुरूपौर्णिमेच्या दिसाक सगल्यांनी एकठांय जावन एक गुरूवंदनेची कार्यावळ करपाचें थारायलें. आपली शिर्वीस आनी गायनाच्यो कार्यावळी हांच्यो वेळो सांबाळून अनिता-विश्वासान तांच्या वेळावेले सगळे गुरूजन, क्लार्क आनी प्युनांक लेगीत सोडून काडून कार्यावळीचें आमंत्रण दिलें.

हळुहळू कार्यावळीचो आयतार उदेलो. त्या खाशेल्या बॅचीचे तेन्नाचे सगले भुरगे आपापल्या बायल-भुरग्यांवांगडा शाळेकडेन पावपाक लागले. गांवच्यो लग्न करून दुसरे गांवांनी गेल्ल्यो तेन्नांच्यो चलयो आपापल्या घोवां वांगडा भुरग्यांक सांबाळत आयल्यो. सगळेकडेन हाय/हॅलो आनी आंवय, शी, ना गो बाये ह्या उतरांचो शितोडो पडटालो. तेन्नाचो स्टाफ आपल्या त्याच शाळेंत शिकपी नातरांचे हात धरून सभाघरांत पावलो. च्या, उपीट, बटाटवडे आनी चटणी हांचो बोकणो भरून मुखेल कार्यावळ सुरू जाली. तेन्नाचे सुत्र-संचालन करपी गांवकर गुरूजीन मायकाचो लटपटत ताबो घेतलो. कवळेच्या दातांतल्यान खणखणीत उतरांनी ताणीं एकाएका माजी विद्यार्थ्यांचें नांव घेवंक सुरवात केली. आज्ञाधारकपणान भुरगीं सान जाल्लेवरी येवन मायकामुखार आपापलें मनोगत उक्तावंक लागलीं. सकयल तांचीं भुरगीं मम्मी-पप्पा भाशण करतात तें पळोवन तांकां तोखेवंक लागलीं.

''आमचे शाळेक गायनाच्या मळार खूबशीं बक्षिसां मेळोवन दिल्लें अनिता आयजय त्या मळार आपली नामना जोडून आसा. आतां ताणें आपलें मनोगत उक्तावचें.''

गांवकार गुरूजींचीं उतरां आयकतकीर अनिता-विश्वासाच्या फाटी लिपलें. हरशीं तंबुऱ्याचे सूर आयकले की हजारांच्या जमावाक विसरपी अनिताक चार उतरां मायकाचेर उलोवप कठीणच थारतालें. आभा आवयक स्टेजीर यो म्हणून ओडटालें. इतल्यांत विश्वासच उठलो. अनिताचो भाशणाचो फोबिया वळखून ताणें ती जापसालदारकी स्वत:च्या भुजांचेर घेतली आनी दोगांयच्या वतीन सणसणीत भाशण ठोकलें.

दनपारची चमचमीत जेवणावळ सोंपली. आतां उरिल्ल्या सात-आठ जाणांनी आपलीं मनोगतां उक्तायलीं. शेवटाक तेन्नाच्यो हेडबाई सौ. सखुबाई माचयेर चडल्यो. धवीशुभ्र सिल्काची पांचवे बॉर्डरीची साडी, ताच्याकय धवेफुल्ल केंस, भरगच्च आंबाडो, ताचेवेली मोगऱ्यांची फाती आनी कपलावेलो आठआण्यांयेदो व्हडलो कुकूम. फकत केंसांचो रूप्याकोर सोडल्यार आनीक कांयच फरक ना. तेन्नाच्यो दोन सुबेज चलयो भुरग्यांक सावरीत एकामेकांच्या कानांत फुतफुतल्यो.

''बाई, फेसपॅक खंयचो वापरता पळोवंक जाय.'' बाईचो तोच दरारो, तीच स्टायल पळोवन तेन्नाचीं चडशीं भुरगीं कांचवेलींच. आपापल्या कांचवेल्या आवयबापायक पळोवन तांचीं पोरां मात दांत धांपून हांसतालीं. इतल्यांत बाई सुरू जाली.

''मोगाळ भुरग्यांनो आनी तांच्याय भुरग्यांनो. म्हजे विद्यार्थी आयज स्वत: आवय बापूय जाल्यात तरी याद दवरात तुमी म्हजेखातीर तेच विद्यार्थी आसात. तुमी आयज व्हड जाल्यात, यशस्वी जीण जगतात ताचें श्रय तुमी तुमच्या मनोगतांतल्यान आमकां सगल्या गुरूजनांक दिलां. तें स्वीकारतना हांवें केल्ल्या कांय चुकांची हांव जाहीर कबुली दितां. संगीताक सरस्वती मानपी अनिताचो हांवें उतरा पावलार थोमणे मारून अपमान केल्लो. पूण ताचेंच म्हणणें खरें थारलें. सरस्वतीच्या ताच्या आराधनेन लक्ष्मीय ताचेर प्रसन्न जाल्या. नांव आनी संपत्ती-गिरेस्तकाय दोनूय ताका फाटोफाट मेळलां.'' हें आयकून विश्वासाची छाती आंगूळभर वयर सरली. तर अनिताच्या तोंडार अजापच-अजाप दिसलें. बाईचें चालूच आशिल्लें.

''हांव सुण्यांवरी अनिताक हिणशितालें. ताची वयली जात याद करून दिवन जातीचें नांव राखपाक सांगतालें, ताची तुळा वर्गांतले हुशार चली शोभनाकडेन करतालें. अरेच्या... शोभना येवंना काय तुमी ताका सांगलेंना?'' विश्वास आनी अनिता एकामेकांक पळयत रावलीं. दोगांयनी एकामेकांक कुरू केली. आनी अनितान तोंड घट्ट धापून घेतलें.

सखुबाई आपलें उलोवप सोपोवन माचयेवेल्यान देवली. अनितान बाईच्या पायांक हात लावन नमस्कार केलो.

''बाई, म्हज्या यशाचें श्रय तुमकांच. तुमीं खंयचीच चूक केलिना. तुमी सदचेवरी बरोबरच आसात. कारण दैवान तुमचेकडच्यान करून घेतिल्ली म्हजी हिणसावणी म्हजो तेम वाडोवपाक कारण थारली. हांवें तुमच्या म्हणण्याचो राग धरिनासतना आनीकय नेटान संगिताकडेन प्रामाणीक रावन सरस्वतीची पुजा केली. ताचेंच हें फळ.''



सांजवेळ मेरेन सगलीं भुरगीं परतलीं.

घरा वतना अनिता गाडयेंत चूप बशिल्लें. जाल्यार आभा केन्नाचें येवन फाटल्या सिटार गाढ न्हिदिल्लें. विश्वासाक अनिताच्या मनाची चलबिचल जाणवली.

''अनु, तुवें खरें म्हळ्यार शोभनाची रियलीटी बाईक सांगपाक जाय आसली. सदांच तुका हिणशीताली न्ही गो ती?''

''ना रे. मेल्ल्यांक आनी मारप नासता हें म्हाका बाईनूच शिकयल्लें. हांव तशेंच वागलें.'' चुपचाप जाल्ल्या अनिताक विश्वासान आनीक कांयच म्हळें ना. अनिताच्या दोळ्यांमुखार शोभनाचें तें रूप आनी कानांमदीं ताचेविशीं आयकल्लीं उतरां गुणगूण करपाक लागलीं.

मुंबयच्या गच्च भरिल्ल्या हॉलांत गोंयकन्या अनिताचो आवाज कानांत भरून घेवंक आयिल्लो जमाव ताची वाट पळेतालो. माचयेर येवन सरस्वतीच्या फोट्याक नमस्कार करपी अनिताक येवकारपाक सगलें सभाघर आपल्या पांयार उबें रावन ताळयांचो कडकड करतालें. लोकांकडेन वळून नमस्कार करतल्या अनिताक दुसरे वळेरेंतलें तें मुखामळ वळखीचेंशें दिसलें. इतल्या फुडें बसपी म्हणटकीर कोणतरी व्ही. आय. पी पासांची धनीण. उदकाची बाटली दवरूंक आयिल्ल्या आयोजकाक ताणें सहज विचारलें.

''अहो ती दुसऱ्या रांगेतली बाई आहे ना ती कोण? ओळखिची वाटली म्हणून म्हटलं.''

आयोजक हासत म्हणपाक लागलो.

''नाही, अनिताजी तुमची तिच्याशी ओळख असणे शक्यच नाही. कारण ती मुंबईचे बडे अद्योगपती कोठारींची मिसट्रेस आहे. अनेक किपपैकी एक आहे.''

अशी वळख करून जातकीर ताणें सहज एक नदर सकयल मारली. शोभना ते खुर्चेवयल्यान नाच्च जाल्लें.





– ब्रॅन्डा मिनेझीस
कुस्मण – केर्पे, गोंय
फोन : २६६२४९१.

*तिचीं सगलीं शेजारीं तिका पळोवन तिची खबर घेवन गेलीं. सगल्यांक ती वळखली खरी, पूण 'बाबा, बाये, पुता-धुवे' म्हणपी जीब, अशक्ततायेन मोनी जाल्ली. फक्त तिचे ओले दोळे उलयताले. सवका सवका तिका जेवण चलना जालें. तिचे व्हडले धुवेक मुंबयच्यान आपोवन हाडली.*



# व्हडली मांय !

व्हडली मांय हातुरणार जरी मरणाकडेन झुजताली, तरूय, तिच्या मुखामळार शांती झळकताली. तिका मरणाची घरघर लागिल्ली. जिणेंतलीं अयशीं वर्सां तिणें पुराय केल्लीं. जिवितभर कश्ट करून आपल्या हाता पांयांर जगली. आज तिची अशक्त कूड निमणे श्वास घेताली.

वाडचार 'व्हडले मांयक' सगलीं 'ओळमांय' म्हणून उलो करतालीं. तिका दोन धुवो. व्हडली मुंबय रावताली आनी धाकटे धुवेक, गांवांतूच लग्न करून दिल्ली. मुंबयच्यान वर्साक एक-दोन पावटी येवन तिची व्हडली धूव म्हयनोभर रावताली. गांवांत रावपी धूव तिची वासपूस नेमान करताली आनी तिका मेळून वताली. हे धुवेन आपल्या घरा येवन रावंक तिका खूब विनयल्ली. पूण ओळमांयचो स्वाभिमान तिका फाटीं ओडटालो आनी थंय वचपाचें टाळूंक ती अशें म्हणटाली, 'आपलें घर तें आपलें. तुजें घर म्हाका परकी. म्हजे हात पांय चलसर हांव कश्ट करतलीं. उपरांत कितें जाता तें पळोवंया. तेन्ना तुमी पळोवन घेयात, म्हजें कितें करचें तें. पूण देवाकडेन एक बरें मरण मागतां.'

ओळमांयन आपलो घरकार सोंपल्या उपरान्त वाड्यांतल्या घरांनीं बारीक-सारीक कामां करून आपल्या दोनूय धुवांक वयर काडलीं. थोडी शेत जमीन तिका आशिल्ल्यान घरांत तांदूळ गोट्यांचो उणाव नासलो. तिचीं कामां तरी कसलीं? सादीं! मसालो वांटून दिवप, कपडे धूवन दिवप, बांयचें उदक काडून दिवप. कोणाच्याय भाटांत नाल्ल पाडटात थंय तिका पुंजावंक लोक व्हरतालो. तेन्ना नाल्लाचे बोंडे तिची मजूरी. दांत्यार पीठ दळपाचें आसल्यार तिचीच याद सगल्यांक जाताली. नातालांच्या दिसांनीं तर नेवऱ्यांक पिठी दळूंक ओळमांय शिवाय जायच नाशिल्लें. भात उकडूंक, तें सुकोवंक, गिरणीवेल्यान तांदूळ हाडटकीर ते आसडून निवळ करूंक वाड्यांतलीं तिकाच आपयतालीं.

'कितले पयशे तुजे?' अशें विचारल्यार तिका राग येतालो. कितें समजून दितात तातूंत तिचें समाधान जातालें. गांवचें इगर्जेचें फेस्त! वाड्यांतल्या घरांतलीं 'सान्नां' तिचेशिवाय जाय नासलीं. फेस्ताच्या आदल्या दिसा दनपारच्या तिनाच्या सुमाराक ती रगड्यार तांदूळ वांटूंक बसताली ती सारकी रातच्या णव-साडेणवांक उठताली. अदीं मदीं घरचीं तिका वाटूंक मजतीक येतालीं.

'ओळमांय, तुका पुरो कशें जायना गे?' अशें विचारल्यार तिणें जबाब दिवंचो, 'हांव

उमेदीन हीं कामां करतां म्हणून.'

पिराय वाडटा तशी ती थकूंक लागली. पूण विसव घेवंक तयार नासली. आतां ती बसून करूंक जाता तसलींच ल्हान ल्हान कामां करूंक लागली.

एक दीस अशें जालें.....

तिका कोणें गोडशें दिल्लें. आमोरेचेर तिणें तें खालें. पोट भरिल्लेंच आसा म्हणून रातचें जेवण ती जेवलिना. गरम उदक पियेवन न्हिदूंक गेली. बऱ्याच वेळान तिका ओकूंक येवंक लागलें, म्हणून उठून ती न्हाणयेंत गेली. ओंकारींचेर ओंकारी येवंक लागल्यो. ती थंयच बसली. तिका उठूंक शक्त नासली. प्रयत्न करून कशी करून उठली आनी लकत लकत बिछान्याचेर येवन पडली. एकटीच आशिल्ल्यान तिचेर मातसो कलकल आयलो. फांतोड्डेर तिका दोळो लागलो.

सकाळीं फुडें सदांचे बशेन पदेर 'पोंक-पोंक' करूंक लागलो. तें आयकून तिका अकस्मात जाग आयली. तशीच उठली आनी दार उगडून थंयच रावून पदेराक सांगलें, ''उपकार करून, म्हजे धुवेक रकाद दी. जिवाक सामकें बरें दिसना म्हणून सांग.''

तिची धूव दुसऱ्या वाड्यांत रावताली, थंय तोच पदेर तांकांय दिसपट्टे उणे दितालो. दुसऱ्यांक कोणांकूच उंडे दिनासतना, पयल्या पयलीं सायकल नेटान चलयत तो तिचे धुवेगेर गेलो आनी ओळमायची खबर दिली.

तिची धूव रोखडीच घरांतल्यान भायर सरली. बरोबर तिणें दोतोराक व्हेलो. ''तिचें प्रेसांव खूब देंवलां.'' दोतोरान तपासून सांगलें. आनी एक इंजेसांव दिलें. ''हांव वखदां बरोवन दितां तातूंत ती सुदारना जाल्यार तिका हॉस्पीटलांत व्हरची पडटली.'' ताणें प्रिस्क्रीपशन बरयलें आनी धुवेच्या हातांत दिलें. हॉस्पीटलाचें नांव आयकतांच ओळमांय भियेली.

तिका कांयच सांगिनासतना धुवेन भितर वचून एका बॅगांत तिचे कपडे घातले आनी भायर येवन म्हळें, ''चल मांय. आमगेर तुका व्हरतां. आतां हांव तुजें कांयच एक आयकून घेवंचें ना. वचून हांव रिक्षा घेवन येतां.'' इंजेसांव घेवन आपल्या जिवाक बरें दिसूंक लागलां, अशें सांगून ती घरांतली भायर सरूंक टाळूंक सोदताली. गेल्ले फावटी अशीच जोरान फडफडटाली तेन्नाय तें तिका व्हरूंक आयिल्लें, पूण ती कशीच वचूंक ना. हे फावट धुवेन आपलें खरें केलें.

धुवेन तिका आपल्या घरा हाडली आनी तिचो परामर्श करूंक लागली. ही अशक्तताय तिका हांतरुणार उडोवंक आयिल्ली. थोडे दीस तिका हॉस्पीटलांत दवरून परत हाडली. तिच्यान उठूंक बसूंक जायना जालें. धुवेच्या घरांत आपूण रावतां आनी आपणाक लागून तिका खूब त्रास पडटात हेंय तिणें मनाक लावन घेतिल्लें. आतां ती गळसणली आनी सामकीच बिछान्याक लागली.

तिचीं सगलीं शेजारीं तिका पळोवन तिची खबर घेवन गेलीं. सगल्यांक ती वळखली खरी, पूण 'बाबा, बाये, पुता-धुवे' म्हणपी जीब, अशक्ततायेन मोनी जाल्ली. फक्त तिचे ओले दोळे उलयताले. सवका सवका तिका जेवण चलना जालें. तिचे व्हडले धुवेक मुंबयच्यान आपोवन हाडली.

ओळमांयच्या घराक तेंकून आशिल्ल्या घरांतलें आनी तिचे चड अपुर्बायेचें फिलू आपले मम्मी वांगडा तिका पळोवंक गेलें. तिचे धांपिल्ले दोळे आनी तिका लागिल्लो तो घरघर पळोवन ताका रडूंक आयलें. तिचेकडेन उलोवपाचे आशेन तें आयिल्लें. ओळमायची मुर्ती तें नियाळूंक लागलें. मनांतल्यान तिचे खातीर ताणें मागलें.

एका कोनशाक आशिल्ल्या ल्हान मेजाचेर खुरसार खिळायल्ली, जेजूची मुर्ती आसली. थंय वाती पेट्टाल्यो. ओळमांयच्यो दोनूय धुवो तिच्या हाताक धरून मागणें करताल्यो, ''मारी-जुजे, ह्या आत्म्याक केन्नाच सांडीनाका... मारी-जुजे ह्या आत्म्याक केन्नाच सांडी नाका...'' हें मागणें, मरणाक तेंकिल्ल्याच्या कानांत म्हणपाचें आसतालें.

फिलू हें सगलें पळोवन अस्वस्थ जालें. आपले मम्मीक कुशीक आपोवन तिच्या कानांत म्हळें, ''मम्मी, खरे भक्तेन आनी मनांतल्यान हांवें देवा कडेन मागल्यार तो ओळमांयक बरो करतलो न्हय? चल. आमी आमच्या खुरसाकडेन या. वाती पेटोवन तिचे खातीर मागुंया.''

ताचें मन दुखोवंक मम्मीक बरें दिसूंक ना. तिणें तिका समजायलें, ''बाय, खरें तुजें भुरग्यांचीं मागणीं देव रोखडीच आयकता. पूण ओळमांयची आतां पिराय जाल्या. तिचो वेळ पावला सो दिसता. ती सदांच देवाकडेन बरें मरण मागताली. ह्या वेळार तेंच आमी तिका मागूंक जाय. तिका शांतीन-सुखान वचूं दी.'' तिचो ताळो भरून आयलो. फिलूच्याय दोळ्यांत दुकां आयलीं.

''मांय... मांय.... मां...य! आमचे मोगाचे मांय... मांय सोडून वचं नाका मांय.... मां...य'' तिच्या दोनूय धुवांनी हुयेल मारली. ओळमांयचो घरघर थांबलो. तिणें आपल्या दोनूय धुवां हुजीर आनी अपुर्बायेच्या शेजाऱ्यां मुखार संवसाराचो निरोप घेतलो.

हाजीर आशिल्ल्यांनी तिची कूड न्हेसोवंक आनी निमणे यात्रेक तिका तयार करूंक सुरवात केली. मम्मीन फिलूक घट्ट धरलें. तीं घरा येवंक भायर सरलीं. वाटेर ताका मम्मीन बरो उपदेस दिलो. ''ती मेली म्हणून आमचें मागणें सोंपना. तिच्या आत्म्या खातीर आमी सदांच मागूंक जाय. आमच्या मेल्ल्यांची सदांच आमी आमच्या मागण्यांत याद करूंक जाय. सदांच रातचें मागणें करताना जिवीं आशिल्ल्यांक बरी बुद्दी आनी भलायकी तशेंच मेल्ल्यां खातीर शांती-सवस्तकाय आनी सर्गींचे राज देवाकडेन मागूंक जाय. मतींत दवरतलें तूं?''

फिलून तकली हालोवन हय म्हळें.





## फुडाराची जीण

आयलें तूं जिणेंत म्हज्या
मुदयेंतलें थीक जावन
काळजांत म्हज्या घर बांदलें
फुलपाखुलें जावन
आंगाखांदार नंदलें
सासणाचें म्हजें जावन
वचचें न्हय पयस तुवें
सुकणें पिशें जावन
मनांतल्यान म्हाका देखिल्लो तुवें
दोळे तृप्त जावन
फूलत गेलीं सपनां तुजीं
नितळ उदका झर जावन
आतां आनी पळयना अंत
तुजोच मोगी जावंक
फुडाराचें जिवीत जगुया
दोगांय एक जावन

– अशोक रं. शिलकार
शिला – सावयवेरें.



## घराची बुन्याद मारतना

घराची बुन्याद मारतना
ताका कांय देवळाच्यो वस्तू मेळल्यो
आदल्या तेंपार घडये थंय देऊळ आसूंयेत
म्हूण ताणें उत्खनन केलें
पूण ताका थंय आनीक कांयच मेळ्ळें ना
हांव म्हणटां :
उत्खनन करपावाट्या
ताणें थंय बरें घर बांदपाचें
आनी तातूंत देवाभशेन रावपाचो
घर आपशींच देऊळ जातलें आशिल्लें

आतां तो कपलार हात दवरून बसला... बेघर!



– आर. रामनाथ
एम–ओ–६,
गोवा हाऊजींग बोर्ड,
कुर्टी – फोंडा, गोंय.

## याद

कोण म्हणटा,
हांव हांगा एकटेंच आसां?
म्हज्या बायच्यो,
पोसोभर यादी म्हज्या
काळजांत भरिल्ल्यो आसात

एक–एक अमुरपिकी याद
म्हज्या काळजांत सादयता
बायच्यो मोगाळ यादी
केन्नाच विसरूंक जावच्योना...

कोण म्हणटा
हांव हांगा एकलेंच आसां?
म्हज्या बायची याद
केन्ना परमळीत फुलांवरी
म्हाका फुलयता
तर केन्ना आळवांच्या थेंबावरीं
मोतयां कशीं चकचकतात
टपटप् थेंब जावन,
म्हज्या काळजाक भिजयता

कोण म्हणटा
हांव हांगा एकलेंच आसां?
म्हज्या बायची याद
तेन्या–तायखिळ्यावरी किल्लून येता
गरगरीत तेन्याक पळोवन
मन म्हजें यादीन भिजून वता

कोण म्हणटा
हांव हांगा एकलेंच आसां?
म्हज्या बायची याद
मनांत म्हज्या भोंवर मारता
केन्ना रडयता–केन्ना हांसयता

– सुनिता शाह
मेरशे – गोंय.
फोन:९४०३०७९०५२



## फुलां शिकयता

गुलाब म्हणटा
उठतां-बसतां रडपाचें नासता
कांट्यांनी लेगीत हासपाचें आसता!

रातराणी म्हणटा
काळखाक भिवपाचें नासता
काळखांतूय फुलपाचें आसता!

शब्दुलीं म्हणटात
रुसून फुगून रावपाचें नासता
हांसून हांसून जगपाचें आसता!

वोंवळां म्हणटात
सावळ्या रंगाक लजपाचें नासता
गुणांच्या गंधान जिकपाचें आसता!

मोगरीं म्हणटात
स्वताचें व्हडपण सांगपाचें नासता
सद्गुणांचो सुगंध पयसुल्ल्यानूच येता!

कमळ म्हणटा
संकश्टान चिखलांत बुडपाचें नासता
संकश्टाक बुडोवन फुलपाचें आसता!

**– मेहंदी अनय नायक देसाय**



१२वी कॉमर्स,
गोपालनगर,
पर्वरी – गोंय



## दर्यावेल्यो शिंपयो

दर्यावेल्या शिपयांनों
तुमकां पळोवन, काळीज
म्हजें सदांच चुरचुरता
तुमची काळखी जीण
दोळ्यांमुखार झळकून मन दुखवता

देवान तुमकां सोबीत जीण दिली
तातूंत सपनांय रकयलीं
पूण आवय बापायचो
मोग ओतपाक
कशें म्हूण तो विसरलो?

तुमकां एकल्या पणाचो स्रापच कसो
कसोय तरी तो झेलचोच पडटा
तुमी बाबडीं एकलींच शियां दिसांनीं
थंड थंड उदकांत कडकडटात
तर केन्ना रखरखीत वतान करपतात

अश्या वेळार तुमकां वांगड जाय आसता
पूण वांगड दिवपी कोण नासता
आपलो म्हूण कोणाय मुखार
काळजांतलें दुख व्यक्त करतलो जाल्यार
अथांग दर्या बगर कोणूच दिसना

दर्यांत तसो हेर जीव खूब
पूण सगळे आप-आपल्या
कामांत गुल्ल
ताका आपल्या सूख दुखा मुखार
तुमचें चडूच पडलां

पूण तुमी निर्शेवं नाकात
निर्शेल्यार कशें जातलें?
तुमचीं सपनां तुमकांच फुलोवंक जाय
तुमचो फुडार तुमकाच घडोवंक जाय
हो सुवार्थी संवसार तुमकां पावपाक ना

कोण नासता ताचे फाटल्यान
सदांच देव आसताच
तुमी तर देवालीं खाशेलीं भुरगीं
तुमकां कशें तो विसरूं शकता?
उमाशेच्या काळखाचो भंय सोडून
तुमी पुनवेची आस हाडून जगात

**– संतोषी कोले**

राधा पार्क, ए.फ-१
बामण वाडो, शिवोले बार्देस, गोंय

# उतरकुवाडें

गोंय मुक्तीच्या सुवर्ण महोत्सवी वर्साक सलाम

बिम्ब ऑगस्ट ११

## आडवे



– संतोष शिवराम हळर्णकार
बांदिवडे-बंदर,
फोंडा-गोवा ४०३ ४०१

१. उसळप, दुखप, सणसणप
५. एकमेकांक तेंकून, घट्ट
६. दलालाचो धंदो
८. ल्हान कोयती
१०. दाणो-गोटो मेजपाचें एक माप
१२. त्रास, उबगणेचो वावर
१३. पसत, लागून
१५. यत्न
१६. काना दोण्याचो सकयलो भाग
१८. ल्हान पणस
२०. शंकराच्या हातांतलें वाद्य
२२. भक, जेवपा-खावपाची खूब आस्त
२४. कोलूक, कुत्री
२५. हिकमती, खटपटी
२६. उदकाखातीर वापरतात तें आयदन, बकेट

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| १ | | २ | | ३ | ■ | ४ | ■ | ५ | |
| | ■ | | ■ | ६ | ७ | | | | ■ |
| ८ | | | ९ | ■ | | ■ | ■ | १० | ११ |
| | ■ | १२ | | | | ■ | १३ | | |
| ■ | १४ | ■ | | ■ | ■ | ■ | | ■ | |
| १५ | | | | ■ | ■ | १६ | | १७ | |
| | ■ | ■ | १८ | १९ | | | ■ | | ■ |
| २० | | २१ | ■ | | ■ | २२ | | | २३ |
| | ■ | | ■ | ■ | २४ | | ■ | ■ | |
| | ■ | २५ | | | | ■ | २६ | | |

## उबे

१. चोंयवशीन पुराय बंदोबस्त आशिल्लें.
२. अपुरबाय
३. हुद्दो वा गीत
४. किंमत, दर
५. गजानन, गजवदन
७. हुशार, शिटूक
९. कडकडप, थरथरप
११. वागाची आड्डाळी
१३. न्हंयक तेंकून आशिल्लें शेत
१४. अरुंदशी बाज, कॉट
१५. तासंपट्टी, कुसकुटावणी
१६. शीत कालोवंक केल्ली कडी
१७. आधार, तेंको
१९. सात आनी दोन
२१. सुवादीक, बरें रुचीचें
२३. विकतें घेवपाचें काम
२४. सुताचें

### जुलाय उतरकुवाड्याची जाप

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| पु | ण्य | वा | न | ■ | अ | धि | का | धी | क |
| जा | ■ | ज | म | व | प | ■ | र | ■ | र |
| री | त | ■ | स्का | ■ | च | ड | ण | ■ | क |
| ■ | ल | ■ | र | द | न | ■ | ■ | भा | री |
| स | वा | ल | ■ | बा | ■ | सु | र | वा | त |
| मा | र | ■ | द | व | र | णें | ■ | र्थ | ■ |
| चा | ■ | ता | र | प | ■ | ■ | अ | ■ | अ |
| र | स | ■ | वा | ■ | अ | न | व | ळ | खी |
| ■ | द | बा | जो | ■ | भा | ■ | स | ■ | ल |
| पा | ळ | ■ | ■ | अ | व | त | र | प | ■ |

# स्वरांच्या निराकारांत



- रमेश भगवंत वेळुस्कार
पाळें, शिरदोन - गोंय.
मो.: ९४२०६८८४६१



**म्हा**का सामकी याद जायना हांव केन्ना न्हिदलों तो. अभ्यासाचीं पुस्तकां म्हज्या उशाच्या हेवटेन तेवटेन पातळिल्लीं. पूण अभ्यास करतां करतां हांव अकस्मात रातच्या वेळार पयशिल्ल्यान वाऱ्यार सुंवार जावन येतल्या गौड सारंगाच्या सुरांर फारवलों. कोण तरी बायल गायताली. ती स्वरांच्या ल्हारांनी अशे तरेन खेळटाली जशी काय एक सुंदर पूण आपल्याच मस्तेच्या नखऱ्यांत गूंग जाल्ली अस्तुर-सुरांगना त्या स्वरांच्या आळख्या विळख्यांनी घरंगळून झुळझुळटाली. म्हाकां जाणवलें कीं हांव म्हज्या अभ्यासाच्या पुस्तकांपसून खूब पयस पावलां. आनी आतां पुस्तकांचेर लक्ष दिवपाची गरजूय उरूंक ना. कारण हो वेळूच असो आसलो आनी ह्या स्वरांचो नेटूय असो आसलो आनी ह्या स्वरांची निसरटूय आनंद झिरमिरपी आसली की स्वरांनंदार सुंवार जावन ते व्हरता थंय वचप इतलेंच आतां म्हजे सुवादीन आसलें. तेंच सुंदर आसलें आनी हांव तेंच करतालों. म्हाकां त्या स्वरांर बसून हुबून वयतना याद जाताली ती सिंदबादच्या सफरींतल्या उडून वयतल्या गालीचाची. ताचेर बसून हांव उडून वयतां अशें म्हाकां दिसतालें. मात हो गालीचो स्वरांचो आसलो. आनी ह्या स्वरांचे आडवे, उबे, जटील धागे, नाकां, तांकां धागे म्हणचे परस तंतू म्हणप म्हाकां चड संयुक्तिक दिसता. हो स्वरांचो गालीचो निळ्याशार मळबांत उडत वयता. मर्दी मर्दी धवींफुल्ल कुपां म्हजे वटेन उडत येतात. हीं कुपांय सुंदर दिसतात. आनी ह्या स्वरगालीच्यार बसून कुपांच्या धुपांतल्यान घुसून फुडें वयतना आनंद समाधानाचो दर्या मस्तिल्ल्याची धुंदी भागताली. मन आशांच्या आकारांतल्यान विरत वयतालें आनी निराकारांत ना जातालें. अकस्मात म्हजी नदर निळ्या मळबांतल्यान सकल गेली. आनी हांव स्वरांवरी खऱ्यांनीच अदृश्य जाल्लों. पूण सकल दिसतल्या वसुंधरेच्या विहंगम सोबितायेच्या आकारांचो रुपकार जाल्लों. अकस्मात एक जोगूल मनांत लखलखून गेलें. हांव जे स्वर आयकतालों ते तर रातचे आसले आनी जें दिसतालें तें तर दृश्य दिसाचें आसलें. प्रत्यक्षांतलो काळोख पालोवन सवन संवसार उपाट उजवाडांत पळोवपाची मनाची शक्त म्हजेर धूंद चडोवन गेली. सकल दिसतल्या अद्भूत दृश्याची चित्रदीर्घा अवर्णनीय आसली. दोन दोळ्यांच्या आवाक्यांत जरी सगळें आसलें तरी तें सगळें उतरांच्या आवाक्यांत येणे अशक्यूच आसलें. एकेके सुवातेर जेन्ना नदर थीर जाताली तेन्ना तांतल्या जटील सौंदर्यसुक्तांचो आनंद घेतां घेतां मन थंयच तद्रूप जातालें. वर्सांचीं वर्सां जरी तें दृश्य पळयत रावले जाल्यारूय ताचें सौंदर्य सोंपपाचें नासलें आनी तें समजुपांतूय पूर्णताय येवंची नासली. तशेंच तांतली उत्सुकतायूय कशीच उणी जावंची नासली.

ह्या सुरांच्या सांगाता हांव फकत दोळो जावन पळयनासलों तर नदर जावन पळयतालों. खरें दिसना न्हय? कशें दिसतलें? तुमी केन्ना सपनां पळयल्यांत? सपनांत तें तुमी पळयलां इतलेंच तुमकां दिसता. तें पळोवपांतलो सगळो आनंद तुमी घेतात पूण तुमी तें तुमच्या दोळ्यांनी पळयलां हाची मात लेगीत जाणीव तुमकां जायना. तुमची सगळी जाणीवूच दोळो ह्या शारिरीक आंगाची याद विसरून फकत नदरेंत थिरावता. जाणीव नदर जातच शरीर नांवाची गजाल आसा हाची जाणीव लेगीत उरना. मनात आसलेलीं सगळीं उतरां मोनेळींत तद्रूप जावन वयता. आनी नदर, तिच्या आवाक्यांत जें जें येता तें सगळें आपल्यांत सामावन घेता. तांच्या सगळ्या संवेदनशील तपशिलांसयत. नदर आनी मन

आपल्याक जाय तसले खेळ खेळटा. हांगाचें आकाश तुमचेकडें मोन्यानी उलयता. आतां मात आकाशवाणी घराघरान पावल्या.

असल्यो सुरांनी लुसलुशीत भरलेल्यो गजाली जायते पावट घडटात. आतां आकाशवाणीचेर कितें आयकूंक येता कोणाक कांय कळना. तो काळ वेगळोच आसलो. गांवांत लायट नासताली. सांज जाली की गांव काळखांत बुडटाले. गांवांतल्या घरांच्या बल्कांवांतल्यान जर पेट्टो दिवो आसलो जाल्यार, तो चड करून पेत्रोलाचो आसतालो, धुंवर सोडून भगभगत रावतालो. काळखांतल्यान येतल्या मनशाक ताचो मात्सो न्हय बरोच धेंक आसतालो. फोलेराच्या उजवाडाच्या मागार कोटव्यान वा व्हड्यान आपली काळखांतली उदकवाट उलांडून आपले मोखीकडें पावचे तशीं गांवचीं कांय मनशां रातीवेळार ह्या पेत्रोला दिव्यांचो फोलेरावरी उपेग करून घेतालीं. त्या काळार लोकांच्यो नदरो बऱ्योच खर आसताल्यो. गुप्प काळखांतूय अंधकारांतले मनशाचे सांवळे वयल्यान वा चालीचे आवाजा वयल्यान मनशांक वळखताले. आशाड श्रावणांतल्या ह्याच ओल्या काळखांत गावांतल्या कोणागेर तरी जातलें भजन भक्तिचो साज चडोवन रातीच्या काळखाक पवित्रतायेच्या उजवाडाची वोप मारतालें. आनी रातकिड्यांचें संगीत तांकां आपले परीन साथ दितालें. आनी गांवांतल्या कोणाय एका घरांतल्यान आवाज आसतालो तो रातीच्या किट्ट काळखांतल्यान आकाशवाणीवयल्यान येवपी. ह्या तिमिरांगी आवाजाक एक आगळेंच आंग आसतालें. केन्नाय गाणीं, केन्ना उलोवपां, गितां, नाटकां अशें त्या काळखांत आयकूंक मेळटालें. पूण त्या काळार आमच्या गोंयांत आकाशवाणी पावूंक नासली. गोंयांत तो एमिसोर आसलो. कुडकाच्या माथ्यार तीन कानाकडें आनी मोडेगाळींत तेन्ना ह्या एमिसोराचीं इस्तासांवां आसलीं. गोंयच्या स्वातंत्र्या उपरांत ऐमिसोराची आकाशवाणी जाली आनी रातच्या धा उपरांत बरें बरें रागदारी संगीत आयकूंक मेळूंक लागलें. मिट्ट काळोख करून वा कोणाल्या तरी घरांतल्यान आयकल्लें संगीत उल्हास तरंगांचेर उबोवपी आसतालें.

हांवें एक पावट म्हज्या एका इश्टाक ह्या रातकिड्यांच्या संगीताची गजाल सांगली तेन्ना ताणें म्हाकां सामको पिशांत काडलो. हो म्हजो इश्टूय तसो गांवांतलो. म्हणपाक लागलो की कितें आसा त्या किड्यांच्या संगीतांत? आनी म्हजेय मुखार खरो म्हटल्यार प्रस्न पडलो की हांतलें संगीत ताका समजावप कशें? कांय काळा आदीं म्हाकां तरी खंय कळटालें हांतलें संगीत? पूण एक दीस कळपाक लागलें. ताचें कितें जालें जाणा, म्हज्या घराच्या बल्कांवांक लागून आसलेले वाटेंतल्यान एक व्हाळ व्हांवपाक लागतालो. खूब पावस पडलो की उमळ जाता तेन्ना हें घडटालें. हे वाटेक एक गती येताली तेन्ना. म्हाकां ही पावसाळ्यांतली वाट खूब आवडटाली. वाट फातरां शेंकऱ्याची. तिका एक वेगळोच रंग चडटालो. पावसांत घरांचे भितोडेक हरयाळी, कावळ्यांच्या दोळ्यांचें तण, चिड्डे, तांबडे-धवे, तायखिळो अशी पांचवी संपत्ती आपसूक उदेवन येताली. घराचे भितोडेक जातलो हो पांचवो सृजनोत्सव म्हाकां खूब आवडटालो. ते काळार तो फकत आवडटालो. ते वेळार हें सगळें कित्याक आवडटालें तें समजनासलें. न्हय तेन्ना असले प्रश्नूय निर्माण जायनासले. पावसाचे ओलीन द्रवीत जाल्ल्या घरांच्या तांबड्या पाऱ्यांचे फाटभुंयेर पांचव्या वनस्पतींचीं हीं मन भुलयणी शिल्पां काळजांत घर करून रावल्यांत.

म्हज्या घरामुखार शेजाऱ्यांचें घर. पावसाळ्या दिसांनी सगळ्या भुरग्यांचे हात कलानिपूण जाताले. अभ्यासाखातीर आयल्ल्या कादेर्नांत जातली थर्थर आमच्या मनांत आयकूंक येताली आनी हाता हातांतल्यान हुळहुळून येताली. मागीर तीं कादेर्नांचीं पानां ल्हवूच आमच्या मनांतल्या व्हड्यांचें रूप घेतालीं आनी हे घरा मुखावेले माणकुले न्हंयच्या पाणयांत देंवतालीं. केन्ना केन्ना एकेक पावटीं धा पंदरा धवीं फुल्ल व्हडीं वचूंक लागलीं की मन खंयचे तरी व्हडले सागरी भोंवडेक गेल्लेवरी भरून येतालें. हांव उपरांत केन्ना तरी जिवितांत पयलेच पावट गंगेच्या (कलकत्त्याक आपले देगेर घेवन व्हांवपी गंगेक हुगली अशें बांगला नांव आसा) विस्तिर्ण पात्रांतल्यान एका व्हडल्या व्हड्यांतल्यान, हुगली जिल्ह्याच्या बेलुडच्या विवेकानंद आश्रमासावन, ताच्या गुरूच्या आश्रमाक भेट दिवपाक म्हटल्यार दक्षिणेश्वराक गेल्लों. विवेकानंद आश्रमांतल्यान दक्षिणेश्वराचो विवेकानंदाच्या गुरूचो, श्री रामकृष्ण परमहंसांचो आश्रम दिसता. सांगाता शें देडशें यात्री. व्हड्याक दोन फडफडटलीं शिडां. कितलेशेच तांडेली. दोंयवशींतल्या देगांनी शार उबें. तशीं त्या अफाट पात्रांत आनीकूय व्हडीं आसलीं यो वच करपी. तातूंत सांजवेळचो चारां उपरांतचो वेळ. झुळझुळपी वारो. वले मारीत पदां गायतले माँझी (तांडेल). म्हाकां याद जाली ती बद्द ह्या म्हज्या भुरगेपणांत अणभवल्ल्या व्हडीं माणकुले न्हंयेंत सोडपाची. पूण ह्या पावसाच्या संगीतांतल्यान निर्माण जावन आयल्लें हें जिवन आनंद संगीत म्हाकां जाणवता म्हज्या इश्टा. तुकां हें जाणवता काय ना, म्हाकां खबर ना.

आनी एक गजाल सांगतां. हांव भुरगो आसतना भायर बल्कावांत न्हिदतालों. पावसा दिसांनी जेन्ना हो व्हाळ व्हांवतालो तेन्ना केन्नाय हांव अकस्मात जागो जातालों. ते वेळार रातीच्या शेळवतांत खळखळत व्हांवपी उदकाचो आवाज सामको कोणे तरी संगीत गुणगुणलेलेवरी आयकूंक येतालो. आनी हांच्या सांगाता आसतालें रातकिड्यांचें 'किर्र, किटी किटीर्र... ट्रींग..' अशा वेगवेगळ्या

आवाजांत आयकूंक येवपी अद्‌भूत संगीत. एक हिंदी गाणें म्हाकां याद जाता. भुरगेपणार आयकल्लें. जातूंत आसा रातकिडे..

आहा रिमझिम के ये प्यारे प्यारे गीत लिए
आई रात सुहानी देखो प्रीत लिए
मीत मेरे सुनो जरा हवा कहे क्या...
सुनो तो जरा ऽऽ
झिंगूरबोले चिकी मिकी चिकी मिकी
रिम झिम के ये प्यारे प्यारे गीत लिए

अशें हें रातकिड्यांचें संगीत लेगीत मनशांक पिशें लायता. हें गीत भारतभरच्या संगीत प्रेमींक भूल घालताच पूण हें गीत भारता भायल्याय संगीत मोग्यांकूय आपले वटेन ओडटा आसतलें.

पावस येवंचो जालो की झाडांचो वारो वेगळ्याच आवाजांत सळसळटालो. मागीर जेन्ना पावस झाडांर झडटालो ताचो आवाज वेगळो. गांवठी नळ्यांवयलो आवाज वेगळो, सुलच्या नळ्यांवयलो आवाज वेगळो जाल्यार ॲस्बेस्टॉसच्या शिटांवयलो वेगळो आनी पत्र्यांवयलो तर सामकोच वेगळो. आंगणांत तुंबलेल्या उदकांत जेन्ना टपटप पावसाचे थेंब पडटात तांतल्यान तर सुंदर संगीत आयकूंक येता. पावसा दिसांनी काळखांतल्यान भिजून संगीताच्या सुरांचीं ल्हारां तनर झिणझिणी आसतालीं.

सुरांच्या ह्या ब्रह्मानंदांत हें सगळें कशें घडटा तें मात समजप म्हटल्यार कठीण. रातीं हांव कितलो वेळ ह्या सुरांच्या सांगाता असो उफेतालों म्हाकां कांयच खबर ना. ह्या सुरांच्या सांगाता संवसार भ्रमण करून हांव केन्ना परतलों तें म्हाकांय कळ्ळें ना. एकदां काय तांच्या त्या सूर गालीच्यार बसलों की मागीर आपणे आपल्या हातांत कांयच दवरपाचें नासता. ते सूरच म्हाकां सगळें दाखोवपाक आपूण जावन आयिल्ले आसतात. तातूंत म्हज्या आडेच्या नेटाक मात्तूय वाव नासता. हांवें फक्त ताचे वांगडा वचप आसता. त्या सुरांचे धुंदींत म्हज्या आंगाचो आकार त्या सुरांच्या निराकारांत विरगळायत.

हांव जागो जाल्लों तेन्ना म्हजीं अभ्यासाचीं पुस्तकां म्हज्या उशाकुशीक उक्तीं पडलेलीं दिसलीं. घडये रातभर ताणी आपल्या फुडल्या रुपकारांत म्हजें चरित्र आपल्या उतरांनीं जुळोवन घेतलां आसत. हांवें तीं ल्हवूच धांकलीं.




# भाषिक संघर्षाचे समाजशास्त्र




मूल्य : रु.135 /-
(ट.ख.नि.)

बहुभाषाप्रेमी चिंतक, उत्तम मराठी व कोंकणी लेखक — भारतीय ज्ञानपीठ पुरस्काराने सन्मानित, पद्‌मभूषण श्री. रवीन्द्र केळेकर यांनी समाजभाषाविज्ञानाच्या आधारे गोव्यात मराठीच्या विरोधात लिहिलेल्या लेखांपैकी काही संपादित आणि भाषांतरित लेख, तसेच हिंदी-हिन्दुस्तानी संघर्ष, देशी भाषा व इंग्रजी संघर्ष यांच्या अंतःप्रवाहाचे विवेचन.

**लेखक :** पद्‌मभूषण श्री. रवीन्द्र केळेकर
**अनुवाद व संपादन :** डॉ. अरुणा दुभाषी




प्रकाशक : **राजहंस वितरण**
1, मीनाक्षी बिल्डिंग, डॉ. व्होल्फांगु द सिल्व्ह मार्ग, पणजी, गोवा - 403 001
फोन : (0832) 2220320 / 2232177 E-mail : rajhaunsvitaran@dataone.in



– पद्मनाभ नायक
तिलक – नगर, डोंबिवली.
मो.: ९९६९२६७६५६

# कन्याकुमारी



दक्षीण भारताचे प्रसिध्द प्रवासी केंद्रांतु कन्याकुमारी एक जावनास्सा. काही प्रवासी केंद्रांक धार्मिक दृष्टीन, ऐतिहासीक दृष्टीन वा नैसर्गिक दृष्टीन प्रसिध्दी मेळता. कन्याकुमारीक हे तिन्नीं दृष्टीन प्रसिध्दी मेळ्ळ्या.

कन्याकुमारीसाव्नु दक्षिणेक समुद्रांतु सुमार ४०० मीटर्स दूर एक भव्य शिला आस्सा. भारताचे दक्षीण दिकाचे अखेरिचो भूभाग तो.

पुराणांतु सांगिलप्रमाणे कन्याकुमारीन भगवान शंकराक लग्न जावचे तीव्र इच्छेन, कैलास पर्वतादिकान तोंडकोर्नु, एक पाय्यारी राब्बून, कठीण तपश्चर्या केलिल जागो तो. तिगेल तपश्चर्याक प्रसन्न जाव्नु शंकर भगवान, लग्ना तयारीन येत्ता आसिलो. फक्त धा मैल अंतर आस्तना नारद मुनी आढ आयलो. हें लग्न जावच्याक ना म्होणु ताणें कपट कारस्तान केलें. लग्ना दिब्बण मुकार वोच्याक दिनासी मुहुर्त चुक्कोव्न उडयलो. त्या निमित्त लग्नांतु विघ्न येव्नु कन्याकुमारी कुमारी जाव्नु उर्ली. आनी त्या प्रदेशाक कन्याकुमारी म्होणु नांव पळ्ळें.

इ. स. १८९२ डिसेंबरांतु स्वामी विवेकानंद त्रिवेंद्रम्च्यान कन्याकुमारी आयिल्लो. बे ऑफ बंगाल, अरेबियन् समुद्र, हिंदु महासागर हे तिन्नी एकत्र मेळचे त्रिवेणी संगमांतु उडीमार्नु, देवीन तपश्चर्य केलिल त्या पवित्र शिलेरी पोव्नु गेलो. त्या शिलेरी जनवसती नासिली. सावळीक एक झाड नासिलें. पिवच्याक एक थेंब गोड उद्दाक नासिलें. आस्सले जागेरी स्वामी विवेकानंदान हिमालयादिकान तोंडकोर्नु, संपूर्ण तीन दिवस पंचवीस, सव्वीस, सत्तावीस डिसेंबर अशें कठोर ध्यान केलें. आमगेल देश याने भारताचे भविष्याचे चिंतन केलें. फकत चिंतन केलिलना, अंतिम निर्धार घेव्नु कृतिंतु हाळ्ळें. तेन्नांच्यान त्या महापुरूषाल छल, देहबल, मनोनिर्धार संपूर्ण जगाक कळ्ळें आनी ती शिला 'स्वामी विवेकानंद रॉक्' म्होणू जगप्रसिध्द जाल्ली.

कालक्रमेणा श्री. एकनाथ रानडेल्या शतोप्रयत्नान, त्याच शिलेरी, लोकांकडच्यान वर्गणी पैसे जमकोर्नु, महान योगीपुरूष विवेकानंदाल्या स्मरणार्थ, एक भव्य, दिव्य स्मारक तयार जालें. एक कोटी सत्तावीस लाख रु. खर्चून, इ. स १९६४ तू सुरू केलिल बांधकाम इ.स. १९७० तु पूर्ण केलें.

त्या बांधकामाचें स्थापत्य शास्त्रज्ञ एक नॉन–मॅट्रीक व्यक्ती म्होणु सांगल्यारी कोणाक विश्वास बसचोना. भित्तर स्थापन केलिल विवेकानंदाली मुर्ती, महाराष्ट्राचो कोंकणी शिल्पकार, जे. जे. स्कुल ऑफ आर्टस्चो डिपार्टमेंटल हेड् जाव्नासिलो श्री. नारायण सोनवडेकरान तयार केलिली, दिसच्याक अती सुंदर, प्रभावी जावनास्सा. नित्य सात ते आठ हजार यात्री दूर दूर साव्नु दर्शनाक येत्ताती. इत्ले कम्मीं खर्चान, इत्ले कम्मीं वेळान, अस्सल दुर्गम जागेरी हें बांधकाम कस्सीं केलें म्होणु लोक आश्चर्य व्यक्त कर्ताती.

'एक उत्तम ध्येय दवोर्नु, प्रामाणीकपणान काम केल्यारी यश खंडित मेळता' म्हळिल्याक ही एक उत्तम उदाहरणा.

कन्याकुमारीसाव्नु फेरी लोंचारी वोच्चून रॉक मेमोरियल पोळोन येवेत. ताक्का लागून आस्सिलें श्रीपाद मंटपम ही (कन्याकुमारीन एक पाय्यारी राबून तपश्चर्य केलिल जागो) पोळोनु येवेत. त्या शिलेरी राबल्यारी, बे ऑफ बेंगाल आनी अरेबियन समुद्र, हिंदूमहासागराक मेळचें अप्रतिम नजारा पोळोच्याक मेळटा. फेरी लाँचारी वोच्चें, येन्चें समुद्रयान सुध्दां रोमांचकारी जावनास्सा. समुद्र पळैनासिले कित्येक लोक, लाँचारी बसिलकडेन भीव्नु, भयान बोब मार्ताती, रडताती. कारण समुद्र रफ आस्सा. प्रथम समुद्र प्रवास कर्तल्यांल पोट्टांतु गोळो येत्ता.

कन्याकुमारींतु महात्मा गांधी स्मारक आस्सा. गांधी वध जालेनंतर तागेली चिता भस्म तिनी समुद्र मेळचे कडेन संगमांतु विसर्जन कोरच्याक हाडील तेन्नां, लोकांल दर्शनाक दवरील जागेरी गांधी स्मारक बांधिल्यां. अक्टोबर महिन्याचे दोन तारिखेक सूर्योदयारी सूर्यकिरणा बरोबर तो कलश दवरील जागेरी पडता खंय्!

कन्याकुमारींतु सूर्योदय समुद्रांतुल्यान जात्ता. सूर्यास्तयी समुद्रांतु जात्ता. आमगेल देशांतु अस्सीं आनी खंयी पोळोच्याक मेळना. चैत्र पोर्णिमे दिवस (हनुमान जयंती) सुर्यास्त आनी चंद्रोदय हें दोनी येक्कपंता पोळोच्याक मेळटा.



पुरातन कन्याकुमारी मंदिराचे द्वार सक्काणी साढेचार घंटेरी उघडताती. ते देवीले, विश्वरूप दर्शन घेवच्याक हजारों भक्त जमताती. सांजेचें दर्शन घेतल्यारी ताक्का 'अलंकार दर्शन' म्हणताती. रात्रीचें दर्शन घेतल्यारी ताक्का 'एकांत दर्शन' म्हणताती. रात्रीचें पावणे णवांक मंदिराचें द्वार बंद कर्ताती. नवरात्रींतु देवी दर्शनाक गर्दी उर्ता. वैशाखांतु रथोत्सवाक जाती-पाती भेद-भाव ना सी सर्व तरेचे लोक भाग घेत्ताती. तस्सीं स्वातंत्र्या पैलें धोर्नु ह्या देवळाचें द्वार सर्व जाती धर्मांच्याक उगडे दवरल्यां.

कन्याकुमारी आयिल तेन्ना सुचिंद्रम् टेम्पल पोळोवेत. तें २००० वर्ष पुरातन जावनास्सा. पांड्या, चोळा राजवटींतुल शिल्पकला, देवळांतुल एक हजार खांबे पळैल्यारी दिस्सून येत्ता. थंचे गाईड खांबेतुल्यान सप्तसूर वाजोन दाकैताती. स्थळ पुराण सांगताती. थंय एक भव्य १८ फूट ऊंच मारूतील शिला विग्रह आस्सा. तागेले शेपडेक-बाल्लाक लोणी सारोनु, तुमगेल मनांतुली इच्छा पूर्ण करी म्होणु मागल्यारी, ती पूर्ण जात्ता म्हणताती. सुचिंद्रम् कन्याकुमारी साव्नु १४ कि. मी. अंतरारी आस्सा.

तें न्हंयसी थंय् गेलिल तेन्नां पद्मनाभपुरमांतुले चिनी लोकाल पध्दतीन (Pagoda Type) बांधिलें, पूर्ण लाकडाचें, साधारण २५० वर्ष पुरातन राजमहल पोळोवेत. वाट्टे कोट्टाई किल्ला, पोरूंचानी धरण, तिर्पारप्पू म्हळिल सुंदर जलपातय पोळोवेत.

हो प्रवास करतना वाट्टेरी माडा बाग, रब्बराचें बाग, केळी बाग पोळोच्याक मेळता. ह्या भागांतु केळें, शियाळें स्वस्त मेळताती. शंक-शिंपल्यान, सुंबान (Coir) तयार केलिलें, लाकडान तयार केलिलें नाना तरेचें हस्तकला वस्तू मेळताती. चवकशी कोर्नु घेवका. उत्तम दर्जेचे हेंडलूम् साडी, धोती, टवेल्स मेळताती. धार्मिक कामा वापरचें घांट, जगांट, शंख, दिवल्यो, दीपमाळा मेळताती.

दिवंगत श्री. एकनाथ रानडेन शिला स्मारकाचें काम जायनापडेन कन्याकुमारींतूंची साठ-सत्तर एकर जमीनेरी 'विवेकानंद केंद्र' म्हळील सेवा संघटना स्थापन केल्ली. ही संस्था 'विवेकानंद शिला स्मारक'ची पूर्ण वहिवाट पळैता. इत्लें न्हय मानव कल्याण, अध्यात्मिक शक्तीची वाढ आनी राष्ट्रीय पुनरूत्थान हे संस्थेचें मुख्य उद्देश जावनास्सा. ही संस्था बालवाडी, स्कूल, वाचनालय, आस्पत्री चलयता. ग्राम विकास योजनेंतु भाग घेत्ता. सामाजिक संघटनेन समाज सुधारणा साध्य जाता म्हळिलें हे संस्थेन सिध्द केल्यां.

कन्याकुमारी आयिल्यांक (पयलें कळैल आसल्यारी) विवेकानंदपुरमांतु राबची व्यवस्था करताती. थंय शाकाहारी जेवण मेळटा. वसती ग्रहाचे आस-पास बँक आस्सा, पोस्ट ऑफिस आस्सा, आस्पत्री आस्सा. आनी बस्-स्टेंडय आस्सा. प्रवासी लोकां खात्तिरी State Govt. Tourist Bus विवेकानंदपुरमांतु येव्नु वत्ताती. सेवा, सौजन्य आनी विनयांचे त्रिवेणी संगम ह्या संस्थेंतु दिसून येत्ता.

कन्याकुमारीपर्यंत ट्रेन वत्ताती, स्टेट ट्रान्सपोर्ट बस् वत्ताती. त्रिवेंद्रम एअरपोर्टारी देंव्नु (८६k.m.) कन्याकुमारीक वोचेत. मुद्दाम एकपंता वोचून येया.





रवीन्द्रबाब,
कन्याकुमारी म्हणटकच तुमची याद येता.
विवेकानंद म्हणटकच तुमी दोळ्यां मुखार उबे रावतात.
दर म्हयन्याचो बिम्ब तयार जालो म्हणटकच तुमची याद येता.
तुमी बिम्बाची याद करीत वाट पळयतात असो मनाक भास जाता.
तुमकां वचून ह्या म्हयन्याचे २७ तारखेक एक वर्स पुराय जाता.
तरी लेगीत तुमी आमचे भोंवतणीय आसात असो सतत भास जायत रावता.
तुमकां आमचीं नमस्कायेचीं जागीं.
हो ऑगस्टचो बिम्ब तुमचे यादीक समर्पीत.

बिम्ब परिवार



-मिश्टी नायक
आनंद रेसिडेन्सी,
एअरपोर्ट रोड, चिखली - गोंय

# बाप्पालें सपन



*बाप्पा म्हणटालो, "तुमी भुरगीं म्हळयार गोंयचीं रत्नां. खूब शिकपाक जाय, गोंयचें नांव व्हड करपाक जाय. आमच्या गोंयां इतलो शांत-सोबीत जागो ना, तेन्ना ताची उदरगत घडोवन हाडपाक जाय. बरे रस्ते, नोकऱ्यो हेर उदरगत तुमीं भुरग्यांनी घडोवन हाडपाक जाय." अशें हें बाप्पालें सपन आशिल्लें.*

**शा**ळेची ती अशीर अशी वाट, ते वाटेर तीन-चार अशीं शिपडिल्लीं तीं घरां आनी तातूंत एक सुपुल्ली ती खोंप जातूंत बाप्पा आनी अमृत्यालो तो संवसार. वाड्यावयलीं तीन-चार भुरगीं आमी ते अशीरशे वाटेंतल्यान दनपारच्या वताच्या कडार फाटीर पुस्तकां मारून ते खोपी मुखावेल्यान शाळेंत वतालीं. वाटेवयलीं तीं चिरपुटां, आसाळे, पिटकोळेचीं फुलां तोडीत वतना खूब मजा येताली. आमी भुरगीं आशिल्ल्यान वताचो कड आमका लागनाशिल्लो. पूण आतांच्या वताकडांत आनी त्या वेळावयल्या वतांत जायतो फरक आसा.

बाप्पा तसो मायेस्त. आमकां भुरग्यांक खूब बरोऽ करी. दनपरां खोपीभायर आमची वाट पळयत बसतालो. आमकांय एकदीस बाप्पा भायर दिश्टी पडूंक ना जाल्यार कितेंतरी चुकिल्लेवरीं दिसतालें. बाप्पा-अमृत्याक भुरगीं नाशिल्लीं म्हणुनूच आमी दिश्टी पडलीं काय बाप्पा उमेदीन म्हणटालो, "तीं पळयगो आयलीं म्हजीं भुरगीं."

पूण अमृत्याचो सोभाव वेगळो आशिल्लो. आमची उमेद वा तोखणाय करतना अमृतें मात नाक मुड्डीतालें. बाप्पाल्या इतली भुरग्यांची माया ताका नाशिल्ली. केन्नाय बाप्पा म्हणटालो, "आगो, उडय भुरग्यांच्या हातार कितेंतरी." तेन्ना अमृतें आमच्या हातार केन्नाचो उरिल्लो लाडवांचो पिठो वा काकणांचो सुकिल्लो कुडको उडयतालें. बाप्पाक सगळें खबर आशिल्लें, पूण आमच्या मुखार तो केन्ना दाखोवन दिना आशिल्लो. तसोच चड राग आयलो जाल्यार अमृत्याक दोन-चार सणसणीत गाळी फाफुडटालो. पूण बाप्पा-अमृत्याचो मोगूय कमी नाशिल्लो. अमृतें बाप्पाक पातयेनाशिल्लें. दोगांय एकामेकाची खूब तोखणाय आनी अपुरबाय करतालीं.

शाळेंत वतना खोपीकडेन पावलीं काय अमृत्याच्या हुमणाच्या वासान परत एकदां भूक लागताली. केन्ना सुक्या सुंगटांचें हुमण तर केन्ना तेफळां घालून केल्लें बांगड्याच्या हुमणाच्या वासान जिबेक उदक सुट्टालें. बाप्पा म्हणटालो, "भुरग्यांनो! जेवतात गो चार गोटे? घरकान्नीन बरें हुमण केलां." पूण अमृत्याले ते मोठ्ठे केल्ले दोळे पळोवन सगळी लाळ आमी परत गिळटालीं.

खोपीफुडें चढावाचेर शाळेच्या आयल्यान फटीचो गाडो मेळटालो. बापायन दिल्ल्या चार आण्याक बरेंचशें खटखटें आनी चणें फटीच्या गाड्यार मेळटाले. तें खटखटें आनी चणें बोल्सानी भरतां-भरतां शाळेची घंटा आयकुपाक येताली तशीं आमी शाळेवाटेन

धांवत सुटटालीं. फटीबाबतींत आमकां चडकांय खबर नाशिल्लें. तो खंय रावतालो, खंयच्यान येतालो हाचेविशीं कांयच खबर ना. फटी रस्त्यादेगेर आपल्या त्या गाड्या सांगातान खूब संतूश्ट दिसतालो.

सांजेची शाळा सुटली काय परत एकदां तेच आसाळे, चिरपुटां, पिटकोळां तोडीत बाप्पालें परत दर्शन जातालें. आमची वाट पळयत बाप्पा बशिल्लो आसतालो. त्या वेळारसुध्दां तो चार अक्षरां वाचूंक शिकिल्लो. शाळेंत त्या दिसा आमी कितें शिकल्यांत तें आमचे कडल्यान शिकून घेवपाची उमेद त्या जाणट्यापणार तांचे भितर पळोवन आमकांय शिकपाची उर्बा बाप्पाकडल्यान मेळटाली.

बाप्पा म्हणटालो, "तुमी भुरगीं म्हळ्यार गोंयचीं रत्नां. खूब शिकपाक जाय, गोंयचें नांव व्हड करपाक जाय. आमच्या गोंयां इतलो शांत-सोबीत जागो ना, तेन्ना ताची उदरगत घडोवन हाडपाक जाय. बरे रस्ते, नोकऱ्यो हेर उदरगत तुमीं भुरग्यांनी घडोवन हाडपाक जाय." अशें हें बाप्पालें सपन आशिल्लें.

पूण फाटले दोन दीस बाप्पा दिश्टी पडलो ना म्हणून आमी बाप्पाल्या खोपीच्या दारांत उबीं रावलीं तशें अमृतें आइडलें, "चलात हांगाचीं, बाप्पा-बाप्पा करून येतात तीं, न्हिदला तो, बरें ना तांकां."

आमी अमृत्याक बाय म्हणटालीं. आमी भियेत-भियेत विचारलें, "बाय, केन्ना बरो जातलो बाप्पा?" तितल्यान बाप्पान भितरल्यान जाप दिली, "येवनी गो तांकां हांगा." तें आयकून आमी अमृत्याल्या दोळ्यांक पळयनासतना उमेदीन खोपींत घुसलीं. आमकां पळोवन बाप्पा पुटूक करून उठून बसलो. जणू अर्दो बरो जाल्लेवरी. आनी बाप्पान म्हळें, "भियेवं नाका गो, आतां हें जाण्टेपण अशेंच, पूण हांवें सांगलां तें उगडास दवरात. म्हज्या सपनांतलें गोंय घडयात.



उदरगत घडोवन हाडात. चलात आतां शाळेक उशीर करनाकात."

फुडले दोन दीस बाप्पा दिश्टी पडलो ना. आमी बाप्पाक खूब मीस करतालीं. आमचीं गणितां, चित्रकला तोखेवपी आमचो बाप्पा बरो नाशिल्लो. फटीचें खटखटें गोड लागनाशिल्लें. त्या दिसा तशींच चिरपुटां, आसाळे तोडीत आयजतरी बाप्पा बरो जावन भायर दिश्टी पडटलो हे आशेन शाळेंत वचपाक आमी भायर सरलीं. पूण, खोपीभायर आयज लोक जमिल्ले, लागीं पावता तशें उजवातींच्या वासान वातावरण वेगळेंच जाल्लें. आयज अमृत्याच्या हुमणाचो वास नाशिल्लो. गर्देंतल्यान वाट काडीत आमी भुरगीं खोपींत भितर सरलीं तशी बाप्पाची कूड धव्याफुल्ल चादरीपोंदा धांपिल्ली दिश्टी पडली. बाप्पा आमकां सोडून गेल्लो. आमी चारूय जाणांनी वांगडाच किळांच मारली. 'बाप्पाऽऽ!'

इतल्यांत फाटल्यांतल्यान आमकां चारूयजाणांक कोणेतरी वेंगेंत लागीं ओडून पोशेलें. वळून पळय जाल्यार तें अमृतें आशिल्लें. आमकां वेंग मारून अमृत्यानूय आपल्या दु:खाक वाट मेकळी करून दिल्ली. आयज अमृत्याल्या दोळ्यांनी तीच माया आमकां दिसली जी आमी बाप्पाल्या दोळ्यांनी पळयतालीं.

बाप्पालो विरह अमृतें चड दीस सोसूंक पावलेंना. तीन म्हयन्यानी अमृतेंय भायर पडलें. बाप्पाली खोप पोरकी जाल्ली! कांय तेपान फटीचो गाडोय दिश्टी पडना जालो. अशें आयकलें की रस्तो रूंद करतना फटीक थंयचो धांवडायलो. फटी खंय गेलो? पोट कशें भरतलो? हाचेविशीं कोणाकूच पडूंक नाशिल्लें.

बाप्पा-अमृत्यालो जागोय भाटकारान आपलो केलो.

आयज बाप्पाल्या जाग्यार व्हड एक कॉम्प्लेक्स जाला. शाळेची वाट आतां अशीर उरूंक ना, तो डांबरी रस्तो जाला. तीं चिरपुटां, आसाळे, पिटकोळ नदर भोंवडायल्यार खंयच दिश्टी पडनात. आयज ते वाटेवेल्यान पासार जाल्यार कोंकणीचें एक लेगीत उतर कानार पडना. बाकीच्यो हेर सगळ्यो भासो मात आयकुपाक येतात. कोंकणीचो शब्द कसो कानार पडटलो? एका-एका जाग्याचें मोल करोडांचेर पावलां. गरीब गोंयकारांक आपल्याच गांवांत घर घेवपाक परवडना. गोंय पयलींभशेन शांत उरूंक ना. खून-मारामारीचे प्रकार वाडल्यात. गोंयचे तरनाटे लठ्ठ पगार आनी तांच्या शिक्षणाक फावो सारकी नोकरी मेळोवंक गोंयां भायर वचूंक लागल्यात. बाप्पान जशें सपन पळयल्लें तें आतां नदरे पेल्यान गेल्लें दिसपाक लागलां. बाप्पालो आत्मो आतां घुटमळूंक लागला आसतलो! ताका केन्नातरी शांती मेळूंक पावत काय?

■ ■ ■

प्रिय रमेश,

तुजो एसएमएस् पावलो.

आषाढांतल्या पयल्या दिसा मळबांतल्या एका काळ्याकुट्ट अशा मेघा कडल्यान, कुपा कडल्यान महाकवी कालीदास आपले सखीक रकाद धाडटा. तो मेघ कालीदासाचो दूत जाता.

कालीदास रामगिरी पर्वतावेल्यान आपले सखीक पत्र धाडूंक शकना. ताका तें शक्य नासता. पूण मेघाक दूत करून नभांतल्यान आपलो संदेश आपले प्रिये मेरेन पावोवंक शकता. ती कवीकल्पना काय खऱ्यानीच त्या काळार तंत्रगिन्यान तितलें विकसीत आशिल्लें काय?

कुरिअर सर्व्हीस सुरू जाल्ल्याक आमचे पोस्टमन म्हळ्यार पत्रदूत उणे उणे जावंक लागल्यात. पोस्ट लेगीत आपली पार्सल सेवा कमी करपाक लागलां. आतां आदलीं सारकें पत्रां बरोवपय जायना. रस्त्यावयल्या भिकाऱ्या पसून गर्भश्रीमंतामेरेन सगळेच मोबायल वापरतात. फोन कॉल म्हारग पडटा देखून एसएमएस करतात. एका खिणांत संदेश एके सुवातेवयल्यान दुसरे सुवातेर पावता. पत्र वाटेर शेणपाचो भंय आसता. उसरां पावपाचो भंय आसता वो कोणाच्या हातांतूय पडून गूट उकतो जावं येता. पूण मोबायला वयल्यान एस्‌एम्‌एस् धाडलो जाल्यार तो खंयच शेणना. हेर कोणाच्या हातांत पडना. जाका धाडला ताकाच तो अचूक मेळटा. फोन केल्यार एकवेळ रेंज मेळना. एस्‌एम्‌एसाक रेंज मेळटाच मेळटा.

तू दिसाक खूब कितें कितें बरोवपी. वाचतां हांव खंय खंय! तुका पत्रांय बरोवप आवडटात. पूण तुवें म्हाका धाडलो तो एसएमएस्. तुज्या मोबायल सेटावेल्यान म्हज्या मोबायल सेटा मेरेन तुजो एसएमएस खंयच्या माध्यमांतल्यान पावलो? हो संदेश पावोवपी लहरी मळबांतल्यानूच प्रवास करतात न्हय रमेश? कालीदासाच्या युगांत तंत्रगिन्यान चड विकसीत जावंक नाशिल्लें देखून ताणें मेघाच्या माध्यमांतल्यान संदेश धाडलो. तुवें आयच्या युगांत ध्वनीलहरीच्या माध्यमांतल्यान मळबांतल्यानूच संदेश धाडलो. ह्या माध्यमाक आमी खंयचो दूत म्हणप काय?

तुवें धाडिल्ल्या एसएमएसांत तुवें म्हळां 'तुजो सखी संवाद वाचलो. तातूंत म्हज्या नवप्रभावेल्या लेखाचो पावस'चो उल्लेख खूब म्हत्वपूर्ण आसा' खरेंच काय? हांवें तर तो सहज उल्लेख केल्लो. आयलें तशें गायलें जाल्लें तें. हांवें तो उल्लेख केला हाची म्हाका जाणविकाय लेगीत नाशिल्ली. तुवें एसएमएस करून म्हाका ताची जाणविकाय करून दिली आनी हांवें तो लेख परतून वाचलो.

सखीकडेन पत्रसंवाद सादतना खंयच्या तरी एका संवादांत फाटीं हांवें म्हणिल्लें की आमचे मदीं दानतूच ना कोणाक बरें म्हणपाची! आमी दिसपट्टे खूब कितें कितें वाचतात. पूण एखाद्रयाचें कितेंय आवडलें जाल्यार आमी ताका कळयनात. कोणाक पत्र बरोवन वा खंयीय लेख बी बरोवन आमी ताची तुस्त करिनात. ती करूंक जाय अशें म्हाका दिसतालें. मागीर हांव म्हाकाच प्रस्न करूंक लागलों, हांव तरी कितल्या जाणांची करतां?

म्हाका दिसता आमी ह्या विशयाचेर उलयल्यात. एखाद्रयाचें साहित्य वाचलें आनी ते विशीं मनांत कांय गजाली आयल्यो जाल्यार त्यो बरोवंक जाय अशें उलयल्यात न्हय आमी? म्हाका शक्य आसा तें बरोवप. साहित्याचो खोलायेन अभ्यास जावंक जाय म्हूण दोनदां एम्. ए. केल्या हांवें. भारतीय आनी पाश्चात्य काव्यशास्त्राचो अभ्यास केला हांवें. पूण एकदां तें प्रकरण हातांत घेतलें जाल्यार मागीर तातुंतूच घुस्पून उरतलों हांव. तेंय एक व्यसन कशें. एकदां लावन घेतलें काय सुटना. हांवें म्हाका खूबश्या गजालींनीं बुडोवन घेतला. आनीक आनी कितेंय नवें बोडार घेतलों जाल्यार म्हजेकडेन वेळ ना. आमचे कितलेशेच प्राध्यापक आसात. तांका घेवन बसूं दी हो वावर. नातर तांका दुसरें काम आसा तरी कसलें? फुकटचो पगार घेतात. तरी पूण तुवें हांवेंय बरोवंक जाय. पूण केन्ना, बरयतल्याक जाणविकायूच जावंक फावना आपणें तें बरोवंक घेतलां म्हूण. सहजतायेन घडून वचूंक जाय. प्रेमान उप्पाट बुडिल्लीं, काळजां एक जाल्लीं सहजतायेन जशीं रतीसूख घेतात आनी तें घेवनूय तांका मातूय जाणविकाय जायना की आपलेमदीं समागम जाला तशे तरेचें हें घडपाक जाय. आसूं! पळय खंयचे खंय पावलां हांव!

तुवें एसएमएसांत 'तुज्या सखी संवादांत' म्हळां, आरे पापया हो सखी संवाद न्हय रे बाबा. एके सखीचें पत्र आयलें आनी हांव ह्या बरोवपांतल्यान व्यक्त जावंक लागलों. हांव आतां तुका बरयतां. तुजेकडेन संवाद साधतां. तूं म्हजो सखा म्हणटकच हाका कितें सखा संवाद म्हणप? सखी आसूं वो सखा हें नातेंच खूऽब व्हडलें. राधा जशी आदर्श सखी तसो कृष्ण होय आदर्श सखा.

तुज्या एस्‌एमएसाचें एक बरें जालें तें म्हळ्यार हांव जें कितें बरयतां हें पत्र रूपान, ताचें फुडाराक कलेक्शन बी काडपाचें जाल्यार त्या पुस्तकाक हांव 'सखी संवाद' हेंच नांव दवरीन. सद्या हांव 'जाग' मासिकांतल्यान रवीन्द्रबाबांकडलो म्हजो प्रदीर्घ सांगात याद करतां. रवीन्द्र संगीत तसोच हो 'रवीन्द्र सांगात' ह्याच नांवान हाचें पुस्तक तयार जावंचें अशें म्हाका दिसूंक लागलां. एस्‌एमएसांतल्यान नांव सुचयलें देखून तुका धिनवासतां. तुकाय कळूं नासतलें न्हय, तूं नांवां दवरपाक फिशाल म्हूण! आनीक एक गजाल म्हाका भावली ती म्हळ्यार, हांव पत्रां कोण बरयना म्हूण आदीं शिणटालों पळय तें म्हजें अज्ञान आशिल्लें. म्हजी समजुपाची मर्यादा आशिल्ली ती. आमी उतरांचे ईश्वर देखून निर्मिती खातीर आमकां बोरू जाय, भोजपत्रां जाय. ही लेखनकलेंतली उत्क्रांती एका काळावयली. त्या आदीं लोक जमनीर बरयताले धुळींत. तातुंतल्यान धुळाक्षरांचो आरंभ जालो. आज हातान बरोवप खूब उणें जालां लोकांचें. ते सगळे थेट संगणकाचेर टायप मारून ताचो प्रीन्ट काडटात आनी पत्र म्हूण धाडटात. आमीय तें पत्र म्हणूनूच वाचतात. अशें जर आसत जाल्यार तुवें धाडिल्लो एस्‌एमएस पत्र न्हय हें कित्यावयल्यान? तुवें मोबायलावयलीं बटनां आपल्या बोटानी दामून मोबायलाच्या स्क्रीनाचेर अक्षरां बरयलीं आनी अक्षरलहरींच्या माध्यमांतल्यान म्हज्या मोबायलाच्या स्क्रीनार धाडलीं. पत्राचो उद्देश्य पुर्णायेक पावलो वा म्हणुया सार्थी पावलो. जेन्ना तूं हातांत पेन घेवन कागदाचेर बरयता तेन्ना तुज्या काळजांतल्यान स्त्रवल्लो वझरो घसघसत बोटांतल्यान पेनांत देंवता आनी कागदाचेर काळजाच्यो लघु आकृतायो रूप घेतात. हांगा एस्‌एमएस टायप करतना, तुज्या काळजांतले भाटयेंतलें एसेन्स हाताच्या फिन्गारानीं मोबायलाचेर टायप केलें

म्हळ्यार फिन्गर प्रिन्ट्सांतल्यान तुवें म्हजे मेरेन पावयलें आनी त्या लघुपत्रांतल्यान तुज्यो भावना म्हाका कळयल्यो. काळीजभर भावना आटोवन लघुरूपांत एसएमएस केल्यो तरी त्यो म्हज्या काळजामेरेन पावतकच काळजा येद्योच जाल्यो.

आतां तुका हो सखा संवाद कित्याक तें सांगतां. खरें म्हळ्यार हो संवाद घडपाचोच नाशिल्लो. हांव वाट पळयतालों सखीच्या पत्राची. म्हणुया लेखाची. आमचो चवथ 'बिम्ब' येतलो तो सप्टेंबराचे पयलेर. हेच दिसा आमी गोंयकार चवथ मनयतात. आमकां चवथीचें म्हत्व कितलें तूं जाणां! तुका, म्हाकाय चवथ आवडटा. चवथ म्हळ्यार मातयेची पूजा, चवथ म्हळ्यार सैमाची पूजा. आमी ह्या दोनूय गजालींचे भक्त, पूजक. आनी ही पूजा जेन्ना आरंभ जाता ताच्या बद्द एका म्हयन्याआदीं म्हळ्यार १ ऑगस्टाच्यान शिरावण लागता. शिरावण वो श्रावण चवथीची फाम घालपी म्हयनो. भाद्रपदाचे पालखे मुखार रंगरंगयाळ्या रूपानी नृत्य करपी चित्त उत्तेजीत दवरपी शिरावण म्हयनो.

श्रावणमासी हर्ष मानसी,
हिरवळ दाटे चोहिकडे,
क्षणात येता सरसर शिरवे,
क्षणात फिरूनी ऊन पडे...

ह्याच शिरावणाचेर म्हाका लेख जाय अशें हांवें सखीक म्हणिल्लें आनी ताच्याच लेखाची हांव वाट पळयतालों.

आतां शिरावणाचेर तुवेंय खूब बरयलां. हांवेंय बरयलां. म्हज्यान जाय जाल्यार तुका म्हणू येतालें, आरे रमेश, १ ऑगस्टाक शिरावण लागता, शिरावण संगीताच्यो तारो झंकारूं दी! पूण म्हळें सखीकूच सांगूया! ह्या विशयाचेर सखीच्यो संवेदना तरी व्यक्त जावंदी. शिरावण म्हयनो तर तांकाच चड प्रीय. तींच ह्या म्हयन्यांत आयतार पूजतात. सैमाची पूजा करतात.

आयतार म्हळ्यार 'आदित्यवार' आयताराची पूजा म्हळ्यार आदित्याची-सूर्याची पूजा. आदित्य म्हळ्यार कितें, ताची शक्त कितें हें तुका सांगपाची गरज ना. तुज्या एका काव्यसंग्रहाचें नांव लेगीत ह्याच आदित्याचेर आसा. हिरण्यगर्भ. हिरण्यगर्भ म्हळ्यार ब्रह्मदेव काय सूर्य? हे वेळार म्हाका ताची व्हडलीशी याद जायना. पूण हिरण्य म्हळ्यार भांगराळो. म्हणटकच हिरण्यगर्भ म्हळ्यार सूर्य अशी म्हजी कल्पना! तर ह्या हिरण्यगर्भाची पूजा आमच्यो सखी शिरावण म्हयन्यांतल्या दर एक आयताराक करतात.

सूर्य म्हळ्यार हे सृश्टीचो पालनकर्तो. ह्या आदित्याचे उश्णतायेचेर हो आमचो संवसार चलता. आमी अनादीकाळा सावन ह्या सूर्याची, आदित्याची हेच पासत पूजा करत आयल्यात. पूण आमच्या सखीनी शिरावण म्हयनोच कित्याक वेंचून काडलो काय ह्या आदित्याची पूजा करूंक? म्हाका ही जाप एखाद्रे सखी कडल्यानूच जाय आशिल्ली.

तूं सद्या रायबरेली आसा. रायबरेली तुजो मावोडो. खंयच्याय जावंयाक आपल्या जल्मगांवा उप्रांत दुसरो प्रीय गांव खंयचो जाल्यार तो आपल्या मावोडेचो. तुकांय रायबरेली प्रीय आसुंकच जाय. नातर तू बेश्टोच म्हणचो नाशिल्लो, रायबरेली न्हय रे, कायबरेली! तुज्या ह्या कायबरेलींतल्यो सखी शिरावणांतले आयतार पुजतात काय ना म्हाका खबर ना. पुजतात आसल्यारूय आमच्या गोंयांत वो कोंकणांत पुजतात तश्यो पुजच्योनात हाची म्हाका खात्री आसा. कारण शिरावण म्हयन्यांत जो आमच्या कोंकणांत सैमोत्सव चलता तो हे धर्तरेचे फाटीर आनीक खंयच चलत अशें म्हाका दिसना. हांवें आमचे भारतभुंयेवेल्या वेगवेगळ्या राज्यांतल्या अटंग्या रानांतल्यो भर पावसांत तरांतरांच्यो वृक्षवल्ली पळयल्यात. बाकीबाबांच्यो वेली रूतुमती जाल्ल्यो पळयल्यात. बाकीबाबांच्यो ह्यो रूतुमती जाल्ल्यो वेली सोज्वळ, शालीन पंथांतल्यो. पूण हांवें धनगर, भिल्ल जमातींतल्यो वेली रूतुमती जातकच कश्यो दिसतात, तांची ती आगळीच सुंदराय पळयल्या, अणभवल्या. आमच्यो सखी आयतार पुजताना आदित्याक दर आयतरा हुंदराचे कान, सोंशाचे कान, कावळ्याचे फोव, घोड्याचीं पावलां, म्हातारेचीं बोंदरां, लज, बिंबलो, बेलापान, शेरवडां बी ओंपतात पळय ती गजाल हेर कडेन खंयच चलता अशें म्हाका दिसना.

शिरावण म्हयनो लागलो काय ह्यो पत्री आमच्या गोंयांत आपआपल्याक मुखार मुखार करतात. मुजरत नदर भोंवडावंक जाय सृश्टीचेर. काळीज सामकें ओडून घेतात. ह्याच पत्रींनी आमच्या सखींचींय काळजां ओडून घेतलीं जाल्यार अजाप न्हय.

आमचे संस्कृतायेन बायलांचेर तसो खूबच अन्याय केला. तांचें स्वातंत्र्य अर्थ नाशिल्लीं बंधनां घालून काबार करून उडयलां. तातूंतल्यान भायर सरूंक आमच्या सखींनीं तरातरांच्यो मांडण्यो काडल्यो. आदल्या तेंपार लग्न जावन घोवागेर गेल्ले सखीक कुळारा परतुवपाक नीब आशिल्लें तें हीच आदित्य पूजा. शिरावणांतलो पयलो आयतार नवे व्हंकलेन घोवा घरा पूजल्यार तें मांवाक वायट. म्हणटकच मांवाक आपले सुनेक शेतांत राबोवंचे परस, घरांत घश्टो काडूंक लावंचे परस आवयगेर धाडल्यार बरें म्हूण तोच तिका कुळारा धांवडायतालो.

आदले तेंपार सखीक घरा भायर सरप तशें कठीणच आसतालें. मागीर सैमांतल्यो वेगवेगळ्यो पत्री पुंजावपाच्या निमतान सखी भायर सरताल्यो. हेर सखीं वांगडा आपलीं दुख्खां वाटताल्यो. दुसरी सखी कोण मेळ्ळी ना जाल्यार ह्याच पत्रीं कडेन त्यो खुट्टां खुट्टां आपलें काळीज उक्तें करताल्यो. वनस्पती कडेन जाल्ले तांचे हेच इश्टागतीक लागून आजीबाईचो बोटवो तयार जालो. घरांत खांकुडत, काळखाकुडींत जीण सारपी सखी आदित्याची पूजा करपाच्या निमतान उजवाडाकडेन पावली. तिका सैमांतली नवीदाद तोखेवंक मेळ्ळी. सखी म्हळ्यार वसुंधरेचें प्रतिरूप. आयतार पुजपाच्या नांवान आपल्या प्रतिरुपाकडेन सखी समरस जाली आनी उजवाडाची, आदित्याची पूजा करूंक लागली. म्हाका हीच भावना आमच्या लेखिका म्हणोवपी सखींकडल्यान व्यक्त जाल्ली जाय आशिल्ली. पूण ती म्हजे मेरेन पावलीना देखून तुकांच पत्र बरोवंचें पडलें.

होलमतात न्हय म्हज्यो खंती तुका?

मेळुया...

■ ■ ■

**– दिलीप बोरकार**
आगशी – गोंय.
मो.:९८२२१३६८८५

# जाण्टे आनी वखदां



**सा**ठ आनी चड पिराय जाल्ल्यांक चडकरून आमी जाण्टे म्हणटात!

जाण्टे चडकरून:

- आयच्या युगांत चड पिरायेमेरेन जगतात (विज्ञान आनी आरोग्यसेवेच्या प्रगतीन)
- आरोग्याची चड आनी अनेक पिडा आसतात.
- आनी ताका लागून चड वखदां घेवचीं पडटात.
- आनी दुशपरिणाम जावपाची चड शक्यताय आसता. (पिरायेक लागून कुडींतल्यो अनेक प्रक्रिया संथ जातात)
- वखदां सारकीं वापरूंक ना हाका लागून मरपाची संख्या वाडटा.

जाणट्ट्यांमदीं अयोग्यतरेन वखदां वापर जावपाचीं कारणां अनेक आसूं येतात :

अ) दोळ्यांचे विकार : हाका लागून तांकां वखदांवयलें लेबल सारकें दिसना वा कळना. हाका लागून वखदां घेवंक चुकी जावंक शकतात.

ब) आयकूंक येवप : दोतोरान, फार्मासिस्टान नाजाल्यार घरच्यांनीं वखदां सारकीं कशीं घेवप हें जर सारकें आयकूंक ना जाल्यार समस्या जावं येता.

क) हातांत संधीवात, हात थरथरप : हाकालागून, वखदांच्यो बाटल्यो किंवा पाकिटां उगडपाक त्रास जावं येता, वखदां सकयल न रकयतां/उडयतां घेवपाक कठीण जावं येता.

ड) याद (Memory) : वखदां वेळार घेवपाक विसरूं येता, किंवा चुकीच्या वेळार नाजाल्यार चुकीच्या प्रमाणांत घेवंक शकतात. आपूण वखदांचो डोस घेतला की ना हेंय विसरूं येता, आनी चड फावटीं घेवंक शकतात.

इ) सुस्तताय, बदलते मूड, शक्ती, स्वभाव हे पिरायेक लागून जालां अशें येवजूं येता - हाकालागून, रुग्णांक, वखदांचो गूण पडटा की ना, की साईड्-इफेक्ट जाला काय,हें सारकें समजून/कळून येना.

जाण्ट्यांक अशो अनेक अडचणी येतात. हाका लागून, आमी जर तांचेखातीर कितें करूंक शकतात जाल्यार ऊत्तम. उदा : तांचेर लक्ष दवरप, तांचीं वखदां तांकां वेळार हाडून दिवप, खंयचीं वखदां केन्ना घेवप हें सारकें समजावप, सादे तरेन हें बरोवन दवरप, किंवा हालीं फार्मासीनी 'Pill Box' मेळटा (ह्या बॉक्सांत धाकट्यो-धाकट्यो डबयो आसतात - आनी तातूंत प्रत्येक वेळेच्यो गुळयो घालून दवरूंक मेळटात - अशें एका आठवड्याच्यो गुळयो घालून दवरूंक मेळटात) आनी गरज पडल्यार तांकां वखदां घेवपाक मजत करप - योग्य तीं वखदां, योग्य वेळार, आनी योग्य तरेन.

याद दवरपाच्यो कांय गजाली :

- जाण्ट्यांक वखदांचें प्रमाण बदलून दिवचें पडटा (चडकरून प्रौढां परस कमी प्रमाण)
- केन्ना-केन्ना, प्रौढांची मात्रा जाणट्यांक अदीक प्रमाणात अतीमात्रा ठरूंक शकता आनी ताचे वायट परिणाम (साइड-इफेक्ट) जावंक शकतात.
- केन्ना-केन्ना जाण्ट्यांच्यो शरीर प्रक्रिया जाय तसो प्रतिसाद दिना, ताका लागून वखदांचो गूण जाय तसो पडना.
- जर रूग्ण सद्या वखदां घेत आसतना आनी खंचेंय वखद घेवपाचें आसा (जावं तें आयुर्वेदीक, होमियोपॅथीक अथवा बगर प्रिस्क्रिप्शन ॲलोपॅथीक) तर तें दोतोराक विचारल्या बगर घेवचें न्हय - कारण दोन किंवा चड वखदांची आपआपसांत प्रक्रिया जावन शरिराचेर दुशपरिणाम जावंक शकता.

■ ■ ■

- राज वैद्य
इंडियनफार्मास्युटिकल असोसिएशन
ईमेल : ipacpd@gmail.com



# DEPARTMENT OF AGRICULTURE

## PROMOTES





### JALKUND - A RAIN WATER HARVESTING STRUCTURE

- Jalkund promoted by Department of Agriculture can store 12000 lit. of water.
- Most ideal for cultivation under pre-monsoon or post monsoon season in areas inaccessible to irrigation water.
- Water is stored in plastic lined ponds.
- Can be effectively used for cultivation of vegetable in 500 m2 area.

### SOLAR BATTERY FENCING - TO PROTECT YOUR CROPS.

- Provides 90% subsidy on solar powered battery fencing.
- Solar powered battery fencing is safe if properly installed.
- It gives a shock that instantly drives away the animals but does not kill tend to come near to your property again. However, animal or human do not die.
- Protect the farmer from wild and stray animals.
- You can get your fencing done by depositing only your share of cost also.

### MECHANIZATION IN AGRICULTURE TO BRING DOWN COST OF CULTIVATION

- Support you with 75% subsidy on purchase of agricultural machines.
- Machines save time and labour costs.

**Contact for further details :**
**The Zonal Agricultural Officer of your taluka.**



Released by

**DEPARTMENT OF AGRICULTURE**
**GOVERNMENT OF GOA**

Krishi Bhavan, Tonca, Caranzalem, Goa.
**Ph.** 0832 - 2465443 **FAX** 0832-2465441 **E-mail :** dir-agri.goa@nic.in

गोंय मुक्तीच्या सुवर्ण महोत्सवी वर्साक सलाम

# Accelerating Industrial Growth in Goa



**The new Industrial Policy of Goa** focuses on achieving overall economic growth of the State. It aims to catalyze entrepreneurial resources and provide industries, access to high quality infrastructure, institutional support, technology upgradations, marketing support & deregulation of business environment for an efficient, proactive and transparent administrative framework.

## The NEW INDUSTRIAL POLICY provides the following incentives and subsidies:



**Employment Subsidy Scheme**
This scheme is designed to encourage sustainable employment of local youth.



**Capital Contribution Scheme**
This scheme is designed to support local entrepreneurs, promote industrial units and units in the tourism sector.



**Share Capital to Self Employed / Local Entrepreneurs**
This scheme encourages local entrepreneurs to start income generating activities.



**Interest Subsidy Scheme**
In an effort to boost economic growth in the State, it is proposed to provide subsidy on interest payable.



**Certification / Patenting Incentive**
This scheme is designed to encourage units to obtain Certifications & Accreditations.



**Scheme to encourage consumption of Local Raw Materials**
The scheme envisages encouraging consumption of raw materials by the industrial units by offering incentives.



**Incentives for Women**
A set of incentives offered to encourage employment opportunities for women entrepreneurs.



**Export Market Development Scheme**
This scheme aims to encourage Goan Industries to improve their export markets.

*For any details or queries, please contact*



GOVERNMENT OF GOA

**Department of Industries, Trade and Commerce.**

Udyog Bhavan, 1st floor, Panaji, Goa 403001, India.
Ph: 091 832 2222241 / 2242268 / 2226377 | Fax: 091 832 2224116 | www.goaditc.gov.in




Incredible !ndia

*Goa*

# Remember, You are on holiday. Safety isn't !

Welcome to Goa, where beautiful beaches, delicious cuisine and a friendly ambience promise the perfect mix of rest and recreation. Goa is an extremely safe place to travel around. However, we advise due precautions to be taken while you travel as you would do in any tourist spot in the world. Remember, safety is never on vacation.

## TIPS FOR VISITORS

**Drugs:** Use, possession and trade of drugs is totally illegal in Goa. Drug offence is non-bailable and penalties for smuggling, possession and use are severe.

**Drinking & Driving:** A foreign national must possess an international driver's license. Traffic circulation is on the left. Don't drink and drive or use mobile phones while driving. Wear a helmet while riding a two-wheeler. Follow police traffic rules and keep valid documents in your possession while driving.

**Weather:** Use sunscreen whenever out in the sun to avoid sunburn; drink liquids to avoid dehydration.

**Cleanliness & Hygiene:** Use the nearest dustbin to dispose waste. Don't litter. Use mosquito repellents to protect yourself from mosquitoes. Public pay toilets are available at most places of tourist interest.

**Beach Safety:** Read the signboards and follow the instructions before entering the water. Be careful when wading at the beach, undertow riptide currents can be strong. Consult the lifeguards for safe areas to swim. Nudity on beaches and public places is strictly prohibited.

**General Safety:** Contact nearest Govt. of India/State Govt. Tourist Office/Counter Tourist Police/ Tourist Assistance Booth for any tourist assistance. In Emergency contact 108 for medical/fire/police. Police 100. Fire 101.

VINSAN GRAPHICS

## DEPARTMENT OF TOURISM

Patto, Panaji, Goa - 403001, India. Tel. No. 91-832-2438750/52. Fax: 91- 832-2438756. E-mail: goatourism@dataone.in
**http://www.goatourism.gov.in**

POSTAL LICENCE NO.: G-2/RNP.Goa/01/2009-11

RNI Regd. No. GOA KON/2008/30413


# संस्मरणीय मैलाफातराच्या हुंबऱ्यार....
# मुक्ततायेची ५० वर्सां



**श्री. दिगंबर कामत**
**माननीय मुखेलमंत्री**
**गोंय**

वसाहतवादाच्या बंद पासांतल्यान मेळिल्ले मुक्ततायेचो येत्या वर्सा भांगरा उत्सव मनोवपाच्या मैलाफातरा दिकेन पावल घालतना आमी गोंयच्या निर्भय सुटके झुंजाऱ्यांक आनी ४९ वर्सां आदीं ज्या संस्मरणीय दिसा पयले खेप स्वतंत्र गोंयचेर भारतीय तिरंगो फडकायलो त्या शूर भारतीय सेनेक आमी वंदन करतात.

तेन्ना सावन आमच्या राज्यान सामाजिक आनी आर्थिक मळार मोठी उडी मारल्या.पर्यटकांचे नदरेन गोंयासारकी सुवात देशांत दुसरी ना आनी निर्णायक वेळार सामाजिक आनी आर्थिक घडीय केन्ना हालूंक ना. दरमाणशी येणावळ आनी महिला साक्षरताय, समाज कल्याण आनी भलायकी ह्या सारकिल्ल्या मळारूय म्हत्वाची सुवात सुगूर केल्या. देशांतल्या पुराय साक्षरताय वळेरेंत गोंय वयल्या पांवड्यार आसा.

गोंय भारतांतलें सगळ्यांत ल्हान राज्य जावं पूण थंयचें आतिथ्य, उद्येग आनी स्फूर्त हे दोनूय नदरेन कोणाकडेच तुळा करूंक जावंची ना. थोडेभितर सांगपाचें जाल्यार १९ डिसेंबर १९६१ त तें मुक्त जायत सावन सगळ्या मळाचेर गतीमान उदरगत ताणें केल्ली आसा. आनी हें शक्य जावंक पावलें तें गोंयचे ताठकण्याचे जनते पासत.

अश्या ह्या पवित्र आनी उत्सवी समयार आमी स्वतंत्रतायेची ज्योत आमच्या काळजांत आनी आमचे भुंयेचेर सतत पेटत दवरतले असो सोपूत घेतात.

**जय हिंद! जय गोवा!**
















Issued by:

Department of Information and Publicity, Government of Goa





Published & Printed by Dilip Borkar Owner of Bimb Monthly, 'Dharm-Laxmi', St. Lourence, Agasaim - Goa & Printed at Impressions, Belgaum. Editor : Dilip Borkar, Ph.: 2438355, E-mail: bimbkonkani@yahoo.co.in